रलें. योगधारणेन प्राणोत्क्रमण करता आसतना द्रुपदाचो पूत णें ताका मारलो. मरणा वेळार ताची पिराय महाभारतांतल्या ८०-८५ वर्सां आसूं येता.

- कों. वि. सं. मं.

पंचाल देशाचो राजा यज्ञसेन द्रुपद हाची चली, पांडवांची ी महाभारताची नायिका. पंचाल देशाची राजकन्या म्हणून गान सावळी आशिल्ल्यान कृष्णा, यज्ञसेनाची चली म्हणून रशीं द्रौपदीची हेर नांवां आसात. पूण द्रौपदी हें नांवच चड वलां.

पूर्वजल्माच्यो कथा पुराणांत मेळटात. महाभारत, आदिपर्व, ंत आयिल्ले कथेनुसार द्रौपदी पूर्वजल्मीं मुद्गल ऋषीची नांवाची बायल आशिल्ली. मुद्गल ऋषी म्हातारो आशिल्ल्यान वासना पुराय जाली ना. तिणें शंकराची आराधना करून वर ानी फुडल्या जल्मांत तिका पांच घोव मेळ्ळे.

राजान एकदां द्रोणाचार्याचो अपमान केलो. द्रोणाचार्यान आपल्या र्शी द्रुपदाचेर हार घाली. तांकां मारपाखातीर द्रुपदान यज्ञ यज्ञांतल्यान धृष्टद्युम्न नांवाचो एक चलो भायर आयलो आनी ळ्या रंगाची चली आयली. तिचेंच नांव द्रौपदी (महाभारत, १६७).

भागवताप्रमाण (स्कंध ९) रामावतारांत ती मायासीता म्हणून सीतेक रावणाचो स्पर्श जावंचो न्हय म्हणून अग्निन सीतेचें ें आनी मायासीता रामासांगाता रानांत गेली. तिचें रावणान . रावणाक मारतकच अग्निन रामाक सीता परत दिली आनी क सोडून दिलें. अग्नि आनी राम हांचे आज्ञेन मायासीतेन आराधना केली. 'म्हाका घोव दी' अशें पांच खेपे म्हण्टकच तिका वर दिलो आनी फुडल्या जल्मांत द्रौपदी म्हणून जल्माक पांच पांडवांची बायल जाली.

ो लग्नाची जातकच तिचें स्वयंवर थरयलें. ह्या वेळार पांडव तिल्यान सुटून एकचक्रा गांवांत, भिक्षा मागून, ब्राह्मणवेशांत धनुर्विद्येंत कुशळ आशिल्ल्याक द्रौपदी दिवंची म्हणून द्रुपदान ी धुंवपी यंत्र तयार दवरिल्लें. 'धोणवाक दोरी लावन जो लक्ष्याचो वेध करतलो, ताकाच द्रौपदी माळ घालतली' अशें ान सांगलें. कर्ण सूतपुत्र आशिल्ल्यान द्रौपदीन ताका पयलींच लो. सगळ्या राजांनी यत्न करून पळयतकच निमाणें अर्जूनान केलो आनी द्रौपदीन ताका माळ घाली. द्रौपदीकडेन धर्मराजान चें असो अर्जूनाचो हट्ट जाल्यार अर्जुनान द्रौपदीक जिखिल्ल्यान पदीकडेन लग्न करचें अशें धर्मराजालें म्हणणें. निमाणें पांचूय वय म्हऱ्यांत गेले आनी ताणीं सांगलें 'आयज आमी व्हड भिक्षा तेबरोबर सदचेप्रमाण कुंतीन 'तुमी ती वांटून घेयात' अशें पूण द्रौपदीक पळयतकच कुंतीक लजेसांगाता वायटूय दिसलें. उतर खरें करपाखातीर द्रौपदी पांचूय जाणांची बायल जाली. ल्याकडेन तिणें सारके दीस रावचें. ह्या काळांत हेरांनी तिचेसरेन ेय, जो कोण वचत ताका बारा वर्सां वनवास भोगचो पडटलो रयलें. असले चुकीक लागून फुडें अर्जूनाकूच वनवास भोगचो पडलो.

धर्मराज कौरवांवांगडा द्युतांत हारलो तेन्ना सावन द्रौपदीचे दुख्खी जीणेक सुरवात जाती. भरसभेंत दु:शासनान तिची विटंबणा केली. ह्या वेळार धृतराष्ट्रान तिका अभय दिवन वर दिलो. आपल्या घोवांची सुटका जावंची असो तिणें वर मागलो. धर्मराज परतून द्युतांत हारलो आनी पांडवांक द्रौपदीसकट वनवास भोगचो पडलो.

वनवासाउपरांत पांडवांचें दुर्योधनावांगडा झूज सुरू जालें तेन्ना द्रौपदीची कौरवांकडल्यान जाल्ले विटंबनेचो पांडवांनी सूड घेतलो. महाप्रस्थानाचे वाटेर द्रौपदीक मरण आयलें.

द्रौपदीक प्रतिविंध्य, सुतसोम, श्रुतकीर्ती, शतानीक आनी श्रुतकर्मा (श्रुतसेन) अशे पांच पूत जाले. पूण भारतीय झुजांत अश्वत्थाम्यान तांकां मारले.

- कों. वि. सं. मं.

**द्वंद्वयुध्द :** दोन सशस्त्र मनशांमदीं थारावन केल्लें झूज. सादारणपणान प्रतिश्ठेखातीर, केल्लो गुन्यांव सुदारपाखातीर, मतभेदांच्या निर्णयाखातीर वा अतिद्वेशाक लागून हीं झुजां खेळटात. अस्तंत्या देशांनी मध्ययुगांतल्या मानापमानाच्यो, सभ्यतायेच्यो आनी दिलदारपणाच्यो कल्पना हाच्या मुळांत आसताल्यो. अती मानवी शक्तीन दिल्लो निर्णय म्हळ्यार द्वंद्वयुध्द अशें मानताले. ईश्वर न्यायावटेन कौल दितलो ही भावनाय ताचेफाटल्यान आसताली. प्रतिश्ठेखातीर अशा झुजाचें आव्हान घेवंचें पडटालें. हातूंत बायल वा अशक्त मनीस आसल्यार, प्रत्यक्ष झुजांत ताचे आप्तइश्ट वा दुसऱ्या मनशाक ताचो प्रतिनिधित्व घेवपाचो वेवसायीक वर्ग तयार जालो, तांकां वस्ताद म्हण्टाले. जायते फावटीं रगत येतकच वा अचूक वार जातकच झूज बंद जातालें.

राश्ट्रीय स्वरूप आशिल्ली तशेंच व्यक्तिगत न्यायनिर्णय, प्रतिश्ठा, शूरताय हांचेखातीर द्वंद्व युध्दां जातालीं. न्यायदानांत दोशी - निर्दोशी थारोवपाखातीर आनी खरेपणाचो निर्णय घेवपाखातीर द्वंद्व युध्दां जातालीं. राश्ट्रीय द्वंद्वयुध्दांत राश्ट्राचे सेनेवतीन प्रतिनिधी म्हणून सगळ्या जैतीवंतांमदीं झूज जातालें. ज्या सैन्याचे सगळे झुजारी जैतीवंत जाताले त्या देशाक जैत मेळ्ळें अशें मानताले. देखीक, डेविड आनी गोलियथ वा सोहराब आनी रुस्तुम हांचीं द्वंद्वयुध्दां.

हुशारकायेची परिक्षा घेवपाच्या उद्देशान जर्मनिक टोळ्यांत द्वंद्वयुध्दाची सुरवात जाली अशें म्हण्टात. हाचो उल्लेख पुर्विल्ल्या कायद्यांत मेळटा. आदीं असलीं झुजां कायदेशीर मानताले. सोळाव्या शतमानामेरेन तांचो प्रसार शिमीत आशिल्लो. अठराव्या - एकुणिसाव्या शतमानांनी पिश्तोल वापरपाक सुरवात केली. द्वंद्वयुध्दांतल्यान न्याय मेळोवपाची कल्पना क्रिस्तांव इगर्जेक मान्य आसली तरी झुजांत जावपी हिंसक आनी प्राणघातक करण्यांक तांचो विरोध आसतालो.

भारतांतलीं द्वंद्वयुध्दां धर्मयुध्दाच्या नेमाप्रमाण जातालीं. तांचें अस्त्र गदा वा खड्ग आसतालें. मुष्टियुध्द, मल्लयुध्द हेय द्वंद्वयुध्दाचेच प्रकार. बाहुयुध्द, गदायुध्द वा खड्गयुध्द भुंयेवयल्यानूच जातालीं. घोड्यावयल्या वा हतयावयल्या द्वंद्वयुध्दाचे प्रकारय मान्य आशिल्ले. रामायण, महाभारत, पुराणां आदी ग्रंथांतल्यान जायत्या द्वंद्वयुध्दाचीं वर्णनां मेळटात. वाली-सुग्रीव, कृष्ण-चाणूर, भीम-दुर्योधन, भीम-कीचक, भीम-जरासंध हांचेमदल्या

द्वापर युग

झुजांची नामना आसा. भारतांत न्यायदानांत द्वंद्वयुध्दाक केन्नाच सुवात दिवंक ना. संग्रामांतूच संग्रामाचो एक वांटो म्हणून द्वंद्वयुध्दां जातालीं. सामान्यप्रमाण संग्राम-नितीप्रमाण द्वंद्वयुध्दां जातालीं.

युरोपांत सव्या शतमानासावन बर्गंडीचो राय गंडोबेंड हाणें द्वंद्वयुध्दाक प्रेरणा दिल्ली. फ्रांसाचो राजा चवथो हॅन्री आनी तेरावो लुई हांचे कारकिर्दीत आठ हजार सरदारांक ह्या प्रकारच्या झुजांत मरण आयिल्लें. आंतरराश्ट्रीय वादाचो निर्णय प्रत्यक्ष राजा द्वंद्वयुध्दान करतालो. जर्मनींत १९१४ मेरेन राश्ट्रवाद आनी स्वच्छंदतायवाद ह्या कल्पनांनी भारावल्ले विद्यार्थी आनी लस्करी अधिकारी व्हड प्रमाणार अशीं झुजां करताले. इटलींत द्वंद्वयुध्दाचे नितीनेम थरोवन ताक्का नितीक रूप दिवपाचो यत्न जालो. फुडें प्रतिनिधीवतीन झूज करपाची चाल पडली. झुजाचे शिक्षक तेचपरी वेवसायीक झुजारी हांकां व्हड प्रमाणांत मागणी आसताली.

कॅनडा-अमेरिकेंत सतराव्या शतमानासावन द्वंद्वयुध्दां जातालीं. जॉर्ज वॉशिंग्टनाचो इश्ट ॲलेक्झांडर हॅमिल्टन आनी तेन्नाचो उपराष्ट्रपती आरॉन बर तशेंच अँड्र्यू जॅक्सन (फुडें राष्ट्रपती) आनी चार्ल्स डिकन्सन हांचेमदीं द्वंद्वयुध्दां जाल्लीं. १८५९त गुलामगिरी दुस्वाशी सिनेटर डेविड ब्रॉडरिक आनी गुलामगिरीचो मोगी भूतपूर्व न्यायाधीश डेविड टॅरी हांचेमदीं जाल्ली द्वंद्वयुध्दाची संवसारीक नामना आसा. जपानांत सामुराई क्षत्रीय द्वंद्वयुध्दां करताले. द्वंद्वयुध्दाक गवाय नासताले. कोणाची तरसाद अतितीक्ष्ण आसा हें थरोवपाखातीर झुजाऱ्यांनी आपली तरसाद आपल्याच पोटांत तोपपाचे प्रकार घडटाले. चीनांत पुर्विल्ल्या काळांत संग्रामांत द्वंद्वयुध्दां जातालीं. तुर्कस्थानांत हें झूज खेळपी झुजारी एकामेकांक कपालान धुकलताले. हातूंत जो हारतालो तो स्वतःच्या गळ्यांत कटयार तोपून मरतालो. रशियेंत ट्युटॉनिक वंशिकांच्या सान्निध्याक लागून सरदार - दरकदारांत द्वंद्वयुध्दां जातालीं. राज्यक्रांती उपरांत द्वंद्वयुध्दांक कायमची बंदी आयली.

द्वंद्वयुध्दाचे १७७७ चे आयर्लंडी नेम (गॅलवे संहिता), १८३६ चे शातोविलर्ड आनी दक्षिण कॅरलायनाचो आदलो गव्हर्नर जॉन हायड विल्सन हाणें १८३८त उजवाडा हाडिल्ले द्वंद्वयुध्दाचे नेम आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**द्वापर युग :** कृतादी चार युगांतलें तिसरें युग. भाद्रपद कृष्ण तिरोदशीक बिरेस्तारा ह्या युगाची सुरवात जाली अशें म्हळां. ह्या युगाचीं लक्षणां अशीं : ह्या युगांतले अवतार कृष्ण आनी बुध्द. पुण्याय अर्दी, पाप अर्दें, तीर्थ नैमिषारण्य, ब्राह्मण नाडी पळोवपी, प्राण रक्तगत, मनशाचो देह सप्तहस्तपरिमित, पिराय हजार वर्सां, जेवण तांब्या आयदनांत. ह्या युगांतले राजा शाल्व, विराट, हंसध्वज, कंसध्वज, मयूरध्वज, वज्रवाहन, रुक्मांगद, जरासंध, दुर्योधन आनी युधिष्ठिर आनी लोक धर्माधर्मरत, प्रलापी, चपल आनी ज्ञाननिश्ठ आसतात. ह्या युगाचो तारकमंत्र असो -

हरे मुरारे मधुकैटभारे ।
गोपाल गोविन्द मुकुन्द शौरे ।
यज्ञेश नारायण कृष्ण विष्णो,
निरश्रयं मां जगदीश रक्ष ॥

त्रेतायुगांत ज्या मनशांनी सिध्दी प्राप्त करून घेतिल्ल्यो आसतात, तांचो द्वापरयुगांत नाश जाता. ह्या युगांत वर्णाश्रमांचोय ऱ्हास जाता. श्रुती आनी स्मृती हांचेमदीं एकचार उरना देखून अर्थाचो निश्चय आनी धर्मतत्त्वाचो बोध जायना. सगळेकडेन मतभेद दिसतात. संकर जाता. लोकांक अनावृश्टीक लागून मरण येता. तरेकवार लोक पिडीत जातात. लोकांमदीं लोभ, काम आनी दुस्वास द्वापर हें वैश्ययुग आसून तातूंत जायतीं झुजां जातात.

ह्या युगाक आठ लाख चवसठ हजार वर्सां आसतात. कौरव पांडव हांचें झूज द्वापरयुग सोंपून कलियुग लागलां तेन्ना जा मानतात. ह्या युगांत धर्माच्या चार पांयांतले दोन पांय गळून प

- कों. वि

**द्वारका :** पुर्विल्लें एक नामनेचें तीर्थक्षेत्र. हें गुजरात रा जामनगर जिल्ह्यांत गोमती न्हंयेचे देगेर आसा. हिंदूंच्या चार धामांभितर द्वारकेचो आस्पाव जाता. हिंदू लोक ह्या क्षेत्राक पवित्र मा

द्वारकेक द्वारावतीपुर, द्वारवती, द्वारमती, वनमालिनी अशीय आसात. 'कृता द्वारवती नाम बहुद्वारा मनोरमा' म्हळ्यार खूब आशिल्ली अशी द्वारवती नांवाची मनोरम नगरी निर्माण केली हरिवंशांत म्हळां. 'चतुर्वर्णानां मोक्षद्वाराणि सन्ति यत्रेति।' - जयं वर्णांखातीर मोक्षद्वारां उघडीं आसात, ती द्वारवती अशीय एक मेळटा.

कंसाचो वध जातकच, जरासंध आनी कालयवन हांणी म आक्रमण केलें. तेन्ना यादवांक त्रास जावपाक लागलो. त्या वेळार राजस्थानांतल्यान येवन रैवतक पर्वताच्या मुळाकडेन थंयच्या सागरति विश्वकर्म्याचे हस्तुकीं द्वारका नगराची उबारणी केली अशे पु म्हळां. महाभारत, हरिवंश आनी वायू, विष्णु, भागवत, वराह, स्कं पुराणांनी द्वारकेचीं वर्णनां आसात.

दर्यान कृष्णाचे द्वारकेखातीर १२ योजना जमीन दान दिली आ जमनीर कृष्णान द्वारका बांदली अशी आख्यायिका आसा. आपल्या शत्रू आपले प्रजेक त्रास जावंचे न्हय म्हणून कृष्णान द्वारकेची उबारणी उ केली अशीय आख्यायिका आसा. राश्ट्रीय समुद्रविज्ञान संस्थेचे वतीन द्वारका लागसरच्या दर्यांत केल्ल्या उत्खननांत पोन्न्या द्व शाराचे अवशेश मेळ्ळ्यात.

हांगा श्रीकृष्णाचें, भांगराचो कळस आशिल्लें देवूळ आसा. ह्या देव चार दारां आसून ह्या देवळाचो सभामंडप साठ खांब्यांचेर उबा आसा. मंदिरांतली चार भुजांची श्रीकृष्णाची मूर्त १.२ मी. उंच आसा. ह्या मंदिराभोंवतणीं खूब ल्हान-व्हड देवळां, कुंडां आनी आसात.

आद्य शंकराचार्यान भारताच्या चार दिकांनी ज्या चार धर्मपी स्थापणूक केली. तातूंतलें शारदापीठ नांवाचें धर्मपीठ द्वारकेंत आ

हांगा यात्रेकारांखातीर १० धर्मशाळा आसात. वसंत पंचम, अ तृतिया, गोकुळाश्टम ह्या परबां वेळार हांगा व्हडली जात्रा भरता.

ह्या नगराचे उत्तरेक १.५ किमी. अंतराचेर द्वारका बंदर अ हांगा पयलीं व्हड प्रमाणांत आयात-निर्यात जाताली. पूण हालीं अ बंदर जाल्ल्यान द्वारका बंदराचें म्हत्व उणें जालां. सदद्या थंय शिमिटाचो व्हड कारखानो आसा.

- कों. वि. स

…न : (पळेयात द्वैतवाद).

…ा : परमात्मो, जिवात्मो आनी हेर अचेतन विश्व हांचेमदलें द्वैत
…र सांगपी तत्त्वगिन्यान. संवसारांतल्या घटकांचें परस्पर संबंदीत
प्रयोजन, कार्य, अधिकार हांचे संबंदी मुखेल अशे दोन सिध्दांत
…एका सिध्दांताप्रमाण ह्या घटकांमदीं द्वैत म्हणजे भेद नासून
…क (निर्गुणब्रह्म) हेंच अंतीम सत्य आसा आनी उरिल्लें सगळें
…या आसा. ह्या सिध्दांताक अद्वैतवाद वा केवलाद्वैतवाद म्हण्टात.
…ताप्रमाण जिवात्मो आनी परमात्मो हांचेमदीं भेद नासून दोगांयचें
अस्तित्व हें अंतीम निर्णायक आसून उरिल्ल्या दृश्य विश्वाचें तें
…आसा. द्वैतवादाच्या सिध्दांताप्रमाण परमात्मो, जिवात्मो आनी
…न विश्व हांचें एकामेकांपसून वेगळें अशें स्वभावीक अस्तित्व
… सिध्दांता प्रमाण जीव आनी ईश्वर, ईश्वर आनी जगत, जगत
…, जीव आनी जीव आनी विंगड विंगड पदार्थ हांचेमदीं स्वभावीक
…ार भेद सांगल्यात.

…ातल्या वैष्णव, शैव आनी हेर पंथांनी आपलीं वेगवेगळीं तत्त्वज्ञानां
…ल्यांत. तत्त्वज्ञानांचीं मुळां भारतीय सुक्तांनी विशेश करून
…ी आनी उपनिषदांनी मेळटात. सुक्ता आनी उपनिषदांतल्या
…नाचेर केल्लीं भाष्यां हींच मुखार विस्तारीत जावन ह्या पंथाचीं
… म्हणून मुखार आयलीं. ह्या तत्त्वगिन्यानांमदीं विशिश्टाद्वैतवाद
…ाचार्य), द्वैताद्वैतवाद (भतृप्रपंच, भास्कर आनी निबार्क), द्वैतवाद
…र्य), शुद्धाद्वैतवाद (वल्लभाचार्य), अचिंत्यभेदाभेदवाद (चैतन्य
…भू), केवलाद्वैतवाद (शंकराचार्य आनी मंडनमिश्र) हीं मुखेल
…ाना आसात.

…द्वैतवाद हो आद्य शंकराचार्य (७८८-८२०) हाणें विस्तारीत
…ब्रह्म हेंच एक सत्य तत्त्व आसा अशें सिध्द केलें. आपल्या
…त मोक्षाक मुखेल ध्येय मानून त्यानुसार हेर संबंदीत विचार
…ल्यात. ब्रह्म होच आत्मो आसा आनी तो स्वयंसिध्द प्रमाण
… संवसारांतल्या हेर पदार्थांच्या अस्तित्वाक आनी ताच्या वेव्हाराक
…आशिल्ल्यान ताच्या अस्तित्वाक भायल्यान सिध्द करपाची गरज
…ो निराकरण जावंक शकना कारण तो स्वता निराकरण करपी
…आत्मो हो प्रारंभ बिंदू आशिल्ल्यान तो स्वता सिध्द आसा. ताचे
…र जगत सिध्द करप शक्य जाता. केवलाद्वैत वादाप्रमाण ब्रह्म हें
…कारण आसलें तरी हें कारणत्व सांख्याच्या त्रिगुणात्मक प्रकृती
…रेणामी कारणत्व ना. सांख्याची प्रकृती महत्, अहंकार, पंचतनमात्रे,
…तां हाच्या रुपान विकार पावता. पूण ब्रह्म अविकृत रावनच
… जाता.

…रवादी धर्माच्या सिध्दांताचेर आदारीत मध्वाचार्यान (सुमार ११९९-
…) द्वैतवादाचें तत्त्वगिन्यान उबें केलां. परब्रह्म भगवान विष्णु हो
…ासून उरिल्ले सगळे भाव-अभाव, चेतन-अचेतन, नित्य - अनित्य,
मुक्तियोग, मुक्तिक अयोग्य, अशे हे विष्णु परतंत्र आसात.
…र्मिती आनी प्रवृत्ती हीं सत्तेचीं तिनय लक्षणां ईश्वराधीन आसात.
…त्र आसून हेर सगळे पराधीन आसात. हेर विश्वाची सत्ता विष्णुच्या
आशिल्ल्यान तो हेर विश्वाच्या जिवनाचो आदार आसा.
…ब्रह्म स्वतंत्र आसा आनी तें विश्वाचें निमित्य कारण जावन सर्वज्ञ
आनी सर्वकर्ता आसा, हो मध्वाचार्याचो द्वैतवादी सिध्दांत शंकराचार्याच्या
केवलाद्वैतवादी सिध्दांतापरस वेगळो ना. पूण परब्रह्म हें हेर अचेतन
विश्वाचें उपादानकारण आसा अशें शंकराचार्याचें मत, जाल्यार विश्वाचें
उपादान कारण हें जड प्रकृती आसा अशें मध्वाचार्याचें मत.

शंकराचार्याचे 'उपदेशसाहस्त्रीत', 'दक्षिणामुर्तिस्तोत्रात', 'ब्रह्मसूत्रभाष्य', 'तैत्तिरीय', 'बृहदारण्यक', मंडनमिश्रांचो 'ब्रह्मसिध्दि', पद्मपादाचार्याचो 'पंचपादिका', प्रकाशात्मयतीचो 'विवरण'; वाचस्पति मिश्राचो 'भामती', अमलानंदाचो 'कल्पतरू', अप्पय्य दीक्षिताचो 'परिमल' आनी 'सिध्दांतलेशसंग्रह'; सुरेश्वराचार्याचो 'नैष्कर्म्य सिध्दि'; विमुक्तात्मयतीचो 'इष्टसिध्दि', रामानुजाचार्याचो 'शारीरकभाष्य'; सर्वज्ञात्ममुनीचो 'संक्षेपकशारीरक', श्री हर्षाचो 'खंडनखंडखाद्य', चित्सुखाचो 'तत्तवप्रदीपिका', विद्यारण्याचे पंचदशी, विवरण प्रमेय संग्रह आनी जिवन्मुक्तिविवेक; धर्मराजाध्वरींद्राचो 'वेदांतपरिभाषा' मधुसूदन सरस्वतीचो अद्वैतसिध्दी आनी 'तत्तवबिंदु' सदानंदाचो 'वेदांतसार' हे शंकराचार्याच्या केवलाद्वैतवादावयले मुखेल ग्रंथ-भाष्य-टीका आसात. दशोपनिषदांचीं भाष्यां, गीतातात्पर्य, ब्रह्मसूत्रभाष्य, न्यायविवरण, अनुव्याख्यान, ऋग्वेदभाष्य, महाभारततात्पर्य, भागवततात्पर्य, दशप्रकरणां, द्वादशस्तोत्रां अशे सुमार ३६ ग्रंथ बरोवन मध्वाचार्य हाणें द्वैतवादाचें स्पश्टीकरण आनी विस्तार केलो. उपरांत पद्मनाभतीर्थाचो (१३१८-९४) दशप्रकरण टीका, पदार्थसंग्रह, संन्यायरत्नावली, टीकाचार्य जयतीर्थाचे (१३६५-८८) अनुव्याख्यानावेली टीका, न्यायसुधा, दशप्रकरणांवयली टीका, प्रमाण पद्दत आनी वादावली, व्यासतीर्थाचे (१४७८-१५३९) न्यायामृत, तात्पर्यचंद्रिका, मंदार मंजरी आनी तर्कतांडव, वादिराजाचो युक्तिमल्लिका, राघवेंद्रतीर्थाचो तर्कतांडवावेलो न्यायप्रदीप हे द्वैतवादाचेर विवेचन करपी मुखेल ग्रंथ.

- कों. वि. सं. मं.

**धंय :** दुदाक विरजण लावन तयार केल्लो एक पदार्थ. दूद बरें तापोवन तें दुगदुगीत आसतनाच ताका विरजण लायतात. दूद तापयतकच जी दाट साय येता ते सायेक लोणयाखातीर वेगळें विरजण लायतात आनी उरिल्ल्या दुदाक वेगळें विरजण लायतात. विरजणाचें प्रमाण दुदाच्या १-५ % आसता आनी तें लायतना दुदाचें तापमान सु. ३२°सें. आसचें पडटा. धंय तयार जावंक सादारणपणान १० ते १२ वरां लागतात. शिंया दिसांनी धंय जावंक चड वेळ लागता. गरमे दिसांनी दुदाचें आयदन थंड जाग्यार दवरल्यार विरजण फसफसना. धंयाक गोडशी आंबसाण आयली म्हण्टकच तें वापरूंक वा लोणी काडूंक योग्य जालें अशें समजतात. विरजण चड दिसांचें (शेळें) आसल्यार धंय खूब आंबट जाता, चड फसफसता, वायट वास मारता आनी रुचीक कोडू लागता. धंय कोडू आनी पचक आसल्यार तें वापरपाक योग्य नासता. अर्दवट विरजल्लें तशेंच सायेसकट विरजल्लें धंय खावपाक बरें आसता.

लोणयांतलो स्निग्ध पदार्थ धंयाच्या वयल्या थरांत एकठांय जाल्ल्यान धंयाचेर दाट साय येता. उदाऱ्या आनी पसरट आयदनांत ही क्रिया जाता. धंयाचें आयदन बरें उदारें आसल्यार सायेंत ९०% परस चड स्निग्ध पदार्थ एकठांय जातात. विरजण लायतकच तीन चार वरांमेरेन दूद एक सारकें धवळींत रावल्यार स्निग्ध पदार्थ सगळेकडेन सारक्या

प्रमाणांत भरसता. धंयांत लॅक्टीक आम्लाच्या स्वरूपांत ०.६-१ % अम्ल आसता. दुदाची प्रत, विरजणांत खंयचे सुक्ष्मजंतू आसात आनी ते तयार जावक लागिल्लो वेळ हाचेर धंयाचें संघटण बदलता. लॅक्टोबॅसिलस बल्गेरिकस ह्या सुक्ष्मजंतूंचे चड प्रमाण आशिल्लें आंबट धंय दक्षिण भारतांत लोकप्रिय आसा. उत्तर भारतांतल्या खूबशा भागांनी उण्या प्रमाणांत आंबट आनी सुवासाचें धंय तयार करतात. धंयांत चड करून स्ट्रॅप्टोकॉकाय (स्ट्रॅप्टोकॉकस थर्मोफिल्स) आनी लॅक्टोबॅसिलस केसिआय हे सुक्ष्मजंतू आसतात. ह्या जंतूंची वाड जातकच दुदापसून धंय जावपाची क्रिया जाता. हें सुक्ष्मजीव दुग्धशर्करेचें (लॅक्टोझाचें) लेक्टीक आम्लांत रुपांतर करतात. दुदांतली आंबसाण वाडली म्हण्टकच दुदांतलीं प्रथिनां तळाक बसतात. तशेंच ह्या सुक्ष्मजंतूंतल्या रॅनॅट ह्या एंझायमाचे प्रक्रियेखातीर दुदांतलीं प्रथिनां तळाक बसून धंयाचें स्वरूप जॅलीभाशेन जाता.

अस्तंत्या देशांनी योर्गत नांवाचें गोड धंय वापरतात. अमेरिकेंत ताची बरीच नामना आशिल्ल्यान, व्हड कारखान्या वरवीं तयार करून कागदी आयदनांतल्यान तें आइस्क्रिमाभाशेन विकतात.

सदच्या आहारांत धंयाचो उपेग करतात. धंयापसून लोणी काडटात. तशेंच, ताचेपसून ताक, लस्सी, मठ्ठा, श्रीखंड, चीझ आदी पदार्थ तयार करतात. भारतांत उत्पादन जातल्या वट्ट दुदांतलें सुमार ९% दूद धंयाखातीर वापरतात.

आयुर्वेदांत धंयाचे सात प्रकार सांगल्यात ते अशेः गोड, आंबट, चड आंबट, अर्दें विरजल्लें, तापिल्ल्या दुदाचें, सायेचें आनी साय नासतानाचें. धंय उश्ण, स्निग्ध, जड, रुचीक, शुक्रधातुक हिताचें आसता.

पंचामृतांत धंयाचो आस्पाव जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**धंयकालो :** (पळेयात कालो).

**ध :** ध वर्णमाळेंतलें एकुणिसावें व्यंजन आनी त वर्गांतलो चवथो वर्ण. हाच्यो पांच अवस्था आसात. पयली गिरनारच्या अशोकाच्या शिलालेखांत, दुसरी मेवाडचो राजा अपराजित हाच्या काळांतल्या (इ.स. ६६१) कुंडेश्वराच्या लेखांत, तिसरी उदयादित्याच्या काळांतल्या (इ.स. चो ११ वो शेंकडो) उज्जयिनी हांगाच्या लेखांत आनी चवथी अबूचो राजा धारावर्ष हाच्या काळांतल्या (इ.स. १२०८) ओरिआ हांगाच्या लेखांत मेळटा. हाची पांचवी अवस्था सगळ्याक दिश्टी पडटा.

ध च्या रुपाचो विकासक्रम असो आसा –



कामधेनू तंत्रांत हाचें वर्णन केलां तें अशें –

धकारं परमेशानि । कुण्डली मोक्षरूपिणी ।
आत्मादितत्त्वसंयुक्तं पञ्चदेवमयं सदा॥
पंचप्राणमयं देवि । त्रिशक्तिसहितं सदा ।
त्रिबिन्दुसहितं वर्णं धकारं हृदि भावय ॥
पीतविद्युल्लताकारं चतुर्वर्गप्रदायकम् ॥

**अर्थ -** हे पार्वती, ध हो कुंडली, मोक्षरुपी, आत्मादितत्त्व पंचदेवमय, इत्सा, ज्ञान आनी कर्म ह्या तिनूय शक्तींनी युक्त आनी बिंदुंनी युक्त असो आसा. ह्या स्वरुपांत तूं ताची भावना कर. ताचो हळदुवो उज्याभाशेन आसून तो चतुर्वर्ग सादून दिता.

दंत हें ताचें उच्चारणस्थान आसा.

- कों. वि.

**धनका :** एक आदिवासी जमात. गुजरात आनी महाराष्ट्र ... ह्या लोकांची चड वसती आसा. हे लोक मूळचे पावागढचे आशिल्ल... समजूत आसा. अहमदाबादचो सुलतान महंमद बेगडा हाणें पावागढच्या राजाचो पराभव केलो तेन्ना ताचे सैनिक आनी लोक ... पळून गेले. थंय तांणी धान म्हळ्यार तरणें कड्डण खावन जीव ... ताका लागून तांकां 'धनका' नांव मेळ्ळें अशी आख्यायिका आसा. ताचे ... कांय लोक नर्मदेचे देगेर वचून रावले, तांकां तटवी हें नांव ... 'तडवी' हें नांव ताचेंच रुपांतर. तेभायर तेतरिया नांवानूय तांकां वळ... १९५६ वर्साच्या कायद्याप्रमाण तड्वी, तेतरिया, वळ्वी ह्यो ... धनकाच्योच पोटजाती आशिल्ल्याचें जाहीर करून तांचो आस्पाव ... जमातींत केलो. तेतरिया आनी तड्वी हे आपलो उल्लेख करतना ... धनका हें उतर लायतात. वळ्वी हे स्वताक उच्च समजतात. महाभार... धोणवाक असो उल्लेख आयला तेंच धनका आसुंये अशेंय एक मत ...

चडशे धनका लोक भिल्ली भास उलयतात जाल्यार कांय ... गुजराती आनी मराठी भास उलयतात.

धनका दादले बंडी, पुडवें घालून माथ्याक फेटो बांदतात. ... साडी आनी ब्लावज घालतात. बायलो रूपें-पितूळच्यो वस्ती घाल... सवायशीण बायलो मंगळसुत्राभाशेन 'हंसडी' हो अलंकार वापर... घोव मरत जाल्यार बायल हंसडीवांगडा आंगांतल्यो हेर वस्तीय ... दवरतात. त्यो कपलाचेर आनी हातांचेर स्वस्तिक, आंब्याची थाळ... हेर कसलीय आकृती पाडून घेतात.

तांदूळ, ज्वारी, बाजरी, तोरची दाळ हें तांचें मुखेल अन्न. ... तेन्ना ते भाजयो, मांस, नुस्तेंय खातात. रानांनी रावपी लोक ... रानटी फळां आनी कंदमुळां खावन पोट भरतात. लग्न सुवाळ्या... हेर कसल्याय परबांवेळार ते सोरो पियेतात आनी गंवाचे जिनस ... गोडशें खातात.

धनका लोक भिल्लांपरस उजळ आनी देखणे आसतात. दिसपा... तरतरीत आसतात.

तांचीं घरां काटकोनी वा आयताकार आसून तांच्यो वण्टी कुड... वा शेणान सारयल्लयो आसतात. तातूंत तीन वा चार कुडी आसून ... वारांद आसता. तांच्या घरांत मान्नें वा संडास नासता पूण ते ... नितळ, निवळ रावतात.

धनकांच्या धर्मांत वाघ्या, शिवाया, डोंगरदेव, गोप चौहान देव ... धानदेव ह्या देवांक भजतात. वाघ्या देव तांच्या गोरवांची आनी शि... देव गांवाची राखण करता अशी तांची समजूत आसा. ह्या देवांक ... लोक सोरो आनी कुकड ओंपतात. तशेंच उंचेरीमाता, नीचेरी ... खप्पर जोगिणी, कालिका राणी ह्या देवतांकूय ते भजतात. गोप ... हो सर्पदेव आसून, धानदेव तांच्या पिकांची राखण करता. शेंदूर ला...

.. तांच्या देवांचें प्रतीक आसता. धनीक लोक वर्सांतल्यान
.. ल्या ग्रामदैवतांची सामुदायिक पुजा करतात.

जादू, भुतांखेतां, दिश्ट लागप हांचेर धनका लोकांचो खूब
.. ासा. ह्या भुतांखेतांचें वा रोगाचें निदान करून तांचेर उपाय
..ाम ते गांवांतल्या भगताचेर सोंपयतात. ताका लागून भगताक
.. मान आसता. हिंदूच्यो चडशो सगळ्यो परबो हे लोक मनयतात.
..गांची उमास आनी नंदर्वो ह्यो तांच्यो खाशेल्यो परबो आसात.
..यार नवी कोमरी येवपाची परब. ह्यो परबो ते उमेदीन मनयतात.
.. चले-चलयो एकठांय येवन आपलो सांगाती वेंचतात.

.. पिरायेंत येतकच लग्नां जातात. आते-मामे भावंडांकडेन लग्नां
.. देर-भावजय हांचीं लग्नां जातात. चलयांची संख्या चल्यांपरस
..ल्ल्यान घटस्फोटाच्यो खूब देखी आसात. ताका 'फारकत'
.. लग्नाउपरांत घरांतलो पूत वेगळो रावता. बापायचे इस्टेटींत
..रको हक्क मेळटा पूण धुवेक कांयच मेळना.

..र घोवागेर जाता. पांच दीस सुवेर पाळटात. पांचव्या दिसा
..क न्हाणयतात आनी सटयेची पुजा करून भुरग्याचो बारसो

.. लोक मडें लासतात. मडें पयलीं न्हाणोवन नव्या वस्त्रान
..त. ताच्या तोंडांत रुप्याचें नाणें दवरतात. हेर विधी हिंदूभाशेनूच
..ल्हान भुरग्यांक पुरतात. धा दीस सुतक पाळटात. धाव्या आनी
.. दिसा सोयऱ्यांक जेवण घालतात. तेराव्या दिसा गांवच्या लोकांक
..लतात. ताका दहोद म्हण्टात.

..ंचो शेती हो मुखेल वेवसाय. कांय जाण रानांतलीं झाडां कापून
..ख म्होव एकठांय करून विकतात. हे लोक पयलीं कोंड्यांच्यो
..ांटले करून विकताले. पूण हालीं झाडां कापपाक बंदी आशिल्ल्यान
.. वेवसाय बंद जाला.

..ग जमातीचो सगळो वेव्हार पंचायत पळयता. जमातींतल्या
.. झाती पटेल वा कारभारी म्हण्टात. तो हेर पंचांच्या विचारान
..ले प्रस्न सोडयता. सरपंच वा पंच हे गांवांतल्या जाण्ट्या मनशांनी
..ासतात.

— कों. वि. सं. मं.

..र : एक जात. हांची वसती महाराष्ट्राच्या वेगवेगळ्या वाठारांनी
.. कानडी भाशेंत हे जातीचें नांव दनगार अशें आसा. दन म्हळ्यार
..ताचेवयल्यान दनकार-दनगार-धनगर (गोरवां पोसपी) अशे तरेन
..तयार जालो. आयज कोंकणांत धनगर हे गायो-म्हशी पोसपाचो
.. करतात. ते चड करून मेंढरां पोसतात.

..गरांचे उत्पतीविशीं एक कथा प्रचलीत आसा ती अशी - पुर्विल्ल्या
.. एकदां रोयणींतल्यान बोकड्यां-मेंढरांचे कळप भायर आयले
.. शेतांची नासाडी करूंक लागले. शेतकारांनी हो त्रास पयस
..ग्रातीर म्हादेवाची प्रार्थना केली. तेन्ना म्हादेवान त्यो बोकड्यो -
..ाखपाखातीर धनगराची निर्मिती केली.

..गरांमदीं २२ पोटभेद आसात. ते अशे - अहिर, अस्सल वा
.. धनजी, बरगेबंद वा मेठकरी, डंगे, गडगे, गवळी, धोगत्तुन्य,
..वा झेंडेवाले, होळकर, कंगर, खिक्री, खिल्लारी वा थिलारी, खुटे
वा खुटेकर, कुकटेकर, लाड, मेंढे, म्हसकर, सनगर, शेगर, शिळोत्या
आनी उटेगर, तांचेमदीं आडनावांनीं दाखोवपी कितलीशींच कुळां आसात.
वंशशास्त्राचे नदरेन धनगरांची गणना शक-द्रविडांत जाता. समाजवेवस्थेंत
तांची सुवात शुद्र वर्णांत मानतात. तांच्यांतल्यो खिल्लारी आनी हेर जायत्यो
पोटजाती अजुनूय मेंढरांचे कळप घेवन गांवागांवांनी हेडत आसतात.
तांच्या मेंढरांच्या कळपावांगडा शिकयल्ले शिकारी सुणेय आसतात. तांची
जातपंचायतूय आसता. ती दर तीन वर्सांनी जातीचे न्यायनिवाडे करता.
गोरवां, मेंढरां, पोसपावांगडाच धनगर लोक सद्या कांबळी विकपाचोय
वेवसाय करतात. धनगरांच्यो कांय पोटजाती लोकर विणपाच्या
वेवसायावांगडाच शेतकामाचोय वेवसाय आपणावन स्थायीक जाल्यात.

तांचीं घरां लांबचेलांब आनी खोंपीसारकीं आसतात. तीं तणाचीं
आसून तांकां एकूच दार आसता, जनेलां नासतात.

काश्टी, माथ्याक फेटो, खांदार कांबळ, पांयांक जोतीं आनी हातांत
लांब बडी असो धनगराचो भेस आसता. बायलो धोपरामेरेन चड करून



तांबड्या रंगाचें कांसाट्याचें न्हेंसण न्हेसतात. धनगर बायलांक रुप्यांचे अलंकार खूब आवडटात. धनगर दादले उजव्या हातांत रुप्याचें कडें घालतात. तांच्या कानांतूय रूप्याचीं कडीं आसतात. तांकां अंती म्हण्टात. धनगरांक धातवाच्या नाण्यांची ओड आसता. तांच्या भुरग्यांच्या गळ्यांत रुपयांच्यो माळो घाल्ल्यो आसतात. धनगर हो स्वभावान कश्टी आनी काटकसरी आशिल्ल्यान पयशे राखून दवरता.

सुर्यफूल, कमळ, पाचपालवी हीं धनगरांचीं देवकां. खंडोबा आनी
बिरोबा हे तांचे खास देव. जेजुरी (जि. पुणें) आनी आरेवाडी (जि.
सांगली) हीं त्या देवांचीं क्षेत्रां धनगर लोक म्हत्वाचीं मानतात. धनगरांमदीं
तुळजाभवानीचीय उपासना चलता. ते देवीचें नवरात्र मनयतात आनी
दसऱ्या दिसा देवीक निवेध्य करून नाल्ल दितात.

**लग्नप्रथा :** हांचेमदीं कूळ आनी देवक एकूच आसल्यार, लग्नसंबंद
जायनात. मामेभयणीकडेन लग्न जाता. पूण आतेभयण आनी मावसभयण
हांचेकडेन जायना. सख्ख्यो भयणी जावो जावो जावंक शकतात. लग्नाचो
म्हूर्त ब्राह्मणाकडल्यान थारोवन घेतात.

धनगर लोक मडीं लासतात वा पुरतात. उत्तरक्रियेखातीर ब्राह्मण
पुरयताक आपयतात. कांयकडेन उत्तरक्रियेखातीर कुंभार वा जंगम
आपोवपाचीय प्रथा आसा. हांचेमदीं श्राद्धविधीची चाल आसा.

धनगरांचें लोकसहित्य समृद्ध आसा. बिरोबाचे यात्रेंत वा हेर प्रसंगावेळार

**धनिष्ठा**

रातीकडेन व्हडल्या धोलाचे साथीर धनगर लोक आपलीं दीर्घ लोकगितां रातभर गायत आसतात. ह्या गितांनी बिरोबा देवाच्यो चरित्रकथा आनी हेर कथांचो आस्पाव आसता.

महाराष्ट्राच्या घाट माथ्यावयल्यान धनगर जात गोंयांत देंवली आनी नवे काबीजादींत स्थायीक जाली. सत्तरी आनी दिवचल म्हालांनी धनगरांची संख्या चड दिसता. गोंयांतल्या धनगरांचे रीत रिवाज हे सर्वसामान्य धनगराच्या रीत रिवाजां प्रमाणूच आसात. हेर प्रांतांतल्या धनगरांप्रमाण गोंयांतलेय धनगर दोंगरांनी रावतात आनी बोकड्यो, मेंढरां पाळून आपली उपजिवीका चलयतात. हेर धनगरांप्रमाण गोंयांतले धनगर हे अर्थीक, शिक्षणीक आनी राजकीय नदरेन हेर अनुसुचीत जातींच्या मानान खूब फाटीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**धनिष्ठा :** आश्विन्यादी गणनेंतलें तेविसावें नखेत्र. हाचें वैदिक नांव श्रविष्ठा. धनिष्ठा म्हळ्यार गिरेस्त आनी श्रविष्ठा म्हळ्यार फामाद. श्रवणाचे उदेंतेक पूण मातशें उत्तरेवटेन हें नखेत्र आसा. अस्तंत पद्दतीप्रमाण तिमी (डॅल्फिनस) ह्या गिन्या चोम्यांतल्या आल्फा, बीटा, गामा, डॅल्टा आनी एप्सायलॉन हे पांच वा कांय जाण हातूंत आनीक एक गिन्याचो आस्पाव करून स गिरे समजतात. ह्या नखेत्राचो आकार शेंपडेसयत ल्हान पतंगावरी आसा. ऑक्टोबराचे १० तारखेच्या सुमाराक रातचे आठ वरांचेर हें नखेत्र मध्यमंडलाचेर (जंय उदेंतेक आनी अस्तंतेक रेखांश मेजतात) दिसता. हातूंतले दोन गिरे तिसरे प्रतीचे आनी तीन वा चार गिरे चवथे प्रतीचे आसात. हातूंतलो आल्फा गिरो हो योगगिरो आसून ताचे विषुवांश २० व. ३० मी. १८०० से. आनी क्रांती १५° ४२ मी. ४५२ से. उ. अशी आसा. गामा हो गिरो युग्मगिरो आसून तातूंतलो एक भांगरावरी हळदुवो आनी दुसरो निळसार पाचवो आसा.

क्रिश्ता आदीं ३००० च्या सुमाराक धनिष्ठा नखेत्रांत सूर्य आसतना उत्तरायणाक सुरवात जाताली. वेदांग ज्योतिश पद्धतीन धनिष्ठा हें पयलें नखेत्र समजतात. बार्हस्पत्यसंवत्सर चक्राची सुरवात धनिष्ठेपसूनच जाता. ताची देवता वसू आनी आकृती मर्दल (धोलकें) आसा. ह्या नखेत्राचे पयले दोन चरण मकर आनी फुडले दोन चरण कुंभ राशींत येतात. धनिष्ठापसून रेवतीमेरेनच्या पांच नखेत्रांक धनिष्ठापंचक म्हण्टात. ह्या पंचकांत आयिल्ले मरण वायट समजतात. ह्या नखेत्राचेर जल्मल्लो मनीस गिरेस्त, शीलवान, बळिश्ट आनी किर्तीमान जाता अशें कोष्ठीप्रदिपांत म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

**धनु :** (सॅजिटेरियस). राशीचक्रांतली णववी रास. ही सगळ्यांत दक्षिणेकडली रास. भारतीय पद्दतीप्रमाण मूळ, पूर्वाषाढा आनी उत्तराषाढाचो पयलो चरण (चतुर्थांश) हीं सवायदोन नखेत्रां हे राशींत येतात, पूण अस्तंते क्षेत्रात्मक पद्दतींत मूळ हें वृश्चिक राशींत आस्पावल्लें आसा. वयलो भाग धनुर्धारी मनशाचो आनी सकयलो भाग (धड) घोड्याचो असो



अश्वमानव प्राणी, अशी हे राशीची आकृती आसा. गुरू हो तिचा ही रास उदेंतेची स्वामिनी आसून ती अग्नीराशी आनी क्ष समजतात. ही राशी वृश्चिक आनी मकर राशीच्या दरम्यान विस्त १७ ता. ४० मि. ते २० ता. २० मि. आनी क्रांती -१२° ते ज्योतीशशास्त्रीय सहनिर्देशक पद्दत) पातळिल्ली आसा. ही रा आनी ऑगस्टांत रातची दक्षिणेकडेन बरी दिसता. हिच्यांत सवे प्रत ४७ नखेत्रां आसून तातूंतले डॅल्टा, एप्सायलॉन, लॅम्डा, झीटा, बीटा आनी म्यू हीं म्हत्वाचीं नखेत्रां आसात. आकाशगंगेचो म तेजिश्ट भाग धनु राशींत आसून आकाशगंगेचो एक फांटो हे राश गेल्लो दिसता. हिच्या वायव्य भागांत नखेत्रांची भरपूर दाटी तातूंत गिन्यांचोमो, अभ्रिका, तीन नवगिरे, दोन सेफीड रूपविक सॅजिटेरियस-ए हो रेडिओ उद्गम आदी म्हत्वाचे खस्थ पदार्थ दक्षिण संस्तंभ (दक्षिणयनान्त बिंदू) हे राशींत आसून २२ डिसेंब सूर्य थंय येवन उत्तरायणाक सुरवात जाता. २२ नोव्हेंबराक राशींत प्रवेश करता. कार्ल जान्स्की हाणें हें राशीचे दिशेकडल्यान प्रारण (तरंगरूपी उर्जा) येता आशिल्ल्याचें १९३१-३२त सोदून ग्रीक पुराणकथेप्रमाण चिरॉन हो सॅटर्नचो (शनीचो) चलो, एक धनुर्धर आशिल्लो. हर्क्युलीसाच्या विखारी बाणान ताका मरण ज्युपिटरान (गुरून) ताका मळबांत तान्यापद दिलें. तो मळबांत वृ बाण रोखून आसा. चिरॉन म्हळ्यार बैल मारपी अशेंय समजतात धनु रास उदेता तेन्ना वृषभ (बैल) राशींतल्या गिन्यांचो अस्त ज

हे राशींत जल्म घेवपी मनीस रागीट, सडसडीत उलोवपी हुशार, पुण्यकर्मा करपी, सुखी आनी धनवान जाता, अशें जातक आदी ग्रंथांनी सांगलां.

- कों. वि

**धनुर्मह :** एक पुर्विल्लो लोकोत्सव. ह्या उत्सवांत वीर मनीस धो दोरी चडोवन आपल्या बळाचें प्रदर्शन करता देखून हाका धनुर्म म्हळ्यार धोणू आनी मह म्हळ्यार उत्सव) अशें नांव पडलें.

रामायण, महाभारत, हरिवंश आदी ग्रंथांनी धनुर्महाचीं वर्णनां म सीतास्वयंवराच्या वेळार मिथिलेंत जो उत्सव जाल्ल्याचो राम उल्लेख मेळटा तो धनुर्महच. तेन्ना रामान शिवधोणू बागोवन ज दवरिल्लो पण जिखिल्लो. महाभारतांत द्रौपदी स्वयंवरावेळार धनुर्वि कसब दाखोवपाचो पण आशिल्लो. हाचेवयल्यान अशें दिसता, पु काळांत धनुर्महाच्या निमतान राजकुवरांक एकठांय आपोवन ध जांची सगळ्यांत बरी कुशलताय दिसताली ताका आपली धूव दि प्रथा आशिल्ली.

हरिवंशांत कंसान केल्ल्या धनुर्महाचें वर्णन दिलां. हरिवंश वर्णनावयल्यान अशें दिसता, ज्या जाग्यार हो वा अशे तरेचो जातालो ताका रंगवाट म्हण्टाले. ह्या जाग्यार पौर वा जनपद बसोवपाखातीर माची घालताले. राजाक बसपाखातीर उंच विम माची घालताले. ताका विमान अशेंच नांव आशिल्लें.

अतिपुर्विल्ल्या काळांत जायत्या आदीम जमातींनी अशा बळप्रदर्श उत्सवाची चाल आशिल्ली. धनुर्मह म्हळ्यार ह्या उत्सवाचें एक रू

- कों. वि.

ार : सूर्य धनु राशींत आसता त्या काळाक धनुर्मास अशें
ा म्हयन्यांत दरेका दिसा सूर्य अस्ताक वचचेआदीं देवाक
करून ब्राह्मणा वांगडा भोजन करचें अशें सांगलां. तशें शक्य
णोच एक दीस तरी तशें करचें अशें म्हळां. धनुर्मासाची कथा
द्रादी देवांनी विष्णुक प्रार्थना केली, तूं आमकां दैत्याच्या
न सोडय. तेन्ना विष्णुन धोणू घेवन दैत्यांचो नाश केलो. ही
र्य धनु राशींत आसतना घडली देखून ह्या काळाक धनुर्मास
ेळळें.

तमीळ वाठारांत मात हो काळ अशुभ समजून त्या काळांतल्या
रणाखातीर ते लोक ग्रहशांती, जपजाप्य करतात.

स व्रत : हें एक काम्यव्रत. सदांच फांतोडेर विष्णुची पुजा
वंचे आदीं मुगाच्या दाळीची खिचडी आनी तुपांत भाजिल्ल्या
खीर करून देवाक निवेद्य दाखोवप आनी ब्राह्मणाक बरोबर
ा हो ह्या व्रताचो मुखेल विधी. कांय लोक ह्या व्रतांत ब्राह्मणाक
आनी सुर्याक कुंवाळो आनी नाह्म दितात.

ा उद्यापना दिसा श्रीकृष्णाचे भांगराप्रतिमेची पुजा करतात.
आज्य आदी द्रव्यांनी होम करतात आनी देवाचे फाटले वटेन
पो बळी दितात. भटाक ती भांगराची प्रतिमा आनी गाय दान
नी ब्राह्मणाक जेवण वाडटात. अशें केल्ल्यान इहलोकांत तरेकवार
क मेळटात आनी निमाणें विष्णुपदाची प्राप्ती जाता अशें म्हळां.

- कों. वि. सं. मं.

ा : धोणू आनी बाण हीं शस्त्रां चलोवपाविशींचें गिन्यान दिवपी
र्विल्ल्या काळा सावन लोकांक धनुर्विद्येची म्हायती आशिल्ली.
य' ह्या ग्रंथांत हे विद्येचे जनक म्हणून ब्रह्मा, प्रजापती, इंद्र, मनू
दग्नी हांचीं नांवां सांगल्यांत. अगस्त्य आनी भरद्वाज हे धनुर्विद्येचे
आशिल्ले, अशें महाभारतांत म्हळां. अग्नीपुराणांतल्या २४९ ते
चार अध्यायांनी धनुर्विद्येचें सार संकलीत केलां.

दोरी आनी बाण हे ह्या अस्त्राचे मुखेल घटक आसून, तांची
स्वरूप आनी उपेग अशे आसात.

: लवचीक पूण कठीण बडयेक बाग दिवन तिचीं दोन तोंकां
जोडटकच सादें धोणू जाता. भारतीय पुराणांत धोणूचो शार्ङ्ग
आनी वांश (कोंड्याचें) अशे दोन प्रकार सांगल्यात. फुडें
गिन्यानांत उदरगत जाली आनी धोणवाचे रचणुकेंत बरोच
डून आयलो. ताका लागून दोन मिटर लांबाये इतलें संयुक्त धोणू
रप शक्य जालें. पिनाक, शार्ङ्ग हीं संयुक्त धोणू आसून तांची
तीन मिटरांमेरेन आसताली. हीं दीर्घ धोणवां धनुर्धराचे उंचायेइतलीं
रसूय लांब आसतालीं.

नी दीर्घ धोणवाचे कांबीचो मुठीवयलो भाग कांबीच्या सकयल्या
स मातसो लांब आसता. पूण धोणवाची वट्ट लांबाय २१० सेंमी
) इतली आसता. आदिवासी आनी मोटवे लोक ल्हान आनी सादीं
वापरतात. कांय वेळार बाण विखान बुडोवन विखारी करप
कौटिल्यान आपल्या अर्थशास्त्रांत धोणवाचे कार्मुक, कोदंड,
नी धोणू अशे चार प्रकार सांगल्यात. 'कोदंडमंडन' नांवाच्या
धोणवाच्या अठरा जातींचो उल्लेख आयला. धोणवाच्या
वजनावयल्यानूय तांचे विंगड विंगड प्रकार थारायताले. जनकाचें शिवधनुश्य
रावणासारख्या बळिश्ट असुरांक उबारपाक जमलें ना, अशें रामायणांत
म्हळां आनी श्रीकृष्णाचें शार्ङ्ग धोणू अश्वत्थाम्याक उबारपाक जमलें ना,
असो उल्लेख महाभारतांत आयला.

**दोरी** : आंतकड्यांचे स्नायू, वादी, वेतासारकी वनस्पत वा कृत्रीम
तंतू हांचेपसून धोणवाची दोरी तयार करतात. ती दोरी ओडटना दुखापत
जावंची न्हय, म्हणून बोटाचेर आवरण (मणिबंध) घालतात. धोणवाचे
दोरयेक ज्या, मौर्वी, प्रत्यंचा, गूण आदी शब्द वापरल्यात.

**बाण** : बाण हो कोंडो, वेंत, तंतुकाच वा तिखें हांचेपसून तयार
करताले. बाणाचें तोंक शिंगाचें वा धातवाचें करताले. ताचे फाटल्या
तोंकाक बकें, हायस, मोर आनी हेर सुकण्यांचीं पिसां लायताले. पिसांक
लागून ताचो गमनमार्ग थीर जाता. पुर्विल्ल्या काळांत बाण सोडचे पयलीं
खंयचेय देवतेचो मंत्र म्हणून तो सोडटाले. जे देवतेचो मंत्र म्हणप
जातालें ते देवतेची कृपा जावन ताचो परिणाम बाणाचेर जातालो. अशो
आख्यायिका महाभारत, रामायण धरून सगळ्याच धर्मीक ग्रंथांनी आसा.
देखीक अग्नीदेवतेचो मंत्र म्हणून सोडिल्लो बाण, उजो निर्माण करतालो.
पर्जन्य देवतेच्या नांवान सोडिल्लो बाण पावस घालतालो. बाणाक वीख
लावपाचीय प्रथा आशिल्ली.

बाण एकठांय दवरपाखातीर लांबट मुकुटाच्या आकाराची चामड्याची
वा धातवाची पोती वापरताले. तिका भातो म्हण्टाले. धनुर्धर भातो आपले
फाटीर उजव्या भुजार फाटल्यान बांदतालो.

बाण दोरयेचेर चडयलो, तरी तो धरून ओडपाखातीर मात आखाणो
आनी बोटांचो (करंगळी सोडून) उपेग करताले. धनुर्वेदांत कांबीचेर बाण धरप वा बाणाक धरप हाचेविशीं म्हायती दिल्या. धोणवाची दोरी कानामेरेन ओडपाची पद्दत आसा. कमान एके खाशेले मर्यादेंत ओडल्यार बाणाचो तीर आनी वेग जाय तसो जाता. धनुर्वेदांत बाणाचे उत्तम, मध्यम अनी



कनिश्ट अशे तीन प्रकार सांगल्यात. कौटिल्यान बाणाचे वेणू, शर,
दंडशर, शलाका आनी नाराच अशे पांच प्रकार सांगल्यात .

धनुर्वेदांत धनुर्विद्येविशींची विस्तारान म्हायती दिल्या. धोणू-बाण तयार
करपाखातीर खंयचे पदार्थ घेवंचे, धोणू-बाणाचे प्रकार, ताचे उपेग
हाचेविशींची म्हायती आसा.

धोणू-बाण ह्या शास्त्रांचो सिद्धांत तीन गजालींचे भोंवतणी आसा.
धोणवाचे दाणयेक ताणून शक्त निर्माण करप, नेम धरतना तिका तात्पुरती

## धनुर्विद्या

सांठोवन दवरप आनी उपरांत धोणूच्या सदळसाणीतल्यान शक्तीचें वेगांत रुपांतर जावप.

**इतिहास :** धोणू आनी बाण हांचो वापर सुमार १०,००० वर्सां पयलीं सूरु जालो. शेवटून मारपाचे कलेंत धोणू हें मानवनिर्मित पयलें यांत्रिक आवत अशें मानतात. चाक आनी उज्याचो सोद, हाचे इतलोच धोणवाच्या सोदान आपलो प्रभाव समाज बदलाचेर घाला. गोफीण ही असल्या आवतां मदली धोणू आदीची अवस्था काय ती धोणवाच्या यांत्रिकी तत्त्वाचेर बसयल्ली उपरांतची कृती हें समजुपाक कुस्तार जाता. कळीत जालां तो मेरेनच्या इतिहासाप्रमाण गोफींण आनी धोणू हीं दोनय आवतां वांगडाच वापरांत आशिल्लीं दिसतात. भालो फेक, गोळो फेक ह्या मानवी शक्तींचेर आदारीत शस्त्रांची फुडली आवृत्ती म्हणून धोणवाची कल्पना मुखार आयल्या आसूं येता.

शिकारेचें एक प्रभावी शस्त्र म्हणून धोणुचो वापर खूब आदीं सावन जातालो हें वेगवेगळ्या सांस्कृतिक उत्खननांत सांपडिल्ल्या पुराव्यांवेल्यान सिद्ध जाता. वैदिक वाङमयांत धोणवाचे खूब कडेन उल्लेख आयल्यात. ऋग्वेदांत धोणवाक आनी ते चलयतल्या धनुर्धरांक म्हत्व दिलां. कौषीतकि ब्राह्मणांत धनुष्य आनी बाणाचे दक्षिणेचो उल्लेख आसा. महाभारतात तशेंच रामायणांत धोणू हें मुखेल अशें प्रतिशठीत शस्त्र मानलां. आवाजावेल्यान आनी प्रतिबिंबावेल्यान धोणवाचो नेम लावपाची कला धनुर्धराक अवगत आसली. महाभारतांत उदकांतल्या प्रतिबिंबाक पळोवन अर्जुनान मत्स्यभेद केलो अशें द्रौपदी स्वयंवरांत दाखयलां. आवाजाच्या रोखान दशरथान सोडिल्लो बाण श्रावणाक लागलो अशें रामायण कथेंत सांगलां. आपले आपुणूच धनुर्विद्येचो अभ्यास करून बाणाच्या आदारान कुत्र्याचें भोंकप एकलव्यान बंद केलें अशीय कथा आयकूंक येता. अर्जुनाचें गांडिव धोणू, विष्णुचें शार्ङ्ग धोणू, शिवाचें पिनाक धोणू आनी रामाचें कोदंड धोणू हीं आदल्या मुस्तींतलीं कांय नामनेचीं धोणवां.

कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांत मौर्यकालीन धनुर्विद्येची म्हायती दिल्या. यजुर्वेदाचो उपवेद आशिल्लो धनुर्वेद हो धनुर्वेदाची विस्तारान म्हायती दिता. तांच्याच वांगडा धनुर्वेदसंहिता, कामन्दकीय नीतिसार, अग्निपुराण, मत्स्यपुराण, विष्णुपुराण, वीरमित्रोदय, कथा सरित्सागर, युध्दजयार्णव, युक्तीकल्पतरु ह्या पुराणकालीन ग्रंथांनी धनुर्विद्या संबंदाची म्हायती मेळटा. तेभायर पोरनी नाणीं, शिल्पां, लेणीं, चित्रां हातुंतल्यानय धोणवाची आनी धनुर्धराची म्हायती मेळटा.

सुर्वेक पायदळ, रथदळ अशी अवस्था आसली. इराणी,तुर्क, मुगल, हाणीं धनुर्धारी घोडदळ निर्माण केलें. पुर्विल्ल्या काळांत धनुर्विद्येंत अक्कड, हिटायट आनी ॲसिरिया हीं राश्ट्रां बरींच मुखार आशिल्लीं. संयुक्त धोणवाचो आनी संघटीत रितीन धनुर्धरांचो झुजांत उपेग करपाक थंयच सुरवात जाली. इजिप्तांतल्या पिरॅमिडांच्या वण्टी चित्रांनी धोणू-बाणाचें उत्पादन, शिक्षण आनी झुजांतली धनुर्धरांची करामत आदी गजालींचें दर्शन घडटा. ग्रीसी आनी रोमी लोक धनुर्विद्येंत फाटीं आशिल्ले. तुर्क-मोगलांच्या संपर्काक लागून धनुर्विद्येंत चीनान बरीच उदरगत केल्ली. संकर धोणवाचो जल्म पयलीं चिनांत जालो आनी थंयच्यान तुर्क-मोगलांचे घुरयेक लागून युरोपांत ताचो प्रसार जालो. सिथियन, हूण आनी तुर्क-मोगलांचे धनुर्विद्येचो युरोपी धनुर्विद्येचेर बरोच परिणाम जाला.

**क्रीडा प्रकार :** इ. स. चवथ्या शेंकड्यासावन धनुर्विद्येकडेन एक क्रिडाप्रकार म्हणून पळोवपाक लागले. संवसारांतल्या चडशा देशांनी एक स्पर्धात्मक क्रिडाप्रकार म्हणून ताका मान्यताय मेळ्ळ्या. युरोपा[illegible] विशेश करून ब्रिटनांत १५३७त धनुर्विद्या हो क्रिडाप्रकार संस्था[illegible] मुखार आयलो. हेन्री VIII (१५३७),जेम्स I (१६०५), चार्[illegible] (१६३३), जॉर्ज (IV) (१७८७), हांच्या वरवीं ह्या संस्थांक [illegible] मेळून धनुर्विद्येचो एक क्रिडाप्रकार म्हणून बरोच विकास जालो [illegible] टॉक्स, ध ऑनरेबल आर्टिलरी कंपनी आनी फीन्स बरी आर्[illegible] नॅशनल आर्चरी सोसायटी ह्यो त्या त्या वेळावयल्यो कांय मुखे[illegible]

उत्तर अमेरिकेंत संस्थात्मक धनुर्विद्येची सुरवात १८[illegible] जाली. हे संस्थेन इंग्लीश धनुर्विद्येची पद्धत आपणायली [illegible] नॅशनल आर्चरी असोशिएशन ऑफ ध युनायटेड स्टेट्स स्थाप[illegible] तिणें पयली राष्ट्रीय धनुर्विद्या सर्त त्याच वर्सा शिकागो शारात [illegible] केली आनी फुडें सातत्यान चालू दवरली. १९३९ त कॅलिफ[illegible] धनुर्धरांनी नॅशनल फिल्ड आर्चरी असोसियेशंन ऑफ युनायटे[illegible] ही संस्था स्थापन करून शिकार आनी मुक्त वापर ह्या प्र[illegible] उत्तेजनाखातीर वावर केलो.

ह्या खेळांतले धोणू सुमार १.८३ मी. लांब आसून तें लाकू[illegible] वा लोखण हांचेपसून तयार करतात. धोणवाच्या सकयल्या आनी [illegible] तोकांक जोडपाखातीर ताग, रेशीम वा कापूस हांच्या सुतापसू[illegible] केल्ल्या टणक दोरयेचो वापर करतात. धोणवाच्या मध्यबिंदू[illegible] दोरयेमेरेनचें अंतर सुमार १५.२४ सेंमी. आसता. बाण लाक[illegible] लेगीत तयार करतात. तो सुमार ६८.५८ सेंमी. लांब आनी १२.७० सेंमी. घेराचो आसता. ताचें तोंक धातवाचें आसता.

मुखार लक्ष्य दवरिल्लें आसता. लक्ष्याचें अंतर हें दादल[illegible] स्पर्धकांप्रमाण आनी तांचे पिरायेच्या गटाप्रमाण वेगवेगळें आसत[illegible] कितले लांबायेचेर वतलो, हें धोणवाचेर आनी बाणाच्या वजनाचेर [illegible] आसता. लक्ष्य हें चड करून जमनीपसून सुमार १२१.९२ सेंमी. आनी तितल्याच व्यासाचें आसता. ताचेर वेगवेगळ्या रंगाची [illegible] काडिल्लीं आसतात. तातूंतल्या खाशेल्या रंगाच्या वांटकुळाक बाण जाल्यार थरावीक गूण मेळटात. ते गूण अशे - भांगराकोर -९ -७, निळो -५, काळो -३, धवो -१. जो धनुर्धर वा ज्या देशाक[illegible] चडांतचड गूण मेळयता तो जैतीवंत जाता.

धनुर्विद्या ह्या क्रिडाप्रकाराखातीर संवसारीक पांवड्यार एक संघटना १९३१ वर्सा स्थापन जाली. ऑलिंपीक सर्तींनी ह्या आस्पाव १९००, १९०४, १९०८ आनी १९२० त आनी ते १९७२ सावन परतून केलो. १९०० त जाल्ल्या पयल्याच ऑलि[illegible] मेकिनतोश (ऑस्ट्रेलिया), यच हेरॉयन (फ्रांस). इ मोगीन (फ्रांस[illegible] व्हान. इनीस (बेल्जियम); इ फॉलोन (फ्रांस) आनी इ ग्रॅमीटस[illegible] हांणी पदकां जोडिल्लीं. उपरांत १९०४ सालांतल्या ऑलंपिक दादल्यांनी आनी दोन बायलांनी मेळून ४ पदकां अमेरिकेन हा[illegible] १९०८ त ग्रॅट ब्रिटन, फ्रांस आनी बेल्जियम हे देश आघाडेर उपरांतच्या काळांत बेल्जियम आनी अमेरिकन खेळगड्यांनी ह्या [illegible] आपलें प्रभुत्व दवरलां.

भारतांत १९७३ त अखिल भारतीय आर्चरी फॅडरेशनची स[illegible] जाली. ऑक्टोबर १९७३त पयली राष्ट्रीय सर्त जाली. [illegible] राज्यांतल्या खेळगड्यांनी वांटो घेतलो आनी अस्तंत बंगालच्या वस्तादपण मेळयलें आनी मेघालयाच्या पंगडान उपवस्तादपण [illegible]

ाचो डी. घोष हो हे सर्तींतलो उत्कृश्ट धनुर्धर थारलो.

- कों. वि. सं. मं.

रे देवांचो वैज आनी विष्णुचो एक अवतार. हार्णेच उपरांत ा रुपांत पुनरावतार घेतलो अशें मानतात. रोग बरे करपी प्रक्रिया ज्या आयुर्वेदांत सांगल्या त्या आयुर्वेदाचो मुखेल शीच्या पुर्विल्ल्या पुराणकाळांतल्या राजवंशांतलो हो आयुर्वेदाचो ाल्लो धन्वंतरी राजा. हरिवंश, विष्णुपुराण, अग्निपुराण, ागवत, महाभारत तशेंच आयुर्वेदाविशींच्या सुश्रुतसंहिता विष्णुच्या अंशापसून निर्माण जाल्लो धन्वंतरी हो देव काशीच्या राणसीक मनीसरुपान अवतरलो अशें म्हळां. तेचपरी ताणेंच ा केलो अशेंय म्हळां. हरिवंशांत ही वंशपरंपरा अशी सांगल्या ) दीर्घतपा ३) धन्व ४) धन्वंतरी ५) केतूमान ६) भीमरथ . कांय पुराणांनी दिवोदासाकच धन्वंतरी म्हळां.

ेख केल्ल्या पुराणांत विस्तारान समुद्र मंथनाची कथा आयल्या. त्पर्य अशें : अमरत्व मेळपाखातीर देव आनी दानव हाणीं गराचें मंथन केलें. तेन्ना तातूंत चवदा रत्नां मेळ्ळीं. तातूंतलोच देव

ांत अमृताचो बुडकुलो घेवन हो देव प्रकट जालो. उदकांतल्यान ून ताका 'अब्ज' म्हण्टात. विष्णुन ताका वर दिलो, 'तूं काशीराजाच्या घराण्यांत घेतकच जल्मतनाच तुका सगळ्यो जातल्यो, यज्ञांत तुकां येजमान देव समजून आहुती दितले टांग आयुर्वेदाचो प्रवर्तक जातलो.

माराभायले प्रतिभेन वेगवेगळ्या वखदांचें सार अमृताच्या मेळ्ळें आनी ते अमर जाले. देखुनूच ताका देवांचो वैज वतरीन चिकित्सेचें गिन्यान भास्कराकडल्यान मेळयलें आनी ायुर्वेद संहितेच्या आदारान चिकित्सातत्त्वविज्ञानतंत्र नांवाचो अशी पारंपारीक म्हायती आसा.

पुराणांत विष्णुच्या चोवीस अवतारांमदीं धन्वंतरिचो आस्पाव ्या अवताराची प्रतिष्ठा मेळिल्ल्यान वैष्णव मुर्तीसंभारांत आस्पाव जाला. शिल्पग्रंथांत ताचे मुर्तीचीं लक्षणां दिल्यांत ्या आयुर्वेदाचे आठ वांटे आसात ते अशे - १) काय ) २) बाल (भुरग्यांचें वैजकी) ३) ग्रह (भूत पिशाच्च आदींपसून ाचे वैजकी) ४) ऊर्ध्वांग (शिरोभागांत आनी थंयच्या इंद्रियांनी राचें वैजकी) ५) शल्य (शस्त्राघातांची चिकित्सा) ६) द्रंष्ट्रा त्सा) ७) जरा (भलायकी वाडोवपी रसायन) ८) वृष ) धन्वंतरिच्या नांवार अनीक धा-बारा ग्रंथ मेळटात.

हाका हिंदू वैजक शास्त्राचो प्रवर्तक मानतात आशिल्ल्यान ाचे जयंती निमतान धन्वंतरी फाउंडेशनाची स्थापना जाली. आयुर्वेद, होमियोपथी, युनानी, सैमीक उपचार आनी हेर ्या जाणकारांमदीं सुमेळ सादप हो त्या फाउंडेशनाचो मुखेल . ह्या फाऊंडेशनाचे वतीन १९७१ वर्सा वैजकी वेवसायांत सेवा वा संशोधन करून वैजकी शास्त्रांत नवी भर घालपी ाक धन्वतरी पुरस्कार दिवपाचें थारायलें. वैजकी विशयाचेर परिसंवाद, परिशदो तशेंच वैजकी वेवसायिकांक आदार दिवपाचो उद्देश धन्वंतरी फाऊंडेशनान दवरला.

– कों. वि. सं. मं.

**धबधबो :** उंचायेवयल्यान सकयल कोसळपी उदकाचो लोट. सादारणपणान धबधबे चड करून न्हंयेच्या लोटाच्या पयल्या टप्प्यांत दिश्टी पडटात. दोंगुल्लयांच्या आनी सड्याच्या वाठारांतूय धबधबे दिश्टी पडटात. अंटार्क्टिकाखेरीज हेर सगळ्या खंडांनी धबधबे आसात. न्हंयेच्या लोटांतलें कठीण आनी मोव खडपांचें अस्तित्व, सड्यांच्यो शिमो, प्रस्तरभंग, दर्यादेगेवयले कडे आनी हिमक्षपित वाठारांतलीं हुमकळपी देगणां हीं सगळीं धबधब्यांची निर्मिती जावपाक कारण थरतात.



न्हंयेच्या लोटाच्या मार्गांत आशिल्ली वेगवेगळे तरेची भूस्तररचणूक धबधबे तयार जावपाक कारण थरता. ह्या लोटाच्या मार्गांत कठीण खडपांचे थर उबे, आडवे वा तिरपे आसूंक शकतात. न्हंयेच्या मार्गांतलीं घट्ट खडपां न्हंयेच्या लोटाच्या मार्गाचे दिशेन लकिल्लीं आसत जाल्यार थंय धबधबो तयार जाता; न्हंयेच्या पात्रांतलीं खडपां आडवीं आनी क्षितीजसमांतर आसत जाल्यार आनी तांचे उपरांतचीं खडपां मोव आसत जाल्यार न्हंयेच्या पात्रांतूच एक कटो तयार जाता. ह्या कट्यावयल्यान न्हयचें उदक एकसारकें सकयल पडत राविल्ल्यान धबधबो तयार जाता. अशे तरेच्या धबधब्यांत न्हंयेचें उदक उंचायेवयल्यान सकयल पडटा आशिल्ल्यान धबधब्याच्या तळाकडेन उदक आपटत रावून एक तळें तयार जाता. २५३ मी. उंचायेच्या गिरसप्पा धबधब्याच्या तळाकडेन सुमार ४० मी. खोलायेचें तळें तयार जालां.

कठीण खडपां आडवी आशिल्ल्यान वा भूंयपृश्ठाक समांतर आशिल्ल्यान जे धबधबे तयार जातात, ते खूबदां न्हंयेच्या उगमावटेन फाटल्यान

सरतात; हाचें कारण म्हळ्यार त्या कठीण खडपांसकयल मोव खडपां आसतात. जंय प्रत्यक्ष धबधबो तयार जाता, थंय ह्या मोव खडपांचो भाग उक्तो पडटा. पडपी उदकाक लागून मोव खडपांची झीज जाता. मोव खडपांनी घोली भाशेन पोकळ भाग तयार जाता. हाका लागून ताचेवयल्या कठीण खडपांचो भाग तांकां पेलना. तो हुमकळटा आनी कालांतरान तुटून सकयल पडटा आनी धबधब्याची सुवात फाटीं सरत रावता. हे क्रियेक प्रतिवाह प्रतीसरण अशें म्हण्टात. उत्तर अमेरिकेंतलो नायागारा धबधबो हो अशेच तरेचे क्रियेक लागून तयार जाला. नायागारा न्हंयेचेर आशिल्ल्या ह्या धबधब्याचो सोद १६७८त ला साल ह्या फ्रेंच पर्यटकान लायलो. ह्या धबधब्या मदीं 'गोट' नांवाचो एक जुंवो आसून ताका लागून नायागाराचे दोन भाग जाल्यात आनी थंयच संयुक्त संस्थानां आनी कॅनडा हांची शीम आशिल्ल्यान धबधब्याचो एक भाग संयुक्त संस्थानांत जाल्यार दुसरो कॅनडांत आस्पावता. हे दोनूय धबधबे दर वर्सा ३० ते १८० सेंमी. ह्या वेगान फाटीं सरत आसात आनी ही क्रिया अशीच चालू उरल्यार कालांतरान ते ईअरी सरोवराक वचून मेळटले.

सड्याचो वाठार आनी मळां हांचे शिमेरूय धबधबे तयार जातात. आफ्रिका खंडांत अशे तरेचे धबधबे आसात. थंयचे काँगो न्हंयेचेर ३२ धबधबे आसात. तांकां 'लिविंग्स्टन फॉल्स' अशें म्हण्टात. ऑरेंज न्हंयेचेर ओग्राबीस धबधबो आसा. संयुक्त संस्थानांत अशा धबधब्यांची माळूच तयार जाल्या. आफ्रिकेंतल्या सड्याच्या वाठारांतल्या आनी प्रपातरेशा विभागांतल्या धबधब्यांक लागून उदका येरादारीक आडखळी तयार जातात. इंग्लंडांतल्या पेनायन वाठारांत अशे धबधबे आसात.

प्रस्तरभंग जाल्यारूय धबधबे तयार जातात. अशा वाठारांतल्यान न्हंयो व्हांवन आयल्यार धबधबे तयार जातात. इंग्लंडांतलो गारडेल बेक धबधबो अशे तरेन तयार जाला. नर्मदा न्हंयेचे वयले वटेन असले कांय धबधबे जून ते ऑक्टोबर ह्या काळांत दिसतात. गिमांत तांकां उदक आसना.

हिमक्षयित वठारांत कितलेशेच धबधबे दिश्टी पडटात. वेल्सांतलो स्नोडोनिया, इंग्लंडांतलो लेक डिस्ट्रिक्ट आनी स्कॉटलंडाचो दोंगुल्ल्यांचो भाग तशेंच कॅलिफोर्नियांच्या योसेमेटी देगणांत अशे धबधबे खूब आसात. थंयच्या कांय धबधब्यांची उंचाय १०० मी. परस चड आसा.

धबधब्यांक लागून थंयच्या लोकांचे जिणेचेर परिणाम जाल्लो दिश्टी पडटा. धबधब्यांक लागून उदका येरादारीक आडखळ जाता. धबधब्यांचेर उदकाचीं विद्युत् केंद्रां तयार करूं येतात. धबधबे हीं सृश्टी सोबीतकायेचीं थळां आसात. ताका लागून थंय पर्यटन केंद्रां तयार जातात. घटप्रभेवेलो गोकाकचो धबधबो, गोंयचो दूदसागर, अमेरिकेंतलो नायागारा, कर्नाटकांतलो शरावतीवयलो गिरसप्पा धबधबो, कावेरीवयलो शिवसमुद्रमचो धबधबो, ताम्रपर्णीवयलो कोर्टालम् धबधबो हीं थळां पर्यटक केंद्रां जाल्यांत.

तिनशें मीटरांवयर उंचाय आशिल्ले संवसारांतले कांय वेंचीक धबधबे अशे -

| नांव | न्हंय | देश | उंचाय, मी. |
|---|---|---|---|
| १) एंजेल | कुरून | वेनेझुएला | ९७९ |
| २) तूगेला | तूगेला | द. आफ्रिका | ९४८ |
| ३) त्माराझी | इनयांगोबे | झिंबाब्वे | ७६२ |
| ४) योसेमिटी | योसेमिटी | अमेरिका | ७३९ |
| ५) क्युक्वेनन् | क्युक्वेनन् | वेनेझुएला | ६१० |
| ६) सदर्लंड | आर्थुर | न्युझिलंड | ५८ |
| ७) किले | - | नॉर्वे | ५६ |
| ८) कहीवा | - | अमेरिका | ५३ |
| ९) मार्दल (उदेंत) | ऐकेसडल् | नॉर्वे | ५१ |
| १०) तॅकाकॉ | योहो | कॅनडा | ५० |
| ११) रिबन | रिबन | अमेरिका | ४९ |
| १२) किंग जॉर्ज सवो | उत्शी | गियाना | ४८ |
| १३) बुलोमोंबी | बुलोमोंबी | ऑस्ट्रेलिया | ४८ |
| १४) मार्दल (अस्तंत) | ऐकेसडल | नॉर्वे | ४६ |
| १५) कलीब्बा | कलानुई स्ट्रीम | अमेरीका | ४६ |
| १६) कालांबो | कालांबो | तांझानीया झांबीया | ४२७ |
| १७) गावार्नी | गावे दि पाव | फ्रांस | ४२ |
| १८) गेसबॅक | गेसबॅक | स्वित्झर्लंड | ३९ |
| १९) ट्रुमेलबॅक | ट्रुमेलबॅक | स्वित्झर्लंड | ३९ |
| २०) क्रिमल् | क्रिमलर अेके | ऑस्ट्रिया | ३८ |
| २१) व्हेतीस | मोर्केडोला | नॉर्वे | ३७ |
| २२) पापालोवा | क्वाय न्यू स्ट्रीम | अमेरिका | ३६ |
| २३) सीलवर स्ट्रेंड | मर्सड् | अमेरिका | ३५ |
| २४) होनोकोहॉव | होनोकोहॉव स्ट्रीम | अमेरिका | ३४ |
| २५) लोफोय | लोफोय | झायरे | ३४ |
| २६) सेरिओ | सेरिओ | इटली | ३१ |

– कों. वि.

**धम्मपद :** बुद्धाची शिकवण दिवपी गाथासंग्रह. पाली भाशेंत संग्रहांत २६ वग्गांमदीं वांटिल्ल्या ४२३ गाथांनी बौध्द धर्माची अशी शिकवण दिल्या. बुद्ध धम्म वा बुध्दतत्त्वज्ञान सांगपी ग्रंथ त्रिपीटक अशें म्हण्टात. पयलें सुत्त पीटक, दुसरें विनय पीटक तिसरें अभिधम्मपीटक. सुत्तपीटकाचे दीघनिकाय, मज्झीमनिकाय खुद्दनिकाय अशे तीन वांटे आसात. हातूंतल्या खुद्दनिकाय वांट पंदरा ग्रंथांतल्या चोम्यातलो धम्मपद हो दुसरो ग्रंथ.

भगवान बुध्दान आपणाक जाल्ल्या बुध्दत्व प्राप्तीच्या खी ताच्या महानिर्वाणामेरेनच्या काळामेरेन ह्या ग्रंथातली दर एक गा ना खंय, कोणाक ना कोणाक, केन्ना ना केन्ना खंयच्या तरी उपदेशाच्या रुपांत सांगिल्ली आसा. ह्या गाथांची कथा धम्मपद्ट्ठकथा (धर्मपदार्थकथा) नांवाचो (गाथांनी कथात्मक स्पश दिवपी) ग्रंथ सिंहली भाशेंत मेळटा. फुडें ताचो पाली अणकार अर्थ भदंतबुध्दघोष महास्थविर हाणें केलो.

ह्या ग्रंथांत बुध्द विचारांचें सारसर्वस्व ग्रंथीत जाल्लें आसून आचारसंहितेचें म्हत्व सांगून तिका जिवीत येसाचें श्रेय दिल्लें अ संवसारांत सगळ्यो गजाली खीणयाळ्यो आसून त्या सगळ्यांमदीं अंश भरिल्ले आसात. तृष्णेचो म्हळ्यार आसक्ती नश्ट केल्यारूच अंत जातलो ह्या सुखी जिणेच्या तत्त्वाचो ह्या ग्रंथांत पुरस्का आसा. मनशाचो फुडार हो मनशाच्या हातांत आसून मनशाक सोडून हेर कोणूच येसप्राप्ती करून दिवपाक आदार दिवंचोना बुध्दलेगीत सुखी जिविताचो फकत मार्ग दाखोवंक शकता. ह्या जिव

...श भौतीक रसायनशास्त्रज्ञ. ताचें सुरवातीचें शिक्षण पर्सी स्कूल ... जालें. १९१५त ताणें कँब्रिजाच्या इमॅन्युएल कॉलेजांत शिश्यवृत्ती ... पयल्या म्हाझुजांत ताणें फ्रांसांत रॉयल फिल्ड आर्टिलरींत काम ... ९२१त ताणे कँब्रिजाकूच पदवी घेतली. १९२४त तो पीएच्. ... आनी त्याच वर्सा ताका इमॅन्युएल कॉलेजाची फॅलोशीप मेळ्ळी. ... ताची भौतीक रसायनशास्त्राचो विद्यापीठ प्रयोगनिर्देशक म्हणून ... ९३०त थंयच 'हंफ्री ओवॅन जोन्स व्याख्यातो' म्हणून नेमणूक ... १९३६त ताका एस्सी. डी. ही पदवी मेळ्ळी आनी तो रॉयल ...चेर वेंचून आयलो. १९३७त तो कँब्रिज विद्यापीठांत भौतीक ...शास्त्राचो प्राध्यापक आनी फुडें संचालक जालो. त्या पदावयल्यान ... तो सेवानिवृत्त जालो.

...ताणें नायट्रोजन पॅरॉक्सायड, आल्डिहायडां, किटोनां, कीटीनां, ...ब्रोमिथेन ह्या सादया संयुगांच्या उजवाड रसायनीक विक्रियांचो ... केलो. कार्बोनिल संयुगांचें दोन तरांनी उजवाडविश्लेशण कशें ... हें ताणें आनी ताच्या वांगडयांनी प्रस्थापीत केलें. तेन्नासावन ... संयुगां मुक्त मुलकांच्या अभ्यासाखातीर आनी जळप आनी ...रेकीकरण (polymerisation) हातुंतल्या शृंखला विक्रियांच्या ...खातीर वापरतात. उजवाडविश्लेशणाच्या ताच्या सोदावयल्यान ...नी सी. एच्. बॅम्फोर्ड हाणें 'फ्रँक-राबिनोव्हिच्य परिणाम' प्रयोगान ...रून दाखयलो.

...ल्या म्हाझुजाउरांत ताणें उजवाडरसायनीक आनी स्फोटक विक्रिया ...अभ्यास करपाक सुरवात केली. नॉरिश, जी. पोर्टर आनी तांचे ... हाणीं सोदून काडिल्ल्या चमक उजवाडाविश्लेशण आनी गत्यात्मक ...विज्ञान ह्या पद्दतींक लागून जांचो काळ मिलीसेकंदांनी मेजचो ... अशा अतीशीघ्र गतीच्या विक्रियांचो अभ्यास करप शक्य जालें. ...र नॉरिश आनी जॉर्ज पोर्टर हांकां मेळून अर्दो आनी मानफ्रॅट ...न हाका अर्दो असो १९६७ वर्साचो रसायन शास्त्राचो नोबॅल ...र फावो जालो. नॉरिश हाका आनिकूय खूब भोवमान फावो ...त.

– कों. वि. सं. मं.

... : उत्तर युरोपांतल्या स्कँडिनावियेच्या द्वीपकल्पांतलो अस्तंतेकडचो ... क्षेत्रफळ ३,२३,८९५ चौ. किमी. लोकसंख्या ४,३००,००० ...(९१). ह्या देशाचे उत्तरेक आर्क्टीक म्हासागर, उदेंतेक रशिया, ...ंड आनी स्विडन, दक्षिणेक स्कॅगरॅकचो दर्या आनी अस्तंतेक नॉर्वेचो ...आनी अॅटलांटीक म्हासागर. देशाची उत्तर - दक्षिण लांबाय १,८०० ... आनी रुरुंदाय ४२५ किमी. आसा. विस्तार ५८° उत्तर ते ७१° ... आनी ४°३०' उदेंत ते ३१°१०' उदेंत. ऑस्लो ही नॉर्वेची ...ानी.

...भूवर्णन – हिमकाळांत ह्या देशांत बऱ्योच खळयो तयार जाल्यो. देखून ... भूंय हांगा सामकी उणीं. दर्यादेगांनी, दोंगरांनी वेश्टील्लीं आखातां ...त. सॉंग्ना, हारडांगर, नॉर्ड आनी ऑस्लो हीं म्हत्वाचीं आखातां ...त. दक्षिण नॉर्वेचो चडसो वांटो डोव्हरफॅल आनी लांगफॅल ह्या ...ांनी व्यापला आनी मदीं योतुनहॅम पर्वताचेर नॉर्वेतली गालहपूपिगन ... ग्लिटरटिन हीं २,५०० मी. परस चड उंचायेचीं शिखरां आसात. ह्याच भागांत यॉस्टडाल्स्ब्रे हो ८०० चौ. किमी. युरोपांतलो सगळ्यांत व्हड हिमान भरिल्लो प्रदेश. मध्य नॉर्वेत त्रॉनहॅमालागीं अशीर असो खोल वाठार आसा. ताचे उत्तरेक सडयांची उंचाय उणी जायत वता. नॉर्वेची सरासरी उंचाय ५०० मी. आसा. मदल्या दोंगराळ प्रदेशांतल्यान आग्नेयेक व्हांवपी ग्लॉमा ही ५६० किमी. लांबायेची सगळ्यांत व्हड न्हंय.

**हवामान** – देशाचो सु. १/३ भाग शितल कटिबंधांत आसा, पूण अॅटलांटीकावयल्यान येवपी उश्ण गल्फ वाऱ्याक लागून देशाचें हवामान थंड आनी बरें आसता. अस्तंत दर्यादेगांनी सरासरी तापमान १५° सें. आसता. त्रॉनहॅमाचे उत्तरेक गिमांत सेगीत ३ म्हयने दीस आसता, म्हणून नॉर्वेक 'मध्यानरातच्या सुर्याचो देस' म्हण्टात. शिंयाळ्यांत तीन म्हयने ह्या भागांत सुर्य उदेना. हांगा वर्सभर वारो बदलत रावता. अस्तंत नॉर्वेत मध्यम शिंयाळो शितळ गीम, २०० सेंमी. पावस अशें दर्याचें हवामान आसता. उदेंत नॉर्वेत शिंयाळो एकदम कडक, गीम गरम, पावस १०० सेंमी. आसा. शिंयाळ्यांत पर्वतांचेर हीम पडटा.

**वनस्पत आनी मोनजात** – नॉर्वेत ऊंच पर्वतांच्या वाठारांनी कांटयांचीं झोंपां आसात. देगणांनी चड उंचायेचीं स्प्रूस आनी पायन रुखांचीं रानां आसात. जळींमळीं बर्च, अॅश, अॅस्पन हीं पानझडी रूख मेळटात. सडयांचेर तण वाड्टा, जाल्यार कांयकडेन फकत शेळो वाडिल्लो दिसता.

हांगा काळविटा सारकी पंगड करून रावपी रेनडियर आनी हरणां मेळटात. हे भायर ह्या रानांनी लिंक्स, बीव्हर, ऑटर, ग्लटन आनी वांस्वेलां आसात. न्हंयेत सॅमन आनी व्हाळांत ट्राउट हें नुस्तें चड प्रमाणांत मेळटा. दर्यांनी चडशें कॉड नुस्तें मेळटा. वुल्व्हरीन आनी लॅमिंग हे हुंदरासारकिले प्राणी खूब आसात.

**इतिहास आनी राज्यवेवस्था** – पुर्विल्ल्या काळांत नॉर्वेचे बायझंटायन रोमी साम्राज्याकडेन संबंद आशिल्ले. पूण आठव्या आनी णवव्या शेंकडयांतलो इतिहास पुरायपणान मेळना. मुखार नॉर्वेच्या व्हायकिंग दर्यांतल्यान जावपी वेपाराक लागून हाचो संबंद युरोपाकडेन आयलो. मध्ययुगांत नॉर्वेतलीं ल्हान-ल्हान राज्यां एकठांय हाडपाचें कार्य पयलो हाराल, ट्र्यूग्व्हेसॉन आनी हाराल्सॉन ओलाफ ह्या तीन राजांनी केले. नॉर्वे १५३६ त डॅन्मार्काच्या शेकातळा वचून, ताचो एक प्रांत जालो. मुखावयलीं तीनशें वर्सांमेरेन नॉर्वेत प्रॉटॅस्टंट पंथाची वाड जाली. पूण डॅन्मार्काची सत्ता फक्त दर्यादेगेंतल्या वाठारांत आनी शारांनी इतलीच आशिल्ली. हेर वाठार स्वतंत्र आशिल्ले. १४ जानेवारी १८१४ दिसा जाल्ले कबलातींतल्यान नॉर्वे स्विडनाक मेळ्ळो. पूण नॉर्वेच्या लोकांनी आपलें स्वातंत्र्य जाहीर करून डॅन्मार्कच्या राजपुताक आपलो राजा म्हणून वेंचून काडलो. पूण स्विडनाच्या दोस्त राश्ट्रांनी (रशिया - इंग्लंड) हाका विरोध केलो. हाका लागून नॉर्वे आनी स्विडन हांचेमदीं व्हड झूज जालें. मुखार नॉर्वे, स्विडनाचें संयुक्त राज्य जालें.

सुटके उपरांतच्या काळांत नॉर्वेन पुराय अलिप्ततायेचें धोरण आपणायल्लें. तरी पयल्या म्हाझुजांत जर्मन पाणबोटींनी ह्या देशाची खूब वेपारी तारवां बुडयलीं. दुसऱ्या म्हाझुजांत नॉर्वेन आपले अलिप्ततायेचें धोरण चालूच दवरलें. पूण १९४० त नाझी जर्मन सैन्य नॉर्वेत रिगोवन, दोन म्हयन्यांभितर ताणी सगळो नॉर्वे आपल्या शेकातळा हाडलो. राजकुटूंब आनी मंत्रीमंडळ हाणीं लंडनांत आलाशिरो घेतलो. जर्मनांनी व्हिडकुन क्विस्लींग ह्या देशद्रोही मनशाक प्रधानमंत्री नेमून ताणें मुखावयली पांच वर्सां नॉर्वेचें प्रशासन चलयलें. १९४५ त जर्मनीचेर हार

पडटकूच ७ जूनाक सातवो हॉकोन मायदेशांत परत येवन ताणें देशाची बरीच उदरगत केली.

नॉर्वे हो संविधानात्मक राजेशाय आशिल्लो देश. राजेशाय वंशपरंपरेन चलता आनी संविधानाप्रमाण राजाच्या पयल्या चल्याक गादयेर बसपाचो पयलो मान आसा. १८१४ त जाल्या संविधानाप्रमाण राजकारभार चलता. राजा हो देशाचो घटनात्मक मुखेली आसून सगळें शासन ताच्या नांवान चलता. पूण ताका संसद बरखास्त करपाचो अधिकार ना. राजा हो सैन्याचो मुखेली तसोच मुखेल धर्मगुरूय आसा. संसदेक स्टॉर्टिंग म्हण्टात. स्टॉर्टिंग दोन सदनी आसून तातूंत १५५ प्रतिनिधी आसतात. तांची वेंचणूक दर चार वर्सांनी जाता.

**अर्थीक स्थिती** – नॉर्वे हो उण्या प्रमाणांत जमीन आशिल्ल्या शेतकामत्यांचो देश. वारशा हक्कांक लागून जमनीची वांटणी चालूच आसा. हांगाची मुखेल पिकावळ म्हळ्यार बटाट, ओट, गंव, सातू आनी हेर कड्डणां. जनावरां पोसून तांचेकडल्यान मास आनी दूद मेळोवपाचो धंदो बऱ्याच प्रमाणांत चलता. रानांतल्या रुखांक लागून लाकडा उद्देगाची उदरगत जाल्या.

नुस्तें मारप हो हांगाचो मुखेल वेवसाय. दर्यादेगेचो आवाठ १९.२ किमी. आसा. तातूंत विंगड विगंड प्रकारांचें नुस्तें मेळटा. इलॅक्ट्रॉनिक उपकरणांनी नुस्त्यांच्या भिऱ्यांचो सोद घेतात.

नॉर्वेत खनीज कांय प्रमाणांत मेळटा. लोखण, फातरी कोळसो, जस्त, तांबें, शिंशें, रुपें हीं खनिजां मेळटात. उद्योगधंद्यांची हांगा भोव उदरगत जाल्या. देशांत यंत्रसामुग्री, रसायनां, सारें, शिमीट, कागद, कपडे, साकर हांचे कारखाने आसात.

रस्ते आनी रेल्वेमार्ग बांदपाच्या कामाक हांगा १९ व्या शेंकड्यांच्या दुसऱ्या अर्दासावन सुरवात जाली. हांगा १९८६ मेरेन सुमार ८६,१४३ किमी. लांबायेचे रस्ते आशिल्ले आनी ह्याच वर्सा रेल्वे मार्गांची लांबाय सुमार ४,२१९ किमी. आशिल्ली. नॉर्वेक व्हड आनी मेकळी दर्यादेग लाबिल्ल्यान दर्यादेगांनी तशेंच खोल दर्यांतले येरादारींत हो देश बरोच मुखार आसा. देशांत आंतरराश्ट्रीय चार आनी हेर ३४ विमानतळ आसात.

**लोक आनी समाजजीण** – सुमार दोन हजार वर्सांपयलींसावन मदल्या युरोपांतल्या नॉर्डिक वंशाचे लोक नॉर्वेक रावताले. गोरे कातीचे, ऊंच आनी अशीर मुखामळाचे हे नॉर्डिक वंशाचे लोक व्हड प्रमाणांत आसात आनी ते व्हायकिंगांचे पुर्वज आसात. दक्षिणेक वाटकुळ्या तोंडाचे आल्पायन वंशाचे लोक मेळटात आनी उत्तरेकडेन लॅप वंशाच्या लोकांचो राबितो आसा. विस्ताराचे नदरेन युरोपांतल्या खंयच्याय देशापरस नॉर्वेची लोकसंख्या उणी आसा. नॉर्वेतलो समाज चडसो ग्रामिणूच आसा.

**भास आनी साहित्य** – नॉर्वेयन ही इंडो-युरोपी भाशा – कुटूंबाच्या जर्मन शाखेच्या स्कॅंडिनेव्हियन पंगडांची एक भास. हे भाशेचे दोन प्रकार आसात. पयल्या प्रकाराक बुकमाल (बुक नॉर्वेजियन) म्हण्टात. हे भाशेचेर डॅन्मार्की भाशेचो प्रभाव पडला आनी तिचो वापर वेव्हारांत चड करतात. हीच हांगाची राजभास. दुसरे भाशेक न्युनुर्स्क (न्यु नॉर्वेजियन) म्हण्टात. ही आधुनिक साहित्यीक भास आसून ललीत साहित्यांत तिचो वापर चड करतात. नॉर्वेत साक्षरतायेचें प्रमाण ९७% आसा. १८६० सावन नॉर्वेत मुळावें शिक्षण सक्तीचें केलां.

ऑस्लो, बर्गेन, त्रॉनहेम आनी स्टावांगर हीं हांगाचीं म्हत्वाचीं थळां. ते शिवाय आनीक महत्वाचीं थळां आसात ती म्हणजे, स्वाल बार द्विपसमूह, यान मायेन जुंवो, बूव्हे जुंवो, पिटर १ आनी क्विन मॉड लॅंड.

– कों. वि. [illegible]

## निंबाळकर, मारुती दत्तात्रय : (जल्म : १३ ऑगस्ट १[illegible] चिपळूण रत्नागिरी).

सुटकेझुजारी. तो इंडियन नॅशनल काँग्रेस समितीचो वांगडी आ[illegible] १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा वी. डी. चितळे हाच्या फुडारपणा[illegible] बांदासावन गोंयांत येवन पत्रादेवीक सत्याग्रहांत ताणें वांटो घे[illegible] पुर्तुगेज पोलिसांनी ताका धरून खूब मार दिलो. फुडें कामगार चळव[illegible] ताणें वांटो घेतिल्लो. दोन सप्टेंबर १९८७ ह्या दिसा महाराष्ट्र सर[illegible] सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. [illegible]

## निकॅल : एक धातुरूप मुलद्रव्य. रसायनीक चिन्न Ni; अणु[illegible]

(अणूकेंद्रांतल्या प्रोटॉनांचो आंकडो) २८; अणूभार ५८.७१; सारणींतलें (इलेक्ट्रॉन रचनेप्रमाण केल्ल्या मूलद्रव्यांच्या कोश्ट[illegible] मांडणेंतलें) ८ब गटांतलें आनी लोह त्रयींतलें एक संक्रमणी मू[illegible] विरगळ बिंदू १,४५५° सॅ; सळसळ बिंदू २,९०० सॅ; घनताय (२[illegible] क) ८.९ ग्रॅ./घ सॅमी.; थीर सैमीक समस्थानिकांचो अणूभार ५८ ([illegible] ६० (२६%), ६१ (१%), ६२ (४%) आनी ६४ (१%) (कंसांतले [illegible] सैमीक निकॅलांतलें समस्थानिकांचें प्रमाण दाखयतात). किरणो[illegible] (भेदक कण वा किरण भायर सोडपी) समस्थानिकांचे अणूभार ५६, ५९, ६३, ६५ आनी ६६; ह्या किरणोत्सर्गी मसस्थानिकांचें अध[illegible] २.५६ वरांपसून निकॅल (६५) ते ८०,००० वर्सांमेरेन निकॅल [illegible] आसता; विद्युत् विन्यास (इलेक्ट्रॉनांची अणूंतली मांडणी) २, ८, १[illegible] संयुजा (हेर अणुंकडेन संयोग पावपाची तांक दाखोवपी अंक[illegible] भुकवचांतलें प्रमाण ०.०१६% आसा.

धर्तरेचेर पाविल्ल्या उल्कांतल्या लोखणापसून पुर्विल्ल्या [illegible] साधनां आनी हत्यारां तयार केल्लीं. अशा लोखणांत ५-१५% [illegible] सांपडलां. युथिडीमस ह्या बॅक्ट्रियन राजाच्या (इ.स.प. २३५) ना[illegible] २०.०४% निकॅल आनी ७७.५८% तांबें आशिल्लें अशें नदरेक आ[illegible] पुर्विल्ल्या काळांत चीनी लोक मिश्रधातूच्या स्वरुपांत निकॅलाचो [illegible] करताले. १७५१ त निकोलायट (NIAS) आशिल्ल्या खनिजापसून [illegible] निकॅल ए. एफ. क्रुन्स्टेट हाणें तयार केलें. १७७५ त टी. ओ. ब[illegible] हाणें ताच्या म्हणण्याक तेंको दिलो आनी निकॅल हें नांव सर्वमान्य [illegible] १८०४ त एच. टी. रिक्टर हाणें शुद्ध स्वरुपांत निकॅल तयार केलें. १८७५ उपरांत निकॅलाचें व्हड प्रमाणांत उत्पादन सुरू जालें.

विपुलतेच्या नदरेन निकॅलाचो सगळ्या मूलद्रव्यांत २४ वो क्र[illegible] आसा. अग्निज खडकांत सरासरी ०.०१% निकॅल सांपडटा. पूण [illegible] नदरेन म्हत्वाचे अशे सांठे सामके उणे आसात. निकॅल धातुकां सल्[illegible] आनी लॅटरायट अशा दोन स्वरुपांनी सांपडटात. निकॅलाचे सांठे कॅ[illegible] सडबरी आनी टॉमसन-मोक लेक, अस्तंत ऑस्ट्रेलिया, रशिया (सायबे[illegible] द. आफ्रिका, फिनलॅंड, नॉर्वे, चीन, भारत, अमेरिका, न्यू कॅलेडो[illegible] क्युबा आनी ऑरेगॉन (अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां), ग्रीस आनी ब्राझी[illegible] आसात. १९७५ त निकॅलाचें संवसारीक उत्पादन (कम्युनिस्ट[illegible]

ः ६ लाख टन आशिलें.

कल हें दर्यांत जियेवपी जिवांमदीं आनी दर्यांतूय मेळटा. तशेंच, ग आनी जनावरांच्याय ऊतकांत तें आसता. मनशाच्या सदच्या तूय दर दिसा ०.३-०.५ मिग्रॅ. निकॅल आसता.

तुकांपसून निकॅल तयार करप हें खूब खर्चाचें आनी कठीण काम. म्हाझुजाच्या काळांत आनी ते उपरांत निकॅल तयार करपाचे त खूब बदल जाले. धातुकां तीन प्रकारांचीं आशिल्ल्यान निकॅल रपाक वेगवेगळ्यो पद्‌दती वापरतात. निकॅल दोन तरांनी शुद्ध करतात ग्रेद्युत् विच्छेद करून आनी २) मॉंड-कार्बोनिल पद्‌दतीन.

कल हो एक धव्या रंगाचो घट्ट धातू. तापोवन संस्कार केल्ल्या ग्टपण (९९.९९% निकॅलाचो) ८५ ब्रिनॅल, जाल्यार थंड पद्‌दतीन केल्ल्या धातूचें घटपण (९९.४% निकॅलाचो) २१० ब्रिनॅल इतलें ताची विद्युत् संवाहकताय १६% (तांबें १००% धरून) चुंबकीय त सुरवातेक ११० ब उण्यांत उणी ६००, विद्युत् रोधकताय (२०° ) ७.८ मायक्रोओम सेंमी. आसता. सर्वसादारण तापमानाचो ताचेर म जायना. ऑक्सिजनाच्या सान्निध्यांत जाळ्ळ्यार निकॅलस यड (NiO) तयार जाता. उदकाचो ताचेर परिणाम जायना. पूण अवस्थेंत तें वाफेचें अपघटन (रेणूचे कुडके जावपाची क्रिया) विरल आनी संहत हायड्रोक्लोरीक आनी सल्फ्युरीक आम्लांचो ल्हव ल्हव परिणाम जाता. पूण नायट्रीक आम्लाची जलद क्रिया निकॅल नायट्रायट तयार जाता. धातूचेर क्षाराचो (आल्कलीचो) म जायना.

कॅलाचीं खूबशीं ऑक्सायडां आसात. तातूंतलीं निकॅलस ऑक्सायड आनी निकॅल डाय-ऑक्सायड ($NiO_2$) हीं म्हत्वाचीं. निकॅलस क्सायड [$Ni(OH)_2$] हें निकॅल संयुगाच्या विद्रावांत पोटॅशियम ॉक्सायड भरशिल्ल्यान मेळटा. निकॅल लवणाची विरंजक (रंग ना ) पिठयाच्या विद्रावावांगडा विक्रिया केल्यार निकॅलिक हायड्रॉक्सायड $)_3$] तयार जाता. कार्बन डाय-ऑक्सायड चड प्रमाणांत आशिल्ल्या यम बायकार्बोनेटाच्या विद्रावांत निकॅल सल्फेट भरशिल्यार निकॅल नेट ($NiCO_3$) मेळटा. निकॅल ऑक्सायडाचेर वा कार्बोनेटाचेर विरल क्लोरीक आम्लाची विक्रिया केल्यार निकॅल क्लोरायड ($NiCl_2$) निकॅल नायट्रेट [$Ni(No_3)_2$], निकॅल सल्फायड (NiS), निकॅल ट ($NiSO_4.7H_2O$) आनी निकॅल कार्बोनिल [$Ni(CO)_4$] हीं निकॅलाचीं ऑक्सायडां. तशेंच निकॅलाचीं कार्बनां संयुगांय तयार करतात.

ग्रेद्युत् विलेपनांत निकॅलाचो १८४३ पसून उपेग जावपाक लागला. ९ च्या सुमाराक तिख्यांत निकॅलाची भरसण करपाची पद्‌दत ांत आयली. मोनॅल निकॅल-तांबें मिश्रधातू १९०५ च्या सुमाराक केले उपरांत मिश्रधातूंत निकॅल हो पायाभूत धातू म्हणून वापरपाक ात जाली.

नेकॅल मिश्रधातू उकत्या तळाच्या विद्युत् प्रज्योत वा प्रवर्तन प्रकाराच्या यांनी हवेंत, अक्रीय (सोंपेपणी रसायनीक विक्रिया न जावपी) वायूंत निर्वातांत वितळावपाक येतात. निकॅलाचे ५,००० परस चड धातू प्रचारांत आसून उद्‌देगीक गरजेप्रमाण नवे-नवे मिश्रधातूय सोदून टात. उत्पादीत निकॅलांतलें ५०% परस चड निकेल लोखणावांगडा धातू तयार करपाखातीर वापरतात. निकॅल तीखें (०.०५% - १०% ल) मोटार गाडयो, ट्रक, बसी, तारवां, विमानां आनी हेर येरादारीच्या साधनांचे खास भाग तयार करपाखातीर व्हड प्रमाणांत वापरतात. तशेंच, शेताचीं यंत्रां-उपकरणां, यांत्रिक हत्यारां, खणकामाची यंत्रसामुग्री, खनीज तेलाच्यो बांयो आनी विद्युत् शक्ती निर्मितीची यंत्रसामग्री आनी हेर जायत्या तिख्याच्या संरचनांनी ताचो उपेग करतात. स्टेनलॅस तिखें (२%-२६% निकॅल) गंजरोधी आनी दाग ना पडपी आसून तीं शक्त आनी चिवटपण हे खातिरूय बरीं आसतात. हाका लागून रेल्वे, विमानां सारकिल्या येरादारीच्या साधनांनी, रांदचे कुडींतल्या आयदनांनी आनी रसायनीक आनी खाद्यपदार्थांचेर प्रक्रिया करपी उद्‌देग, लुगटा उद्‌देग, कागद कारखाने आनी खनीज तेल परिष्करण कारखान्यांनी अशा वेगवेगळ्या जाग्यांचेर तिख्याचो उपेग करतात. भट्ट्यांखातीर वापरतात त्या तिख्यांत २%-२६% निकॅल आसता. निकॅलाचें उच्च प्रमाण आशिल्ले मिश्रधातू तयार करपाखातीर निकॅलाच्या सगम्या उत्पादनांतलें सुमार २५% निकॅल वापरतात. तांबें आनी निकॅल (३०%-३५%) हांचे मिश्रधातू कळमरोधी आनी खास गुणधर्मांचे आसून बांदकाम, रसायनीक आनी खाद्यपदार्थांतल्यो प्रक्रिया उद्‌देगांतल्यो सामुग्री, तशेंच दर्या आनी विद्युत् शक्तीनिर्मणेच्या यंत्रसामग्रेत तांचो उपेग करतात. निकॅल आशिल्ले मिश्रधातू जॅट इंजिनांनी, नाणीं तयार करपाक, सोबेच्यो वस्तू आनी भांगरांत जडयल्ल्या रत्नांमाणकांच्या वस्तींनी वापरतात.

निकॅलाच्या वट्ट उत्पादनांतलें सुमार २०% निकॅल शुद्ध स्वरुपांतलो धातू म्हणून वापरतात. ह्या स्वरुपांत ताचो खाद्यपदार्था वयले प्रक्रियेंत, रसायनीक आनी रेडिओंत, दूरचित्रवाणी आनी इलेक्ट्रॉनीक उद्‌देगांत उपेग करतात. निकॅल तशेंच अगंज तिखें आनी हेर निकॅल मिश्रधातूंचो तिख्याचेर थर दिवपाखातीर उपेग करतात. हाका लागून रसायनांनी जावपी झीज करपी क्रियेक थांबोवपी परिणामकारक संरक्षक थर खूब उण्या खर्चांत मेळपाक शकता. अशे तरेन विद्युत् विलेपनान ताचो उपेग करून वातावरणी झिजेपसून संरक्षण मेळोवपाक येता.

दर वर्सा णव लाख किग्रॅ. परसय चड निकॅल उत्प्रेरक म्हणून वापरतात. एथिलीन डाय-अमायन टॅट्राॲसिटेटावांगडा अनुमापन करून निकॅल वळखुपाक येता. उत्प्रेरकांतलें आनी कंवचेंतलें निकॅल वळखुपाखातीर क्ष-किरणांचो उपेग करतात. हेभायर आनिकूय जायत्या पद्‌दतींनी निकॅल वळखुपाक येता.

निकॅल संयुगांक लागून जनावरांचेर विखासारको परिणाम जाता. शरिराचेर दिसपी निकॅलाचो परिणाम म्हणजे कातीच्यो पिडा. निकॅलाचो पिठो उस्वासावांगडा पुलमांवांनी गेलो जाल्यार कांक्र (कॅन्सर) हो रोग जाता. निकॅल कार्बोनॅल हें खूब विखारी आसता.

१९५०-६० मजगतीं केल्ल्या सर्वेक्षणाप्रमाण सुकिंदा, कान्सा, सारुआबिल, कालियापानी आनी भिमतानगर ह्या जाग्यांनी निकॅल ऑक्सायडाचे सांठे सांपडल्यात. हांचे भायर निकॅल सल्फायडाचे सांठे काम्पाहार (टाटानगरा लागीं) आनी रामसू (जम्मू आनी काश्मीर) ह्या सुवातांनीय सांपडल्यात. कटक जिल्ह्यांतय निकॅलाचे सांठे सांपडल्यात. सुकिंदा आनी कान्साक सांठ्यांपसून निकॅल तयार करपाचे प्रकल्प तयार जाल्यात. भारताची निकॅलाची दर वर्साची गरज सुमार २,५०० टन इतली आसा. सध्या ती कॅनडा आनी रशियाच्यान आयात करून भागयतात. सुकिंदा प्रकल्प सुरू जाले उपरांत देशाची निकॅलाची गरज भागोवपाखातीर आयात करपाची गरज पडची ना.

- कों. वि. सं. मं.

**निकाराग्वा :** मध्य अमेरिकेंतलो सगळ्यांत व्हड प्रजासत्ताक देश. क्षेत्रफळ १,३०,००० चौ. किमी. लोकसंख्या ४१,००,००० (१९९१). विस्तार १०° ४५' उत्तर ते १५° १०' उत्तर आनी ८३° १५' अस्तंत ते ८७° ४०' अस्तंत. ह्या देशाचे उत्तरेक हॉन्दुरास आनी दक्षिणेक कोस्ता रिका हे देश आसात. उदेंतेक कॅरिबीयनचो दर्या आनी अस्तंतेक पॅसिफीक म्हासागर आनी वायव्येक फॉन्सेकाचें आखात आसा. मानाग्वा हें ह्या देशाचें राजपाटण.

**भूंयवर्णन -** भूंयरचणुकेचे नदरेंतल्यान देशाचे तीन वांटे जातात. १. मदलो दोंगरी-सड्याचो वठार २. पॅसिफीक म्हासागराची दर्यादेग आनी ३. ॲटलांटीक म्हासागराची दर्यादेग.

१. निकाराग्वाच्या मध्यकाक आशिल्लयो पर्वतांवळी, हॉन्दुरासाचे शिमेलागीं रूंद आसात आनी दक्षिणेक अशीर जायत वतात. तातूंतली मोगोतोन (२,१०७ मी.) आनी सास्लाइया (१,९९४ मी.) हीं ऊंच तेमकां आसात. आलास्कासावन पनामामेरेन पातळिल्ली खडपाळ पर्वतांची रांक निकाराग्वांत मातशी तुटून परतून मुखार वता. हो तुटिल्लो वाठार म्हळ्यार आलास्का ते तियॅरा दॅल फुयॅगोमेरेनचे रांकेंतलो सगळ्यांत उणे उंचायेचो वाठार.

२. पॅसिफीक म्हासागराची दर्यादेग ३५० किमी. लांबायेची आसा आनी ही देग उत्तरेकडेन रूंद आनी सपाट आसा. दोंगरी वाठार आनी पॅसिफीक दर्याकांठ हांचेमदीं सुमार ९,५०० चौ. किमी. च्या क्षेत्रांत चाळीस ज्वालामुखींची एक रांक आसा. ज्वालामुखींतली सान क्रिस्तोबॅल (१,७४५ मी.), कन्सॅप्शन (१,६१० मी.) आनी मोमोतोम्बो (१,२८० मी.) हीं म्हत्वाचीं तेमकां. पर्वतरांकेमदीं पिकाळ द्रोणी वाठार आनी देगणां आसात. ह्या देशांत भूंयकांपूय बरेच फावटीं जातात. ॲटलांटीकाचो म्हणजेच कॅरिबीयन दर्या ५३८ किमी. लांबायेचो आसा. हो कांठ दर एके सुवातेर ८० किमी. मेरेन रुंदायेचो आसा. तो रेबटान भरिल्लो, सखल आनी उथळ आसा. ह्या देशांत खूब तळीं आसात. मदल्या पर्वतांरांकेसावन उदेंतेक व्हांवपी न्हंयो खूब आसात. हातूंतली कोको ही सगळ्यांत लांब न्हंय (६८० किमी.) आसा.

**हवामान -** देशाच्या दर्यादेगांनी हवामान उश्ण आनी दमट आसता. उदेंत आनी अस्तंत दर्यादेगांचेर सरासरी तापमान २६° सॅ. आसता. दोंगरी वाठारांनी शियाळ्यांत तापमान १६° सॅ. आनी गिमांत २१° सॅ. आसता. सरासरी पावस २५० सेंमी. पडटा. कॅरिबियी दर्यादेगांचेर ईशान्य वेपारी वाऱ्याक लागून सॅन वॉन दॅल नॉर्वेत हे सुवातेर ५९० सेंमी. पावस पडटा.

निकाराग्वाच्या चडशा वाठारांनी सदांच पाचवी वनस्पत मेळटा. देशाचो ६०% परस चड भाग रानांचो आसून उंचायल्या वाठारांनी दाट रानां आसात. माहोगनी आनी सिडार रूख भोव प्रमाणांत मेळटात. बदाम, अक्रोड, पायन, क्रेब्रॅको, ग्वायाकम हे रूख म्हत्वाचे आसात. अस्तंतेक सखल प्रदेशांत सॅव्हाना तण वाडटा. दाट रानांक लागून विंगड-विंगड जातींची मोनजात निकाराग्वांत खूब आसा. दलदलीच्या वाठारांत मानगीं, शेड्डे, सोरोप आनी कांसव मेळटात. हांगाच्या रानांनी माकड, हरणां, प्यूमा, जॅगुआर, पेकारी, आर्मडिलो आनी हेर जनावरां दिश्टी पडटात. तशेंच न्हंयांनी, तळ्यांनी आनी दर्यांत साव्या आनी खाऱ्या उदकांत विंगड विंगड प्रकाराचें नुस्तें आसा.

**इतिहास -** स्पेनाची घुरी येवंचे पयलीं हांगा सुमो, मिस्कितो आनी शेतवडी रानटी जमाती आशिल्लयो. १५२४ त फ्रॅन्सिस्को कॉर्दोबान ग्रॅ आनी लेओन शारांचेर जैत मेळोवन, सुमार तीन शेंकडे ग्रॅनाडाच निकाराग्वांत सत्ता चलताली. स्पेनाच्या हेर वसणुकांवांगडा निकारा १८२१ त स्वतंत्र जालो. कांय वर्सां मध्य अमेरिका संघराज्यात उपरांत ३० एप्रिल १८३८ त निकाराग्वाक पुराय स्वातंत्र्य मेळ उपरांत 'लिबरॉल ऑफ लिओन आनी कॉन्झर्वेटीव ऑफ ग्र हांचेमदल्या झगडयांनी निकाराग्वाची स्थिती इबाडिल्ली, म्हणून १९ १९२६, १९२८ आनी १९३६ त संयुक्त संस्थानांनी आपलें नौदल हांगा शांतताय हाडली.

५ ऑगस्ट १९१४ त जाल्ले ब्रायनचॅमारो कबलातीक निकाराग्वान, संयुक्त संस्थानांक आपल्या देशांत खारीज खणपाक ९९ वर्सांमेरेन कॉर्न जुंवो, अमेरिकेच्या नौदलाक तळ म्हणून दिल्ल १९७१ त जाल्ले कबलातीक लागून अमेरिकेन कॉर्न जुंवो निकारा परत केलो.

सामोझा कुटूंबान ४६ वर्सांमेरेन आपली सत्ता हांगा चलयली. पूण वर्सांमेरेन चलत आयिल्ले क्रांतीक लागून सामोझा सत्तेचो अंत १९७४ च्या संविधानाप्रमाण राश्ट्रपतीक स वर्सांखातीर वेंचून काड तोच राश्ट्र मुखेली आसता आनी आपलें मंत्रीमंडळ आनी हेर अधिका तोच वेंचता. निकाराग्वाचें विधीमंडळ दोन सदनी आसा. राज्यमं (सिनेट) ३० आनी प्रतिनिधी मंडळांत ७० वांगडी आसतात.

**अर्थीक स्थिती -** शेतवड हो निकाराग्वाचो मुखेल वेवसाय आनी लोकसंखेचे ६५% लोक ह्याच वेवसायांत आसात. निर्यातीचो ७५% म्ह शेतकी उत्पन्नाचेर आसता. कापूस, काफी, मास तशेंच साकर, ल आनी केळीं हांची चड प्रमाणांत निर्यात जाता. कापूस, ऊंस, काफी, मको, भात, जोंधळो, कोको, कड्डण, तंबाकू, केळीं आनी हेर फळां पिकां खूब प्रमाणांत येतात. गोरवांक खावड म्हणून उपेग पडपी पा तणांचें हांगा बरेंच पीक येता. गोरवां, मेंढरां आनी कोंबयो पोसपाचो हांगा नेटान चलता. उदकांतले पिकावळींत नुस्त्याचें प्रमाण बरेंच अ

न्वेव्हा सिगोव्हियाक टंगस्टनचे सांठे मेळटात. भांगर, रुपें, शिशें जस्त हांचेय साठे कांयकडेन मेळटात. १९७४ त पॅसिफीक दर्या सैमीक वायू मेळ्ळा. आयात निर्यातींत संयुक्त संस्थानांत सगळ्यांत निर्यात करपी हो देश.

'पॅन अमेरिकन' ह्या ४८५ किमी. लांबायेच्या राजमार्गाक ल अस्तंत देगांतले वाठार हॉन्दुरास आनी कोस्ता रिका ह्या दे जोडल्यात. हो रस्तो सोडल्यार हेर रस्ते बरे नात. चड पावसाक ल रस्त्यांक फोंड पडटात. १९८४ मेरेन हांगा ४,००० किमी. लांब रस्ते, ३३४ किमी. लांबायेचे रेल्वे मार्ग आशिल्ले. 'लॅनिका आंतरराश्ट्रीय येरादारी करपी सरकारी विमान कंपनी.

**लोक आनी समाजजीण -** हांगा १५०४ ते १५२५ ह्या काळांत लोक आयले. हेपयलीं हांगा ॲझटेक जमातींचो राबितो आशिल्लो. म वंशीक भरसण जावन, आतां ७०% लोक मिस्तीस आसात. ता भौसंख्येन अस्तंत देगांच्या पिकाळ वाठारांनी रावतात. वट्ट लोकसंख ८०% लोक पॅसिफीक देगांनी आनी तळ्यांच्या वाठारांत रावतात. श चडशे युरोपीय लोक रावतात. कॅरिबीयन देगांनी खापरी वंशाचे आसात. तांची लोकसंख्या ८% आसा. चडशे लोक कॅथलीक

१९८४ मेरेन ८२.२३% रोमन कॅथलीक , ३.३% प्रॉटॅस्टंट
३.६% हेर धर्मांचे लोक आशिल्ले. १९८० मेरेन ६२.४% लोक
शिल्ले. मुळावें शिक्षण फुकट आनी सक्तीचें आसलें तरीय शाळांचो
अजुनूय उणो आसा. देशांत पर्यटन वेवसायाची उदरगत जायत
गाची अधिकृत भास स्पेनीश. १९८४ मेरेन हांगा तीन दिसाळीं
क येतालीं.

- कों. वि. सं. मं.

: मुसलमान लोकांच्या लग्नसंस्काराक निकाह (अरबी) वा शादी
अशें म्हण्टात. निकाह म्हळ्यार खुशालकायेचो दीस.
री हो संस्कार धर्मीक न्हय. तो एक समाजीक करार आसता.
भटावरी हो संस्कार काजिनूच करूंक जाय अशें ना. कुराणांतले
तेचे मंत्र म्हणून कोणूय निकाह करूंक शकता. मुसलमानांमदीं
हाची चाल ना. जायते फावट भुरग्यांच्या सव्या वा सातव्या वर्साच
डी जमोवन दवरतात. पूण लग्नसुवाळो मात भुरगीं पिरायेंत
हण्टकच करतात. न्हवऱ्या-व्हंकलेचें कूळशील पळोवन थरयल्लें
धेयुक्त केल्लें लग्न हो निकाह हाचोच प्रकार आसा. सुरवातेक
रितीन चौकशी जाले उपरांत न्हवऱ्याचो बापूय व्हंकलेच्या
डेन न्हवऱ्याच्या वंशाची पुराय म्हायती बरोवन धाडटा. म्हायती
गंय भेटवस्तूय धाडटात. ती भेट आपणायली जाल्यार मागीर
मागणी घालतात. मागणे वेळारूय वस्त्रालंकार धाडपाची पद्दत
ाका 'मंगनी' म्हण्टात.
चो निकाह सक्तीन लावंक जायना, असो कायदो इस्लाम धर्मांत
ासा. इस्लामान बायल आनी दादलो हांचो दर्जो चडसो सामान्य
हाका लागून लग्नाक व्हंकलेची संमती भोव गरजेची आसता.
ा तिच्या नात्यांतलो कोणूय तिचो वकील म्हणून तिची संमती
आनी ती न्हवऱ्याक सांगता. हे संमतीक उण्यांत उणे दोन गवाय
चडशीं लग्नां न्हवऱ्या-व्हंकलेचे आवय बापुयूच थरयतात. पूण
तेंपार न्हवरो-व्हंकल आपलो सांगाती वेंचून काडटात.
े ऐपतीप्रमाण न्हवरो व्हंकलेक कांय रक्कम हुंडो म्हणून दिता.
हेर' अशें म्हण्टात. ताचेर फकत व्हंकलेची मालकी आसता.
ीं चार दीस न्हवऱ्या-व्हंकलेक तांच्या घरा पिठी लायतात. गंव
ांच्या पिठांत तिळांचें तेल आनी हळद घालून तयार केल्लो लेप
ह्या वेळार जमिल्ल्यो बायलो पदां म्हण्टात आनी मागीर खाजूर

लग्नविधी व्हंकलेच्या घरांत जाता. सादारणपणान तो तीन दीस
व्हकलेची मंडळी न्हवऱ्यागेर वचून ताच्या हाता-पायांक मेथी
आनी ताका सुताच्या नाडयांचें कांकण, लेंस आनी पागोटें दितात.
न्हवऱ्याक वाजयत गाजयत व्हंकलेगेर व्हरतात. हे मिरवणुकेक
' म्हण्टात. पयले तीन दीस दोनूय कडचे सोयरे एकठांय बसून
ण, गुडगुडी, पानसुपारी, नाचगाणें आनी हेर कार्यक्रमांनी वेळ
त. तिसऱ्या दिसा न्हवरो व्हंकलेकडच्यान आयिल्ले कपडे घालता.
दिसा व्हंकलेच्या हाता-पायांक मेथी लायतात. उपरांत तिका
न्हवऱ्यान धाडिल्ल्या वस्त्रालंकारांनी सजयतात. सांजे वेळार
व्हंकलेक बाशींग बांदून मिरवणुकेन व्हंकले घरा वता. थंय
ताचेखातीर खास बसका तयार केल्ली आसता. ताका तेंकून पड्डो
आसता. पड्ड्याआड व्हंकलेवांगडा हेर बायलो बशिल्ल्यो आसतात. काझी
व्हंकलेक तिची संमती विचारता. तिणें 'हय' म्हळ्यार तो न्हवऱ्याकडच्यान
कुराणांतलीं लग्नविशयक पांच कलमां म्हणून घेता. उपरांत 'खुत्बा ए
निकाह' (विवाह मंत्र) म्हंटात. उपरांत न्हवऱ्या-व्हंकलेची भेट घडोवन
हाडटात. न्हवरो सुरवातेक व्हंकलेचें तोंड हारशांत पळयता. काझीन
दोगांकूय आशिर्वाद दिले उपरांत हेर जमिल्ले लोक हात वयर करून ह्या
आशिर्वादांत वांटो घेतात. खारको वांटले उपरांत काझी आपल्या दप्तरांत
त्या निकाहाची नोंद करता.

न्हवऱ्याचे मंडळीक मेजवानी आनी न्हवऱ्याक आंदन म्हणून दिवपाच्यो वस्तू दिले उपरांत वरात भायर सरता. वरात न्हवऱ्याच्या घरा वाजत गाजयत वता. ताचे उपरांत दोन, तीन दिसांनी न्हवऱ्याकडची मेजवानी जाता. तिसऱ्या वा धाव्या दिसा कांकणां सोडलेउपरांत लग्नसुवाळो सोंपता.

सादारणपणान होच लग्नसुवाळो इस्लामी लोकां मदीं चलता, पूण मुस्लमानांमदीं जातिभेद आशिल्ल्यान दर एके जातींत लग्नविशयक आचारांत थोडो भोव फरक आसता.

- कों. वि. सं. मं.

**निकोबार :** (पळेयात अंदमान आनी निकोबार).

**निर्गूण संप्रदाय :** निर्गूण परब्रह्माची उपासना करपी लोकांचो वर्ग. मुसलमान लोक भारतांत येवन स्थायीक जातकूच इस्लामांतल्या एकेश्वरवादावरीच एक उपासना पद्दत सुरू करपाचे इत्सेन सगुणोपासनेपसून वेगळी अशी निर्गूण ब्रह्माची उपासना कांय लोकांनी आपणायली. स्वामी रामानंद आनी ताचो गुरू राघवानंद हांच्या काव्यांत निर्गूण मताचीं मुळां मेळटात. पूण ह्या पंथाचे सिद्धांत मात उपनिशदांतल्या तत्त्वगिन्यानाचेर आदारिल्ले आसात. सुफी संप्रदायाचो मात ताचेर प्रभाव पडिल्लो दिसता. कबीराक ह्या पंथाचो प्रवर्तक मानतात. जाचेखातीर धर्मीक भेदभाव तयार जातात अशा बाह्योपचारांचो त्याग आनी शुद्ध इश्वरभक्ती तशेंच सात्विक जीण हांचेर कबीरान भर दिला. मनाचें खरेपण आनी सहानुभूती हांकां तो चड म्हत्व दिता. पूण निर्गुणाकडेन आस्था आसुनूय ताणें ह्या नांवाचो वेगळो संप्रदाय सुरू केलोना. तशेंच ताचे उपरांत अशा संप्रदायाची कोणेंच स्थापना केल्ली दिसना. पूण वेगवेगळ्या संप्रदायांतल्या निर्गुणोपसाक आनी सगुणोपासक लोकांमदीं भेद दाखोवपाखातीर ते विचारसरणीक निर्गूण संप्रदाय हें नांव मेळ्ळें. निर्गुनिया, निर्गुणवादी वा संतमत हे शब्द त्याच अर्थान वापरतात.

**निर्गूण संतकाव्य** - इ.स.च्या १५ व्या शतमानासावन भक्तिकाव्यांत सगूण आनी निर्गूण हे दोन वेगवेगळे प्रवाह सुरू जाले. फुडें निर्गूण काव्याचे शुद्ध ज्ञानाश्रायी आनी शुद्ध प्रेममार्गी अशे दोन फांटे जाले. निर्गूण भक्ती ही भावनात्मक प्रवृत्ती आसून संतकवीच्या भक्तीगितांवरीच सुफी कवीच्या प्रेमग्रंथांत तिचो आस्पाव जाता. बौद्धपंथी सिद्धपुरूष आनी नाथपंथी योगी हांच्या पदांचोय निर्गूण काव्याचेर प्रभाव पडला.

कबीराच्या ज्या पदांनी निराकार ईश्वराची उपासना करपाचो उपदेश केल्लो आसा तांकां 'कबिरदास की वाणी' अशें म्हण्टात. तीं पदां निर्गूण

**निग्रो (खापरी)**

ह्या नांवान नामनेक आसात. भजनां आनी निर्गूण गितां हांचो विशय एकूच आसता तरी निर्गूण गितां एका वेगळ्याच तालांत गायतात. जायत्या भोजपूरी संतकवीनी निर्गूण पदां रचल्यांत. निर्गूण पदां गोड आसतात. तांचें खाशेलपण म्हळ्यार तातूंतलीं दुसरी ओळ 'आहो रामा' वा 'कि आहो रामा' ह्या उतरान सुरू जाता आनी हो राम ह्या उतरान सोंपता.

पाँच दे पचीस कोसे बसले महाजन हो
कि आहो मोरे रामा, कपना अवगुनवा हरी
मोरे रुसेले हो राम

मराठी संतकवींनी निर्गुणापरस सगूण भक्तिकूच चड म्हत्व दिलें दिश्टी पडटा. संत एकनाथ सगूण निर्गूण एकूच आशिल्ल्याचें सांगता.

माइने स्वरूप निज निर्गूण
अथवा वैकुंठीचें सगुण
दोन्ही एकचि निश्चयें जाण
सगुण निर्गुंण समसाम्य

- कों. वि. सं. मं.

**निग्रो (खापरी) :** निग्रोयड ह्या मानववंश गटांतलो एक वर्ग. कुळकुळीत असो काळो रंग धरून गाड पुडिरंगामेरेनच्या रंगाची कात आशिल्ले, काळे, मुदयाळे केंस आशिल्ले सर्वसादारणपणान आफ्रिकेंतले काळे लोक ह्या गटांत पडटात. ह्या वंशगटांतल्या मनशाचे तकलेचो आकार लघुशिर्शी आसता. दाट भुंवयो, चेपटें नाक आनी भायर पडिल्ले खरबरीत ओंठ हीं ह्या वंशगटाचीं आनीक कांय खाशेलेपणां. निग्रो (खापरी) लोकांचे मुळावे पुर्वज दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सहारा प्रदेशांतले आशिल्ले. निग्रोंक आफ्रिकेंतल्यान बळजबरीन व्हरून अमेरिकेंत गुलाम म्हणून विकलेउपरांत तांचेर एक नवोच धर्म, संस्कृती आनी जीण लादली. तांचें मनीसपण लेगीत काडून घेतलें आनी तांकां जनावरांची वागणूक मेळपाक लागली. अमेरिकेंतल्या निग्रो लोकांची संख्या त्या देशाचे वट्ट लोकसंख्येच्या इकरा टक्के आसा. जगाच्या हेर भागांतूय ते शिंपडिल्ले आसात. अमेरिकेंत निग्रो लोक सोळाव्या शेंकड्यासावन रावपाक लागले. तांचेवांगडा कांय स्पेनी आनी पुर्तुगेज लोकांनीय थंय राबितो केलो. इ.स. १५१७ त दर एका स्पेनी वसणूकवाल्याक बारा निग्रो लोकांची आयात करपाची मान्यताय कायद्यान मेळ्ळी आनी अमेरिकेंत कायदेशीर थरयल्ल्या निग्रो गुलामांच्या वेपाराक नेटान सुरवात जाली. १५४० त धा हजार निग्रो लोकांक स्पेनाच्या शेकातळा वॅस्ट इंडीसांत आयात केल्ले.

सतराव्या शेंकड्यांत स्पेनाचें नियंत्रण गेलेउपरांत १६४० च्या सुमाराक सावन अमेरिकेंत साकर उत्पादन वेवसायांत काम करपाखातीर निग्रो लोकांची व्हडा संख्येंत आयात सुरू जाली. दक्षिण अमेरिकेंत ती आयात सगल्यांत चड आशिल्ली. दक्षिण अमेरिकेंतले रोमन कॅथलीक इगर्जेन मात तांकां गुलामगिरींतल्यान सोडोवपाक फाटबळ दिलें. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत गुलामगिरी कित्याक नश्ट जावंक जाय, हेविशीं विवेचन करपाक हे इगर्जेनूच फुडाकार घेतिल्लो. विंगड-विंगड वेवसायांनी कामगारांची पुरवण करपाखातीर सुरवातेक वॅस्ट इंडीसांत आनी उपरांत अस्तंत आफ्रिकेंत निग्रो लोक कामगार म्हणून मेळटाले. तंबाकू लागवडीच्या कामांत निग्रोंची संख्या वाडत गेल्ल्या कारणान १६६१ त व्हर्जिनियांत आनी १६६३ त मॅरीलँडांत गुलामगिरी कायदेशीर जाली. ल्हव-ल्हव पुराय दाक्षिणात्य वसणुकांनी गुलामगिरीन अर्थीक संस्थेची बुन्याद उत्तरेकडेन आशिल्ले वसणुकेभितर पॅनसल्वानिया आनी हडसन दे गुलामगिरी अस्तित्वांत आशिल्ली. पूण दर एके वसणुकेभितर वागणुकेचेर नियंत्रण दवरपाखातीर आशिल्ले नेम आनी कायदे वे आशिल्ले. व्हर्जिनियाच्या कायद्याप्रमाण खून आनी आगळीक ह्या गुन्यांवा निग्रो गुन्यावकारांक गोळाक लायताले, चोरी वा हेर सादया गु तांकां चाबकान फोडून काडटाले, हात ना जाल्यार पांय कातरताले तांकां दागूय दिताले. १७६३ त व्हर्जिनियांतल्या निग्रो लोका कायदयाआड बंड करपाक सुरवात केल्ली. पूण ताचो कांय उपेग जा उपरांत अमेरिकेच्या स्वातंत्र्यझुजांत पांच हजार निग्रोंचो आस्पाव अ अमेरिका स्वतंत्र जाले उपरांत गुलामगिरीआड आनी दास्यमुक्ती साबार संस्थांची स्थापणूक जाली. हाचो परिणाम म्हळ्यार अम उत्तरेकडच्या राज्यांत गुलामगिरीचें प्रमाण ल्हव ल्हव उणें जावंक ल जानेवारी १८०८ च्या कायदयाक लागून गुलामांचे खरेदी-विक्रेक बसलो. उपरांत लुगटाच्या वेवसायाक नेट आयिल्ल्यान व्हडा प्र कामगारांची गरज जाणवूंक लागली. हाका लागून अमेरिकेंत पर गुलामांची संख्या वाडली. हो वेवसाय खूब फायदेशीर थरलो. पूण ताचो कांयच लाव मेळ्ळोना. तांकां खूब वायट वागणूक मेळटाली दीसरात काम करचें पडटालें.

अमेरिकेंतल्या यादवी झुजा उपरांत रिपब्लिकन पक्ष गुलामा विरोध करपाक लागलो. १८६० त अब्राहम लिंकन अध्यक्ष म्हणून आयलो. दक्षिणेकडचे प्रदेश गुलामगिरी आडचे चळवळींतल्यान पडले आनी दोन गट निर्माण जाले. सुमार दोन लाख निग्रो लोक चळवळींत आसपाव आशिल्लो. लिंकनाच्या यत्नांक लागून दास्यमु आंदोलनाक येस मेळ्ळें. ताचो जाहीरनामो प्रसिद्ध जावन निग्रोंची १ त गुलामगिरींतल्यान कायदयान मुक्तताय जाली. तेन्नासावन शिक्षण घेवपाची संद मेळ्ळी. पूण खूब तेंप चडशे निग्रो लोक अ उरले. अर्थीक नदरेन ते खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जावंक नाशिल्ले.

कामगार संघटनांनी निग्रो लोकांक वांगडी करून घेवपाक न दिल्लो. निग्रोक तांणी एकठांय येवपाची संद केन्नाच दिलीना. कां तांकां 'संपफोडे' (Strike breakers) अशें म्हण्टाले. अशा वेळार निर्माण जाताल्यो. पयल्या म्हाझुजाच्या तेंपार युरोपांत कामगा पडपाक लागले म्हणून उत्तरेकडेन निग्रो लोकांची परत आयात सुरु पयल्या म्हाझुजांत चार लाख निग्रोंक वायुदळांत नेमिल्ले. तांकां म मतदानाचे अधिकार मेळपाक लागले. विंगड विंगड क्षेत्रांतले उद्दे वेपार, कारखाने आनी हेर वेवसायांनी तांचो आस्पाव व्हडा जावपाक लागलो. १९०९ त 'नॅशनल असोसिएशन फॉर द ॲडव ऑफ अर्बन कलर्ड पिपल (NAACP) हे संघटणेची स्थापणूक १९११ त 'नॅशनल लीग ऑफ कंडिशन्स ॲमाँग निग्रोस' हे स स्थापणूक जाली. १९३० मेरेन साबार निग्रो लोकांनी राजकीय वांटो घेतिल्लो आनी मतदानूय केल्लें. अध्यक्ष रुझवॅल्टाच्या नव्या धोरणांक लागून (New Deal) निग्रोंक समाजीक आनी अर्थीक सुविध फायदे मेळ्ळे. शासनवेवस्थेंत कांय म्हत्वाच्यो सुवातीय तांकां मे दुसऱ्या म्हाझुजाच्या तेंपार धा लाख निग्रो वायुदळांत काम क म्हाझुजाउपरांतच्या काळांत निग्रोंक दिल्ल्या नागरी अधिकारांम सुदारणां जाल्यो. १९४६त नागरी हक्कांची येवजण आंखपा

ानी गोऱ्या अशा दोनूय वांगड्यांचे समितीची स्थापणूक केली. ान निग्रो लोकांक कांय अधिकार मेळोवन दिले.

१४ त शिक्षण मंडळान अमेरिकेंतल्यो सगळ्यो शाखा आनी हेर स्थांभितर वर्णभेद पाळचेनात अशें धोरण जाहीर केलें. हें निग्रोंचे चे नदरेन म्हत्वाचें पावल आशिल्लें. पूण बसींनी वर्णभेद पाळटाले. बस प्रवासाचेर बहिश्कार घालो. उपरांत हो भेद लेगीत काबार

१७ त अमेरिकन कॉँग्रेसीन 'समान नागरीकत्वाचो कायदो' पास ाचेखातीर केल्ले नागरी हक्क मेळोवपाचे चळवळींत साबार नी वांटो घेतिल्लो. दक्षिणेकडेन काळ्या आनी गोऱ्या विद्यार्थांनी टुडंट्स नॉनव्हायोलेंट को-ऑर्डिनेटेड कमिटींची स्थापणूक केली. णाम म्हळ्यार कॉँग्रेसीन सगळ्यांखातीर बसी उकत्यो दवरल्यो. कवट दाखोवपाखातीर १९३३ त दोन लाख काळ्या आनी गोऱ्या जोड मोर्चो काडलो. १९६५ त मतदान हक्कांविशीं कायदो पास नेग्रोक मतदानाचे पुराय अधिकार मेळ्ळे. साबार संस्था आनी नी निग्रोंक मतदानाचे हक्क मेळोवन दिल्ले. हातूंत निग्रो लोकांचो ार्टिन लुथर किंग हाचो म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो. अध्यक्ष जॉन्सन ग्रोंखातीर चड नागरी हक्क दिवपाचे नदरेन कॉँग्रेसीक फाटबळ ाजकीय वा कायदेशीर हक्क मेळवचेपरस अर्थीक थिराय खातीर काळ्या लोकांचे चळवळीक चड नेट आयलो. १९७० च्या च्या काळांत वंशीक समताय खरेंपणीं मेळची हाका लागून ा विद्यार्थ्यांनी उठाव केल्लो. १९७२ त एकेच बसींतल्यान प्रवास कायदेशीर मान्यताय सर्वोच्च न्यायालयान दिली. अशा तरांच्या आनी विंगड विंगड कायद्यांक लागून अमेरिकेंतल्या निग्रोंक समानताय मेळत गेली.

– कों. वि. सं. मं.

् : वैदिक पदांचो वा शब्दांचो सगळ्यांत पोरणो कोश. यास्कान नेरूक्त' नांवाचें भाश्य रचिल्लें आसून ताचे सुर्वेकच ह्या कोशाक य (वैदिक शब्दकोश) अशें म्हळां. ह्या समान्मायाचेच 'निघंटवः' प्रचलीत आशिल्ल्यान समाम्नायाक उद्देशून 'निघंटु' हो शब्द त अशें म्हण्टात. सद्या उपलब्ध आशिल्ल्या कोशांत जायत्या वेगवेगळ्या काळांनी तातूंत भर घालून तो पुराय केलो आसूंक जापती कश्यप हो निघंटुचो कर्तो आशिल्ल्याचें महाभारतांत म्हळां. टुचीं तीन कांडां आनी पांच अध्याय आसात. तातूंतल्या पयल्या तीन अध्याय आसून ताका नैघंटुक कांड म्हण्टात. दुसऱ्या आनी कांडांत दरेकी एक - एक अध्याय अशी पांच अध्यायांची विभागणी पयल्या कांडांत समानार्थी शब्दांचो झेलो आसून खंयच्या शब्दांचो अर्थ आनी त्या अर्थाचे वाचक अशे कितले शब्द आसात हें सांगलां. नाच नामांचो गट आनी क्रियापदांचो गट असो भेद दवरला. गट आसल्यार 'नामानि' वा 'नामधेयानि' आनी क्रियापदांचो गट ार 'कर्माणः' अशे शब्दप्रयोग केल्ले आसात. देखीक - हिरण्यनामानि, कर्माणः.

ल्या तीन अध्यायांनी येवपी शब्दांची विभागणी केल्या ती अशी - अध्यायांत पृथ्वी, अंतरिक्ष, मेघ, उषा आदी विश्वरचणुकेविशीं आनी सैमीक घडणुकांकडेन संबदीत अशीं नामां. दुसऱ्या अध्यायांत मनीस आनी ताचेकडेन संबंदीत अशो वस्तू आनी क्रिया. तिसऱ्या अध्यायांत अमूर्त कल्पना आनी गूणविशेष. ह्या तिसऱ्या अध्यायांत एकेकडेन उपमा दिवपाचे वेगवेगळे प्रकार एकठांय केल्यात. 'नैगमकांड' वा 'ऐकपदिक कांड' हें निघंटुचें दुसरें कांड. 'जहा', 'निघ' आदी 'अनवगतसंस्कार' वा व्याकरणी नदरेन कठीण अशा अनेकार्थ शब्दांचो संग्रह तातूंत आसा.

निघंटुच्या 'दैवताकांड' नांवाच्या तिसऱ्या कांडांत अग्नी, इंद्र, वरूण आदी देवतांच्या नांवाच्या संग्रहावांगडाच तांचेकडेन संबंदीत आशिल्ल्या इषु, रथ, दुंदुभी ह्या सारक्यो वस्तू वा अश्व, मंडूक आदी प्राणी हांचोय आस्पाव जाला.

ह्या कांडांतल्या एका अध्यायाचे वट्ट स विभाग आसून पयल्या तीन विभागांनी धर्तरेवयल्यो देवता वा वस्तू; चवथ्या आनी पांचव्या विभागांनी अंतरिक्षांतल्या देवतांचो आस्पाव आसा. निघंटुंतल्या पयल्या तीन अध्यायांतल्या दरेका पदाचेर यास्काचें भाश्य ना. पूण चवथ्या आनी पांचव्या अध्यायांतल्या दरेका पदाचेर ताणें भाश्य केल्लें आसा.

निघंटुचेर निघंटुनिर्वचन नांवाची देवराज यज्वा ह्या दक्षिणात्य पंडितान बरयल्ली एक टिका उपलब्ध आसा. भास्करराय नांवाच्या नामनेच्या तांत्रिकान एक ल्हानसो ग्रंथ बरोवन निघंटुंतले सगळे शब्द अमरकोशाचे धर्तीचेर श्लोकबध्द केल्ले आसात.

– कों. वि. सं. मं.

**निजाम राजवंश :** एक मुसलमान घराणें. ह्या घराण्याची मुळावी व्यक्ती म्हळ्यार ख्वाजा आबिद. हो मध्य आशियांतलो समरकंद - बुखाराचो आशिल्लो. बादशाह शहाजहान हाच्या तेंपार तो हिंदुस्थानांत आयलो. दिल्लीचे गादयेर येवपाक ताणें औरंगजेबाक आदार केल्लो. औरंगजेबाच्या दरबारांत ताका खूब मान आशिल्लो. उपरांत ताणें आपलो चलो शहाबुद्दीन हाका आपोवन हाडून ताचें शहाजहानाचो प्रसिद्ध वजीर सादुल्लाखान हाचे चलयेकडेन लग्न लावन दिलें. शहाबुद्दिन हाच्या चल्याचें नांव मीर कमरूद्दीन निजामुल्मुल्क आसफजहा अशें आशिल्लें.

१६८२ सावन औरंगजेबाचे दक्षिणेचे मोहिमेंत निजामुल्मुल्क हाचो आस्पाव आशिल्लो. हाका लागून ताका दक्षिणेची बरी म्हायती आशिल्ली. मुखार १७१३ त ताका दक्षिणेची सुभेदारी मेळ्ळी. दोन वर्सां उपरांत तो माळव्याचोय सुभेदार जालो. १७१९ त सय्यद भावांनी ताचेआड कारस्थान केल्ल्या कारणान तो माळवो सोडून दक्षिणेक आयलो आनी ताणें सय्यद भावांच्या सरदारांचेर हार घालून दक्षिणेची सुभेदारी परत मेळयली. १७२२ त ताची दिल्ली दरबारांत वझीर म्हणून नेमणूक जाली. वझीर जाले उपरांत लेगीत ताणें दक्षिणेंतली सुभेदारी सोडूंक नाशिल्ली. मुखार दिल्ली दरबारांतल्या कारस्थानांक विटून तो १७२४ त दक्षिणेक आयलो. पूण बादशाहाचो सरदार मुबारिजखान हाणें ताका विरोध केल्लो. साखरखेडाक जाल्ल्या झुजांत मुबारिजखान हाका मरण आयलें. निजाममुल्मुल्क हाणें उपरांत दक्षिणेंत आपलें स्वतंत्र राज्य उबारलें.

दक्षिणेचो सुभा म्हळ्यार आतांचें विदर्भ, हैदराबाद, औरंगाबाद, बिदर, खानदेश, नासिक, नगर, सोलापूर, विजापूर, धारवाड, बेळगांव हे जिल्हे, सगळो आंध्र प्रदेश, त्रिचनापल्ली मेरेनचो तमीळ प्रांत आनी म्हैसूरचो चडसो भाग, येदो व्हड भूंय प्रदेश निजामान आपल्या शेकातळा दवरिल्लो. निजाम

आनी मराठे हांचे भितर सदांच झगडीं जातालीं. उपरांत १७२८ त बाजीरावान ताका हारोवन ताचेकडच्यान चौथाई - सरदेशमुखीचो हक्क मान्य करून घेतलो.

१७३६ त बाजीरावान माळव्याचेर जैत मेळोवन उपरांत ताणें दिल्लीचेरूय धुरी घाल्ली. त्या वेळार बादशाहाच्या सांगण्यावयल्यान निजाम दिल्लीक गेलो आनी थंयच्यान व्हड फौज घेवन परत भायर सरलो. पूण बाजीरावान ताका भोपाळांत आडावन ताचेर परत हार घाली. ह्याच सुमाराक नागपूर, चांदा, भंडारा, वर्धा हे जिल्हे नागपूरकर भोंसल्यांनी ताचेकडच्यान जिखून घेतले.

निजामुल्मुल्क हाच्या मरणा उपरांत ताचो दुसरो पूत नासिरजंग हो निजाम जालो. ताचो भाचो मुजफ्फरजंग हाणें अर्काटाच्या चंदासाहेबाचो आनी फ्रांसेझांचो आदार घेवन नासिरजंगाआड व्हड बंड केलें. तें बंड मोडून उडोवचे खातीर जेन्ना तो दक्षिणेक वतालो तेन्ना ताच्या सैन्यांतल्या पठाणांनी ताचो खून केलो. फ्रांसेझांनी मुजफ्फरजंग हाका निजाम केलो. पूण पठाण सरदारांनी ताचोय खून केलो. उपरांत फ्रांसेझांनी निजामुल्मुल्काचो तिसरो पूत सलाबतजंग हाका निजामाचे गादयेर बसयलो.

१७५२ त फ्रांसेझांनी निजामाकडल्यान दर्यादेगेवयलो विशाखापट्टणम, राजमहेंद्री, मछलीपट्टण हे जिल्हे मागून घेतले. मुखार अर्काट प्रांतांत फ्रांसेझ - ब्रिटिशांचीं झगडीं जावन फ्रांसेझांचेर हार पडली. निजामाचो दक्षिणेंतलो शेक उणो जाला तें पळोवन मराठ्यांनी ताचेआड झूज उबारून १७६० त ताचेर हार घाली. हाका लागून अहमदनगर, बुऱ्हाणपूर, असरिगड, सोलापूर, विजापूर, दौलताबाद हे भाग मराठ्यांच्या शेकातळा आयले.

१७६२ त निजामुल्मल्काचो चवथो पूत निजाम अलिखान हाणें सलाबतजंग हाका बंदखणींत उडोवन आपूण गादयेर बसलो. १७६३ त मराठ्यांनी राक्षसभुवनाच्या झुजांत अलीखानाक हारोवन पानिपत झुजाउपरांत वगडायल्ले चडशे प्रदेश परत घेतले. मुखार ब्रिटिशांच्या आक्रमक राजकारणाक लागून निजामाची सत्ता ल्हव ल्हव उणी जायत गेली. १८००त ताणें ब्रिटीशांवांगडा कबलात केली आनी ताचें स्वातंत्र्य सोंपलें. चाळीस वर्सां राज्य केले उपरांत निजामअलीखान हाका मरण आयलें. ताचे फाटल्यान ताचो पूत सिकंदरशाह हाणें, राज्य चलयलें. हाचो पूत नासिरूद्दौला हाची राजवट सूरू जाली. ताच्या तेंपार हेदराबादेच्या राज्यांत सगळ्याक अंधाधुंदी मातिल्ली. राजा चंदूलाल हो १८०८ ते १८४३ मेरेन हैदराबादचो सर्वाधिकारी आशिल्लो. ताचें राज्यकारभारांत मात्तूय लक्ष नाशिल्लें. तो ब्रिटिशांक खोशी दवरून राज्य चलयतालो. ब्रिटिशांचे व्हड फौजेच्या खर्चाखातीर चंदूलाल हाणें निजामाकडच्यान अनंतपूर, बल्लारी, कडपा आनी कर्नूल हे जिल्हे घेतिल्ले. ताणें आपल्या मनाप्रमाण निजामाचें सैन्य उबारिल्लें. ताचेर ब्रिटिशांचो पुराय ताबो आशिल्लो. ताचो खर्च मात निजामाक करचो पडटालो. हो व्हड खर्च करपाखातीर ताणें खूब रीण काडिल्लें. पूण १८४३ त चंदूलाल हाका धांवडांवन घालो. सालारजंग हो निज़ामाचो मुखेल प्रधान जालो. उपरांत, ताणें राज्यांत खूब सुदारणा केली. तालुके, जिल्हे, सुभा अशे ताणें राज्याचे रितसर वांटे केल्ले. हाकाच लागून १८५७ त जाल्ल्या उठावांत हैदराबाद संस्थान वाटावलें.

१९११ त गादयेर बशिल्लो मीर उस्मान-अलीखान हो निमाणो निजाम आशिल्लो. भारत स्वतंत्र जाले उपरांत १९४८ त भारत सरकारान पोलीस कारवाय करून हैदराबाद संस्थानाचो भारतांत आस्पाव केलो. तेन्न निजामाची सत्ता सोंपली.

- कों. वि.

**निपाणी :** कर्नाटक राज्यांतल्या बेळगांव जिल्ह्याच्या चि तालुक्यांतलें शार. हें शार पुणें-बेंगळूर ह्या राश्ट्रीय म्हामार्गार बेळ उत्तरेक ६४ किमी. आनी कोल्हापूरचे दक्षिणेक सुमार ४० महाराष्ट्र-कर्नाटक राज्याचे शिमेर वसलां. हांगा एक किल्लो आनी श सिद्दोजीराव निंबाळकरान १८०० वर्सा बांदिल्लो एक वाडो पेशवाईंत एका आप्पा देसाई नांवाच्या दुश्ट सरदाराचो हाचेर चलतालो. १८२७ त किल्ल्या सकट पुराय निपाणी गांवांक करपाचो अपेशी यत्न आप्पान केल्लो. १८४१ त इंग्लिशांनी हो आपल्या शेकातळा घेतलो. १८५४ पसून हांगा नगरपालिका सुरू हें शार म्हळ्यार तंबाकूचे बाजारपेठेचें, विडी-उद्देगाचें, त मिरसांगो, गोड, धान्य, गोरवां हांच्या वेपाराचें मुखेल केंद्र. मुळाव्य माध्यमिक शाळा, म्हाविद्यालयां आनी दवाखाने आदींची सुविधा आसा.

- कों. वि.

**निबंद :** एक साहित्यप्रकार. टीप - टिपणी आनी प्रबंध हांचे जातकु हो साहित्यप्रकार, व्याप्तीनुसार (विशय आनी आकार) दोगांयमदी सर्वसादारणपणान कसल्याय विशयाचो सगळ्या आंगांनी विचार आपल्या मतानुसार थरावीक निश्कर्श काडप हें निबंद रचनेंत आस हाचें स्वरूप विवेचनात्मक आसून, अभ्यास, चिंतन, समिक्षण प्रतिपादन हे घटक मुखेलपणान निबंदाक अपेक्षीत आसतात. तवं अशे अणभव वा अवलोकन हांचेर आदारिल्लें विचारप्रधान आनी बु चालना दिवपी लिखाण असो निबंद रचनेचो पींड आसता.

संस्कृतांत गदय-पदयात्मक ग्रंथ लिखाणाक सदळपणान प्रबं म्हणप जाता. आधुनीक साहित्यीक परिभाशेंत संशोधनात्मक लिख प्रबंद म्हणप जाता. सर्वसादारणपणान कसल्याय विशयाचेर समग्र चिंतनपर केल्लें लिखाण हें निबंद प्रकाराखाला येता. निबंद प्रकारा अमुकूच पानांची मर्यादा घाल्ली नासली तरी टिपणासारकें सामके गदय-लिखाण आनी मोटया आकाराचो प्रबंध वा ग्रंथ हांचेमदीं नि व्याप्ती उरता. निबंद ह्या प्रकाराखाला प्रासंगिक वर्तमानपत्रीय लेख खंयच्याय विशयाचेर विचारीक थरावयल्यान तर्कसंगत, स वस्तुनिश्ठ केल्ल्या विवेचनाचो आस्पाव जाता. तर्कसंगत मांडणी, युक्तीवाद, वेधक भाशा-शैली, प्रभावी प्रतिपादन, स्पश्ट आनी सोंपे आनी परिणामकारक निवेदन हीं बऱ्या निबंदाचीं लक्षणां म्हणूं ये

हर्बर्ट रीडान निबंदाच्या आकारासंबंदान उलयतना म्हळां, नि ३५०० ते ५००० हे शब्दमर्यादेभितर आसचो. ३५०० शब्दांभि निबंद आसता तो रूप-रेखा कसो जाता आनी ५००० शब्दांपर आशिल्लो निबंद हो प्रबंद जाता. पूण निबंदाचेर शब्दांचें बंधन घालप न्हय.

निबंदाक लॅटीन भाशेंत 'एग्झायर', फ्रँच भाशेंत 'एसाय', भाशेंत 'एसे' अशीं नांवां आसात. अस्तंती साहित्यांत निबंद हो

सोळाव्या शेंकड्याच्या शेवटाक उदेलो. मायकल द मॉन्तेन ह्या खकान इ. स. १५८० त आपलीं दोन पुस्तकां उजवाडावन 'एसाय' हो प्रकार फ्रेंच भाशेंत रूढ केलो.

तेनाचो हो 'एसाय' दिसपाक ल्हान स्वरुपाचो आसा. विचारयुक्त सांगपाखातिरूच ताणें हो प्रकार हाताळ्ळो आसूंक जाय. तो 'हांवें स्वताकूच स्वतानूच रेखाटपाचो ह्या प्रकारांत यत्न केला.' - प्रणीत निबंदांत लेखकाच्या आत्माविश्काराक वा आत्मनिश्ठेक आशिल्लें.

ळा-सतरा वर्सां उपरांत फ्रांसीस बेकन हाणें हो प्रकार इंग्लिशींत ना ताचें मूळ स्वरूपूच बदलून घेतलें. विचार आनी अणभवदर्शन सारकेंच स्थान आशिल्लो मॉन्तेनाचो 'एसाय' ताणें विचारनिश्ठ करून आंवळून इंग्लिशींत 'एसे' (Essai) ह्या नांवान हाडलो. ताका लागून वारांचे नदरेन चड वस्तुनिश्ठ, गंभीर आनी अलिप्त प्रवृत्तीचो जालो. ोक अणभव सांगचेपरस अणभवांतले विचारीक परिपाक ताणें ल्यान मांडले. ताका लागून अणभवदर्शनाच्या आंगान व्यक्त जावपी थती आनी व्यक्तीवैशिश्टां एसेंतल्यान कुशीक काडलीं.

उपरांत १६६८ वर्सा 'अब्राहम काडले' हाणें कांय 'एसे' उजवाडायले. नाचो एसाय ताणें, तातूंतल्या व्यक्तीत्वां आनी व्यक्तीनिश्ठेसयत शींत हाडलो. ताका लागून तो बेकन पद्धतीपरसूय वेगळो थरलो. ी ही दुसरी धारा इंग्लिशींत सुरू जाली. उपरांत निबंदांत खूब बदल . विशयाचें वर्गीकरण, भाशेची तरा निर्माण जावन एसेचो खुबश्या नी विकास जालो. अशें आसलें तरी बेकन पद्धतीची धारा रनिश्ठेचे दिशेन वाटचाल करीत गेली आनी काडले पद्धतीची धारा नल एसे' म्हळ्यार अणभवांक प्राधान्य दिवपाचे दिशेन वाटचाल करीत गतीक पावली.

निबंदाचे साबार पांवडे पळोवंक मेळटात. अठराव्या शेंकड्यांत स्टील उसनाचो, काळाक म्हत्व दिवपी 'पिरिऑडिकल एसे' हो पयलो ाचो पांवडो. एकुणिसाव्या शेंकड्याचे सुरवातीच्या काळांतलो (१८२०) नल एसे' हो दुसरो म्हत्वाचो पांवडो. हाचें श्रेय चार्ल्स लॅम्बाक वता. रांत 'पर्सनल एसे' स्वतंत्रपणान साहित्याच्या मळार उदरगतीक लो. ताचो आनी एसेचो संबंद प्रस्थापीत करपांत कांय अर्थ ना. कारण दोगांयचे हेतूच बदलत गेले. एक विचारीक वाङमयाचो भाग जालो ी दुसरो 'हांव' चे घुडयेखाल रोमँटीक मोगाळ ललीत वाङमयांत रुजू लो.

इंग्लिशींत मॉन्तेनाची परंपरा चलोवपी अब्राहम काडली, स्विफ्ट, लँब, लिट, स्टील, गोल्डस्मिथ, लिहण्ट, स्टिव्हॅन्सना सारके व्यक्तिप्रधान दकार आसात. जाल्यार बेकनाचे परंपरेंत बॅन जॉन्सन, सॅल्डन, डेसन, जॉन्सन, जेफ्टी, डी. क्विन्सी, मॅफाले, वॉल्टरा सारके ारप्रधान निबंदकार आसात.

कांय इंग्लीश टिकाकारांनी 'एसे' चीं पयलीं वयलीं लक्षणां सांगल्यांत. य जाणांनी सगळ्या प्रकारांच्या एसेचो आस्पाव केला. कांय टिकाकारांनी कन पद्धतीचे एसेचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरला जाल्यार कांय जाणांनी र्ल्स लॅम्बाक मनांत धरून ते वाटेन घुंवपी अशीं लक्षणां सांगल्यांत. हाका गून इंग्लिशींत एसेचें स्वरूप निश्चीत ना.

निबंद दोन काळजांभितर संवाद सादता. हांव, म्हज्या निबंदाचो तय. कारण म्हज्यांतल्या 'हांवा' कूच म्हजी खरी वळख पटल्या, हे मॉन्तेनाचे व्याख्येंत निबंद, दोन काळजांक उलोवंक लायता. म्हज्या निबंदांत हावूंच विशय जावन येतां आनी स्वताक स्वतानूच चित्रावपाचो यत्न करतां. हांगा मॉंतेन अणभवांतल्या आत्माविश्काराचेर भर दितना दिश्टी पडटा. एच. वॉकर हाच्या मतान निबंदाक विशयाचें बंधन ना. नखेत्रां ते धुल्ल आनी शेळो ते मनीसजात, हांचेसकट सगळे निबंदाचे विशय जावं येतात. डॉ. पु. ग. सहस्त्रबुध्दे हे निबंदाची व्याख्या करतात ती अशी - 'तर्कशुध्द रितीन केल्ली, बुद्दीक आव्हान करपी, आपले सिध्दांत विस्कटावन मांडपी, इतिहास, अणभव, अवलोकन हांच्या पांयांचेर उबारिल्ली विचारप्रधान रचना'.

मॉन्तेनाच्या एसायांनी प्रसंगाक धरून उण्या अदीक प्रमाणांत अणभवदर्शन आनी विचार विवरणाक मेकळी वाट मेळ्ळया. हो प्रकार निबंदांत वा लघुनिबंदांत खऱ्या अर्थान आस्पावंक शकना. पूण तो कांयसो मुळाव्या स्वरुपाच्या लघुनिबंदावटेन घुंवता. कारण आयच्या नितळ आनी विकसीत स्वरुपाच्या सौंदर्यात्मक वा ललीत वाङ्मयीन जाणविकायेन ताणें तें बरप करूंक ना, अशें जाणकारांचें मत आसा. त्या काळांत तें जावपूय शक्य नाशिल्लें. ताच्या अणभवांक नीट असो घाट प्राप्त जाल्लो ना. जायते फावटीं ते विस्कळीत दिसतात.

एसे आनी पर्सनल एसे ह्या दोनूय प्रकारांनी अणभव, देखी येतातूच. पूण तांचें स्वरूप वेगळें आसता. एसेंत विचारांक म्हत्व आशिल्ल्यान ते विचार वस्तूनिश्ठ कशे जातले, तर्कसंगत कशे उरतले, ते व्यक्त करतना तातूंत तटस्थताय, अलिप्तताय कशी येतली हांची खेरीज दक्षताय घेतात. विचारांक म्हत्व आशिल्ल्यान तातूंतले अणभव आनी देखी निबंदांत साधनीभूत उरतात.

पर्सनल एसेंत विचारांक गौण स्थान प्राप्त जालां. चड करून ते विचार अणभवांतल्या चिंतनाच्या पांवड्याचेरूच उरले. तशे उरिल्ल्यान अणभवांचो एक वांटो म्हणून तांचें अस्तित्व उरता. एसे वस्तूनिश्ठ आसता जाल्यार पर्सनल एसे हो व्यक्तीनिश्ठ जाता. वस्तूनिश्ठ निबंदांत कसल्याय विशयासंबंदान विचार व्यक्त केल्ले आसतात, जाल्यार व्यक्तिनिश्ठ विशय हो निमित्त जावन येता. विशयाच्या निमतान 'हांव' चे अणभव उक्तातायल्ले आसतात. हे अणभव मेकळेपणान उक्तायल्ल्यान तातूंत शेवटाक 'हांव' व्यक्त जाता. म्हळ्यार लघुनिबंदाच्या शेवटाक विशय 'हांवूच' आसता. तशें पळोवंक गेल्यार व्यक्तिनिश्ठेक वस्तूनिश्ठेपसून पुरायपणान वेगळी करूंक जावंचिना. कारण दर एका लिखाणांत लेखकाचे व्यक्तीचो प्रभाव थोड्या-भोव प्रमाणांत पडपाचो संभव आसताच. तेखातीर जावं निबंदांत वा हेर खंयच्याय लिखाणांत हे दोनूच घटक एकामेकांत भरसून गेल्ल्याचें जाणवता.

'ललीत निबंद' हो शब्दप्रयोग ज्या अर्थान आयज आमकां अभिप्रेत आसा, त्या अर्थान १९५० उपरांत चड प्रमाणांत मराठी साहित्यांत संवकळीचो जालो. आधुनीक मराठी साहित्यांत जेन्ना नवसाहित्यान मोडण घेतलें, तेन्ना ताका आयच्या रुढार्थान वापरपाक लागले. आयज 'ललीत निबंद' ह्या साहित्यप्रकारांत १९५० पयलीं जाका लघुनिबंध, प्रवास लेख, यादी, व्यक्तिचित्रणां, ललीतलेख अशें म्हण्टाले हे सगळे प्रकार हाचेखाल येतना दिसतात.

निबंदाचे पांच प्रकार सांगल्यात. १) वर्णनात्मक २) कथनात्मक ३) चिंतनात्मक ४) कल्पनात्मक आनी ५) चरित्रात्मक वा आत्मचरित्रात्मक.

निबंदाचे हे प्रकार आमचे सोयीखातीर केल्ल्यान, हे प्रकार एकामेकांपसून

…फाटी आशिल्ले. तांची बुद्द जागोवपाचे इत्सेन राजान सुमती …का मंत्र्याच्या सल्ल्यावयल्यान विष्णुशर्मा नांवाच्या एका ब्राह्मणाक …डलो आनी ताका आपल्या भुरग्यांक राजनीत तेचपरी दीसपट्टे …गी थरपी वेव्हारज्ञान शिकोवपाची विनवणी केली. विष्णुशर्मान …रवीं उपदेश करून राजकुंवरांक शाणे केले त्योच ह्यो कथा. …धकथांचो उगम निश्चीत खंयच्या काळांत जालो हाची पुरायपणान …ळना. पूण त्यो इसवी सनाच्या दुसऱ्या वा तिसऱ्या शतमानांत …ासुंये अशें मानप जाता. इ. स. ५०० च्या सुमाराक ह्यो … आशिल्ल्यो असोय एक समज आसा.

…तंत्रांच्या ह्या पांच मुखेल कथांमदीं जायत्यो उपकथा आसात …तल्यो बऱ्योचशो प्राणीकथा आसात. पूण तातूंतल्या मुखेल पांच …वां अशीं -

…मेत्रभेद : हातूंत पिंगलक नांवाचो शींव आनी संजीवक नांवाचो …ोन इश्टांमदीं धूर्त कोल्यान कसो उजो लायलो ती कथा आसा.

…मेत्रसंप्राप्ती : हातूंत चित्रग्रीव हंस, हिरण्यक हुंदीर, लघुपतनक …चेत्रांग हरण आनी मंथरक कांसव हांची इश्टागत कशी जमली …आसा.

…काकोलूकीयम : हातूंत कावळो आनी घुबड हांचे दुस्मानकायेची …ल्या.

…लब्धप्रणाशम : हातूंत वानर आनी मानगें हांचे इश्टागतीची कथा

…अपक्षितकारकम. : हातूंत ब्राह्मण आनी ताचें मुंगूस हांच्या …वो परिणाम दाखोवपी कथा आसा.

… तंत्राचें नांव कथेचे सुर्वेकूच सांगलां आनी मुखेल कथेची …रपी एक आद्य श्लोकूय दिला. देखीक 'मित्रभेद' ह्या पयल्या …र्वेक हो श्लोक आसा.

> वर्धमानो महान् स्नेह : सिंहगोवृषयोर्वने ।
> पिशुनेनातिलुब्धेन जाबूकेन विनाशितः ॥

…त शींव आनी बैल हांची वाडटी इश्टागत एका दुश्ट आनी …ी कोल्यान तोडली. ह्या श्लोकाचेर राजकुंवर अशें कशें जालें? …न करतात. उपरांत पिंगलक (शींव) आनी संजीवक (बैल) हांचे … आड कोलो आयिल्ल्यान पिंगलकान संजीवकाक मारलो ही …तली मुखेल कथा. उपरांत एके कथेंतल्यान दुसरी कथा, …ान तिसरी अशी कथांची माळ जाली. कथेंत येवपी उपकथांची … कसल्याय तरी श्लोकान जाता. विष्णुशर्मा हाणें पुराय नितीशास्त्र …हारविज्ञान ह्या कथांवरवीं त्या मंदबुध्दीच्या राजकुंवरांक सांगलें. …ासस्वी करपाखातीर गरज आशिल्ल्या सगळ्या गुणांचो ताणें … आनी सुभाषितांवरवीं उपदेश केलो.

…त्रांतल्या कथांची गद्य शैली सादी पूण आकर्शक आसा. तशेंच …या कथांचें सार कलापूर्ण, सुभाशितात्मक श्लोकांत दिवपाची …चतत्रांत घेतल्या. उपदेश करप हो जरी कथांचो मुखेल हेत …तरी तातूंतली मनोरंजकताय उणी जाल्ली ना. पंचतंत्रांतलीं …ड करून मोनजातूच आसलीं तरी कांय कथांनी मनीसपात्रांय … प्राणीकथांचो उगम सुर्वेक महाभारतांत जालो आनी थंयच्यान …वन विष्णुशर्म्यान हो कथांझेलो तयार केलो अशें विद्वानांचें मत …ाच्या मतान रामायण, महाभारत, मनुस्मृती, आनी चाणक्याचें अर्थशास्त्र हातूंतल्यान विष्णुशर्म्यान जायते विचार आनी श्लोक ह्या कथांनी घेतल्यात.

संवसारांतल्या चडशा सगळ्या भाशांतल्यान पंचतंत्राचे अणकार जाल्ले आसून ह्या पुस्तकाक संवसारांत खूब नामना मेळ्ळ्या. बुकॅशिओ, इसाप आदी पुर्विल्ल्या अस्तंती कथालेखकांक पंचतंत्रावरवींच स्फूर्त मेळ्ळी अशें विद्वानांचें मत आसा.

मूळ पंचतंत्र सद्या उपलब्ध ना. पूण ल्हान व्हड फरक आशिल्ले ताचे दोनशां परस चड पाठ मेळटात. ह्या पाठाच्यो सादारणपणान ज्यो परंपरा मानतात त्यो अशो :

(१) पेहलवी : इ. स. सव्या शेंकड्यांत पंचतंत्राचो पेहलवी अणकार जालो. ह्या अणकाराक 'करटक आनी दमनफ' अशें म्हण्टात. मूळ पेहलवी अणकार उपलब्ध ना. सद्या ह्या अणकारावयल्यान तयार केल्ले सिरिॲक आनी अरबी अणकार मेळटात. फुडें अरबी अणकारावयल्यान ग्रीसी, लॅटिन, स्पेनी, इटालियी, चॅक आदी युरोपी भाशांनी पंचतंत्राचे अणकार जाल्यात.

(२) बृहत्कथेंतलें पंचतंत्र : गुणाढ्याचे बृहत्कथेंत ताणें पंचतंत्राचो आस्पाव केल्याचें म्हणप जाता. पूण तें सद्या मेळना. क्षेमेंद्र हाचे बृहत्कथा मंजरीत आनी सोमदेवाच्या कथासरित्सागरांत पंचतंत्रांतल्यो कांय कथा आसात.

(३) तंत्राख्यायिक : ह्या नांवाचीं कांय हातबरपां काश्मीरांत मेळ्ळ्यांत. हो पंचतंत्राचो सगळ्यांत पोरणो पाठ अशें मत आसा.

(४) दक्षीण भारतीय पंचतंत्र : हाचीं हातबरपां दक्षीण भारतांत मेळ्ळ्यांत.

(५) नेपाळी पंचतंत्र : हें पद्यमय आसून दक्षीण भारतीय पंचतंत्राक खूब लागींचें आसा. हाचें फकत हातबरप मेळटा.

(६) जैन पंचतंत्र : हाका 'टॅक्स्टस सिंप्लिसिअर' ह्या नांवान वळखतात. हाच्या कर्त्याची निश्चीत म्हायती मेळना. ह्या टॅक्स्टस सिंप्लिसिअरवयल्यान पूर्णभद्र नांवाच्या एका जैन यतीन एक नवो पाठ तयार केलो (११९९). ताच्या ह्या पाठाक टॅक्स्टस ऑर्नाटिअर आनी पंचाख्यान अशीं नांवां आसात. हातूंत कांय नव्यो कथा आनी सुभाशितां आयिल्लीं आसात. पंचतंत्राच्या उत्तर काळांतल्या पाठांत हो पाठ सगळ्यांत बरो समजप जाता. टॅक्स्टस सिंप्लिसिअर आनी टॅक्स्टस ऑर्नाटिअर ह्या दोन पाठांचो भारतांत व्हड प्रमाणांत प्रचार जालो.

- कों. वि. सं. मं.

**पंचम :** शुक्ल-कृष्ण पक्षांतली पांचवी तीथ. हिका पूर्णा अशें दुसरें नांव आसा. ही तीथ शूभ मानिल्ली आसा. वर्सासणाच्यो कांय पंचमी तिथी नामनेच्यो आसात त्यो अशो : नागपंचम (श्रावण शुक्ल पक्ष), ऋषीपंचम - (भाद्रपद शुक्ल पक्ष), ललीत पंचम (आश्विन शुक्ल पक्ष), पांडव पंचम (कार्तिक शुक्ल पक्ष), वसंत पंचम - (माघ शुक्ल पक्ष), रंगपंचम - (फाल्गुन कृष्ण पक्ष).

पंचमी दिसा चड करून लक्ष्मीपूजेचें विधान सांगलां. पंचमी दिसा जल्माक आयिल्लें भुरगें सुंदर, हुशार, गुणी आनी राजमान्य आसता अशें कोष्ठीप्रदीपांत सांगलां.

- कों. वि. सं. मं

**पंचमहाभुतां :** पृथ्वी, उदक, अग्नी, वायू आनी आकाश हीं पांच तत्त्वां पंचमहाभुतां अशीं मानल्यांत. तांकांच लागून ही सगळी भौतीक सृश्ट निर्माण जाता. सगळ्या भौतीक पदार्थांनी पंचमहाभुतांचें थोडें तरी अस्तित्व आसता.

कांय अस्तंती आनी भारतीय तत्त्वज्ञानांनी चार तत्त्वां मानल्यांत. आकाश हें इंद्रियगम्य नाशिल्ल्यान तें स्वतंत्र तत्त्व मानपाची गरज ना अशें मत ताणीं मांडलां.

हीं तत्त्वां आत्म्यापसून निर्माण जालीं अशें उपनिषदांनी म्हळां. तैत्तिरीय उपनिषदांत, आकाश, वायू, अग्नी, उदक आनी पृथ्वी अशीं पांच तत्त्वां उत्पन्न जालीं अशें म्हळां. अग्नी, उदक आनी पृथ्वी ह्या तीन तत्त्वांच्या संयोगांतल्यानूच सृश्टीची उत्पत्ती जाता अशें छांदोग्य उपनिषदांत म्हळां. सांख्यदर्शनांत पुरुष आनी त्रिगुणात्मक प्रकृती हीं दोन तत्त्वां मानल्यांत. प्रकृतीपसून बुद्द आनी अहंकार हीं तत्त्वां निर्माण जातात. अहंकारांतल्या रजोगुणाचो प्रकर्ष जावन तातूंतल्यान मन आनी पांच ज्ञानेंद्रियां तयार जातात. अहंकारांतल्या तमोगुणाचो प्रकर्ष जावन तातूंतल्यान शब्द, स्पर्श, रूप, रस आनी गंध हीं पांच तन्मात्रां निर्माण जावन हांचेपसून पंचमहाभुतां तयार जातात. सृश्टीची उत्पत्ती ह्या भुतांच्या परस्पर संसर्गान जाल्ल्यान अशा मिश्रणाक 'पंचीकरण' म्हण्टात. दरेका महाभुतांत स्वताचो १/२ अंश आनी हेर चार महाभुतांचो दरेकी १/८ अंश आसता. कांय उपनिशदांनी तिनूच तत्त्वां मानिल्ल्यान तांच्या संसर्गाक 'त्रिवृत्करण' अशें म्हळां.

दरेका महाभुतांत तन्मात्रां म्हळ्यार शब्द, स्पर्श, रूप, रस, गंध हे गूण आसतात.

पुर्विल्ल्या काळांत ह्या महाभुतांक संतुश्ट करपाखातीर प्रार्थना करताले. आयजूय ह्या महाभुतांक वश करून घेवन तांचे शक्तीचो उपेग मनशाच्या कल्याणाखातीर करून घेवपाचो आर्विल्ल्या शास्त्रज्ञांचो यत्न चलला.

- कों. वि. सं. मं.

**पंचवटी :** एक पुण्यक्षेत्र. महाराष्ट्र राज्याच्या नासिक जिल्ह्यांत हें तीर्थक्षेत्र आसा. तें गोदावरी न्हंयेचे देगेर वसलां. नासिक्य (नासिक) म्हळ्यारूच पंचवटी असो वायुपुराणांत उल्लेख मेळटा. पंचवटीक रावपाक वतकूच, रामान वटवृक्षरुपी पांच ऋषिकुमारांचो उध्दार केलो म्हणून त्या थळाक पंचवटी अशें म्हणपाक लागले.

नासिका लागसार आशिल्ल्या सायखेडे गांवांत रामान मारीचाक मारलो. लक्ष्मणान शूर्पणखेचें नाक कापून तिका विद्रूप केली. पंचवटींतल्यानूच रावणान सीतेक उबारून व्हेली अशो कथा आसात.

पंचवटीच्या सुमार देड किमी. अंतराचेर तपोवन आसा. थंय लागींच इकरा घोली आसून त्यो लक्ष्मणगुहा नांवान वळखतात.

राममंदिर हें पंचवटींतलें मुखेल देवूळ. ह्या देवळाचे उत्तरेक एक घोल आसा. तिका सीतागुंफा म्हण्टात. तेभायर कपालेश्वरमंदिर, सुंदरनारायण, गंगामंदिर, रामेश्वरमंदिर हींय देवळां पळोवपासारकीं आसात.

- कों. वि. सं. मं.

**पंच वर्सुकी येवजणो :** देशाचो अर्थीक, समाजीक तसोच हेर मळांवयलो विकास सादप आनी सगळ्या मळांमदीं सुमेळ राखप हो विचार मुखार दवरून ताचे पुर्ततायेखातीर हेतुपुरस्सर अशे दूरगा अर्थीक निर्णय घेवपाची, तशेंच ते निर्णय चालीक लावपाची पांच वर्सांखा केल्ली येवजण. पुराय राष्ट्राच्या लोकहिताचें उद्दिश्ट सफल जा जाल्यार राष्ट्राचे सार्वभौम सत्तेकडेन राष्ट्राच्या अर्थकारणाचे निय उरूंक जाय हे कल्पनेंतल्यान नियोजन ही संकल्पना मुखार आयली

पयल्या म्हाझुजा उपरांत विसाव्या शतमानांत नियोजन ही सकल सगळ्यांत पयलीं रशियेंत मुखार हाडचे पयलीं मुक्त अर्थवेवस्था प्रच आशिल्ली. हे मुक्त अर्थवेवस्थेवरवीं राष्ट्राचो अर्थीक विकास करून ग्रेट ब्रिटन, अमेरिका, फ्रांस, सारकिल्या देशांनी पारंपारीक अ बंधनां तोडून आपआपल्या देशाचो अर्थीक विकास करून घेतलो जरी आसलें तरी मुक्त अर्थवेवस्थेंतल्यान जाल्लो अर्थीक विकास, अ समताय निर्माण करूंक पावना आनी राष्ट्राचो अर्थीक विकास तरी तो समाजहीत सादूंक पावना हें मुक्त अर्थवेवस्थेंत दाखोवन तेभायर मुक्त अर्थवेवस्था ही राष्ट्राच्या नियंत्रणाभायली प्रक्रिया आशिल ती सदाकाळ अर्थीक विकास सादतलीच म्हणपाची खात्री दिवंक जावंच चड करून मुक्त अर्थीक वेवस्थेंत सशक्त अशी मक्तेदारशाय जल येता आनी ही मक्तेदारशाय मुक्त अर्थीक कार्यावळीक बादा हा नियोजन पद्दत आनी मुक्त वेवस्था हांचे दोगांयचे फायदे तशेंच नुक आसलीं तरी दोगांयचे तुळेन नियोजन पद्दत चड सुविधांची आसा प्रचिती आयिल्ल्यान संवसारांतल्या भोवतेक देशांक खंयच्या ना खय रुपांत नियोजन पद्दत आपणावंक मेळटा.

सर्वसादारणपणान नियोजनां फाटलीं उद्दिश्टां आसतात तीं अ

(१) वेगवान अशी अर्थीक उदरगत.

(२) वापरांतल्या वस्तूंनी विक्रमी वाड.

(३) अर्थीक थिराय म्हणजेच सगळ्यांक रोजगार.

(४) अर्थीक समानताय.

(५) परराष्ट्रीय अर्थवेव्हारांत आदार वा समतोल.

हातूंतलीं कांय उद्दिश्टां एकामेकांक पूरक आसतात जाल्यार परस्परविरोधी आसतात. हें पुरकपण वा विरोधीपण सदांकाळ नास तशें तें उद्दिश्टांच्या थरावीक जोडयांमदीं नासता. अर्थवेवस्थेंतल्या खं उद्दिश्टांक कितलें म्हत्त्व दिवंचें हें थारोवपाचो यत्न नियोजनांत जाता. देशाच्या राजकीय, अर्थीक आनी समाजीक परिस्थित नियोजनांतल्या उद्दिश्टांचेर म्हत्त्व थरता. अविकसीत देशांतली विकास दितलो जाल्यार अर्थीक समताय ह्या उद्दिश्टांक थोडो काळ तरी दुय्यम दिवचें पडटा. कारण अर्थीक समतोल, अर्थीक विकासाक बादा हा भांडवलशाय देशांतले येवजणेंत उत्पादन यंत्रणेची कार्यक्षमताय वाडोव भर दिवप जाता. जाल्यार साम्यवादी देशांत अर्थीक समतेक अ विकासाइतलेंच म्हत्व दिवप जाता. भोवतेक लोकशाय देशांनी अ समतेचें तत्त्व हो आदार धरून येवजण करप जाता. अशे तरेन येव प्रक्रियेंत येवजण तयार करपाचे पद्दतीक जितलें म्हत्त्व उरता ति तें येवजण कार्यरत करपाचे वेवस्थेकूय उरता. हाका लागून वित मनीसबळ, परकी मदत, आयात-निर्यात सारकिल्या राष्ट्रीय प्रस विचार नियोजनांत करप जाता.

**भारतीय पंचवर्सुकी येवजणो -**

सद्याच्या रूपकारांतली पंच वर्सुकी येवजण ही १९५१-५६ हे

...ी येवजणेसावन अस्तित्वांत आयली आसली तरी भारताचे ...जणेसंबंदीं, भारत स्वतंत्र जावंचे पयलींसावन यत्न जाल्ले ...र मोक्ष गुंडम विश्वेश्वरय्या हाणें १० वर्सां भितर दोट्टी ...रपाची मोख मुखार दवरून १९३३ वर्सा येवजण केल्ली. ते ...९३८ वर्सा पंडित जवाहरलाल नेहरूच्या फुडारपणाखाल ...शान नेमिल्ले नियोजन समितीन आपलो अहवाल १९४५त ...ल्लो. सादारणशें ह्याच काळांत देशांतल्या कांय मुखेल ...नी 'बाँबे प्लॅन' नांवाची भारताचे अर्थीक येवजणेची एक कार्यावळ ...ही येवजण भांडवलदारांची अशें म्हणून समाजवादी गटान एम. ... हाच्या मार्गदर्शनाखाल राष्ट्रीयीकरण करपाचे नदरेंतल्यान ...नता योजना' तयार केली.

...टभुंयेचेर भारत स्वतंत्र जायनाफुडें पंडित जवाहरलाल नेहरूच्या ...खाल सत्तेर आयिल्ल्या सरकारान १९५०त नियोजन आयोगाची ...रून पयले पंचवर्सुकीच्या येवजणेची सुरवात केली. भारतीय ... आयोगांचो अध्यक्ष भारताचो प्रधानमंत्री आसता, ताचे वांगडा ... नियोजन मंत्री, शेतकी मंत्री, मनीस संसाधन मंत्री सारके ...कडेन संबंधीत आशिल्ले केंद्रीय मंत्री तशेच वेगवेगळ्या मळांवयले ...डी म्हणून आसतात.

**...ी पंचवर्सुकी येवजण (१९५१-५६)** – दुसरें संवसारीक म्हाझूज ...शाची जाल्ली फाळणी हांकां लागून निर्माण जाल्ले अर्थीक ...ायेक तोंड दिवन राष्ट्रीय संपत्तेंत भरीव अशी वाड करप आनी ...रण मनशाच्या जिवीतमानांत सुदारणा घडोवन हाडून भारताचो ... विकास करप ही पयले पंचवर्सुकी येवजणेची मुखेल मोख ...ी. हे येवजणेंत राष्ट्रीय उत्पन्न १२ टक्क्यांनी वाडोवपाचो ... दवरिल्लो. हे येवजणेंत कृषी, उद्देग आनी संबंदीत बाबींचेर ... क्षेत्रांतल्या खर्चाच्या सुमार ४४ प्रतिशत खर्च कृषी उद्देगाचेर ... मोख दवरली.

**पयली येवजण - सरकारी क्षेत्रांतलो प्रत्यक्ष खर्च**

| घटक | खर्च (कोटींनी) |
|---|---|
| शेती आनी तत्सम विभाग | २९० |
| शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ४३४ |
| विद्युत् | १४९ |
| ग्रामीण उद्येग आनी लघुउद्येग | ४२ |
| उद्येग आनी खनिजां | ५५ |
| येरादारी आनी प्रसारण | ५१८ |
| हेर (शिक्षण, भलायकी) | ४७२ |
| वट्ट | १,९६० |

**...सरी पंचवर्सुकी येवजण (१९५६-६१) -**

...सरे पंचवर्सुकी येवजणेचो आराखडो तयार करतना अर्थीक समताय ...ख मुखार दवरून अर्थीक तशेंच समाजीक नदरेन फाटीं उरिल्ल्या ...क वयर काडपाचे कार्यावळीक प्राधान्य दिवप हो उद्देश मुखार ...ो. ह्या उद्देशाचे पुर्तीखातीर मुखेल पांच घटकांचेर भर दिलो तो

(१) राष्ट्रीय उत्पन्नांत २५ प्रतिशत वाड.

(२) मुळाव्या तशा अवजड उद्देग धंद्याचो जलद विकास करपाचेर भर.

(३) सुमार एक कोटी लोकांक रोजगार दिवप.

(४) उत्पन्न आनी संपत्ती हांचेमदली विषमताय उणी करप आनी अर्थीक सत्तेची समतोल अशी वांटणी करप.

(५) विनियोगाचें प्रमाण राष्ट्रीय येणावळीच्या सात टक्क्यांवयल्यान ११ टक्क्यांचेर व्हरप.

हे येवजणेंत उद्देगीकरणाचेर भर दिवप आनी लोखण, तिखें, सारीं, रसायनां, यंत्रनिर्मिती हांच्या उत्पादनाचे वाडी वांगडाच लघुउद्देग आनी ग्रामउद्देग हांचो विकास करून गरजेच्या वस्तूंच्या उत्पादनांत भरीव वाड करप.

**पयले आनी दुसरे पंचवर्सुकी येवजणेची सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी)**

| | घटक | खर्च | टक्केवारी | खर्च | टक्केवारी |
|---|---|---|---|---|---|
| १. | शेती आनी सामाजिक विकास | २९१ | १५ | ५३० | ११ |
| २. | मोठे आनी मध्यम प्रतीची शिंपणावळ | ३१० | १६ | ४२० | ९ |
| ३. | पावर | २६० | १३ | ४४५ | १० |
| ४. | ग्रामीण आनी लघुउद्येग | ४३ | २ | १७५ | ४ |
| ५. | उद्येग आनी खनिजां | ७४ | ४ | ९०० | २० |
| ६. | येरादारी आनी प्रसारण | ५२३ | २७ | १,३०० | २८ |
| ७. | भौशीक सेवा आनी हेर | ४५९ | २३ | ८३० | १८ |
| | वट्ट | १,९६० | १०० | ४,६०० | १०० |

**तिसरी पंचवर्सुकी येवजण (१९६१-६६)** - आदल्या दोन येवजणेंतल्या सर्वसादारण विकासाच्या उद्दिश्टांवांगडाच समाजांतल्या तळांतल्या लोकांच्या तशेंच फाटीं उरिल्ल्या वाठारांच्या अडचणींचेर खास भर दिवपाचो यत्न हे येवजणेंत केलो. हे येवजणेचीं मुखेल उद्दिश्टां अशीं आसलीं -

(१) राष्ट्रीय येणावळींत वर्सुकी पांच टक्के वाड जावन ही वाड उरिल्ल्या येवजण काळांत कायम उरची म्हूण गुंतवणुकीची आंखणी करप.

(२) उद्देगीकरण आनी निर्यातीच्यो गरजो भागोवपा इतली अन्न-धान्य आनी शेतकी उत्पादनांत वाड.

(३) जाचेवरवीं फुडाराच्या सुमार धा वर्सां देशाच्या उद्देगधंद्यांक लागपी तिखें, रसायनां, इंधन, वीज, यंत्रनिर्मिती सारकिल्या मुळाव्या उद्देगांनी वाड करून हे बाबतींत स्वावलंबी जावप.

(४) देशांतल्या मनीसबळाचो चडांत चड उपेग करप आनी रोजगारीचे संदींत भरीव वाड करप.

(५) समान संद निर्माण करून येणावळ आनी संपत हांचेमदलें अंतर उणें करप आनी अर्थीक सत्तेंत जाता तितली समताय हाडप.

तिसरे पंचवर्सुकी येवजणेचो खर्च आनी गुंतवणूक (कोटींनी).

| घटक | येवजण खर्च | सरकारी चालू खर्च | गुंतव-णूक | खाजगी गुंतवणूक | एकंदर गुंतवणूक |
|---|---|---|---|---|---|
| १. शेती, लघु-शिंपणावळ आनी सामाजिक विकास | १०२५ | ३५० | ६७५ | ८०० | १४७५ |
| २. मोठी आनी मध्यम शिंपणावळ | ६५० | १० | ६४० | — | ६४० |
| ३. विद्युत् | ९२५ | — | ९२५ | ५० | ९७५ |
| ४. ग्रामीण आनी लघुउद्येग | २५० | ९० | १६० | २७५ | ४३५ |
| ५. उद्येग आनी खनिजां | १५०० | — | १००० | १५०० | २५०० |
| ६. येरादारी आनी प्रसारण | १४५० | — | १४५० | २०० | १६५० |
| ७. भौशीक सेवा | १२५० | ६०० | ६५० | १०७५ | १६५० |
| ८. इनवेन्टोरीज | २०० | — | २०० | ६०० | ८०० |
| वट्ट | ७२५० | १२५० | ६२०० | ४००० | १०२०० |

**तीन वर्सुकी येवजणो :** १९६५त भारत-पाकिस्तान झूज, १९६५-६६ अशीं दोन वर्सां सलग दुश्काळ, चलनाचें अवमुल्यन, भाववाड, हांकां लागून चवथी वर्सुकी येवजण फुडें गेली आनी ६६-६७, ६७-६८ आनी ६८-६९ अशो तीन मदेवर्ती वर्सुकी येवजणो करच्यो पडल्यो.

**चवथी पंचवर्सुकी येवजण (१९७०-१९७४)** - चवथे वर्सुकी येवजणेचीं मुखेल उद्दिश्टां -

१) सवस्तकाय आनी स्वावलंबन सादपी अशी अर्थ वेवस्था.

२) शेतकी उत्पादन वाडोवपी शिंपणावळीचो विकास.

३) फुडाराक तंत्रीक उदरगत सादपी उद्देगीक विकास आनी उद्देगीक विकेंद्रीकरण.

४) प्रदेशीक ल्हान प्रमाणांतल्या उत्पादकांक पालव दिवप.

५) रोजगाराच्यो संदी चड प्रमाणांत उपलब्ध करप.

६) पंचायत राज्य संस्थांचें समाजीक, अर्थीक आनी राजकीय विकेंद्रीकरण करप.

चवथे पंचवर्सुकी येवजणेची सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).

| | घटक | अंदाजी | प्रत्यक्ष |
|---|---|---|---|
| १. | शेतकी आनी सामाजिक विकास | २,७२८ | २३२० |
| २. | शिंपणावळ आनी विद्युत् पुरवण | ३,५३५ | ४२८६ |
| ३. | उद्देग आनी खनिजां | ३,६३१ | ३१०७ |
| ४. | येरादारी आनी संपर्क | ३,२३७ | ३०, |
| ५. | भौशिक सेवा आनी हेर सुविधा | २,७७१ | २९, |
| | वट्ट | १५,९०२ | १५,७ |

**पांचवी पंचवर्सुकी येवजण (१९७४-७९) -**

(१) दळडीर रेशे सकयल्या लोकांचे गरजेच्या वापराचें प्रमाण काडप आनी वट्ट स्वावलंबन हाडप.

(२) चलनवाडीक आळाबंद हाडून अर्थीक परिस्थितींत थिराय हा

(३) राश्ट्रीय उत्पादनांत वर्सुकी ५.५ प्रतिशत वाड.

पांचवे वर्सुकी येवजणेच्या काळांत घोळटी येवजण हें येवजणे तंत्र आपणावप जालें. हे येवजणेच्या नव्या तंत्राप्रमाण एक खर्णा वर्सुकी काळखंडाची येवजण करिनासतना दर वर्सा फुडल्या वर्साखातीर येवजण करप. ह्या नव्या तंत्राप्रमाण येवजणेचे व जमाखर्चाचो अदमास मेळटा आशिल्ल्या कारणान काळाप्रमाण ग अशे बदल आनी तडजोडी करप सोपें जावंक लागलें.

**पांचवे पंचवर्सुकी येवजणेचो सरकारी खर्च (कोटींनी)**

| | घटक | १९७५-७६चे येवजण दरेन सुदारीत | १९७२- येवजण मसु |
|---|---|---|---|
| १. | शेतकी आनी हेर कार्यावळी | ४६४३.६९ | ४०४४ |
| २. | शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ३४४०.४८ | २००४. |
| ३. | पावर | ७२९३.९० | ६०७६ |
| ४. | येरादारी आनी संपर्क | ८८८१.४३ | ७११० |
| ५. | शिक्षण | १२८४.२९ | १७०८. |
| ६. | भौशिक आनी सामाजिक सेवा (शिक्षण सोडून) | ४७५९.७७ | ५२८६ |
| ७. | उद्देग आनी खाणी | १०,२००.३० | ९०३१ |
| ८. | दोंगराळ आनी जमाती वाठार | ४५०.०० | ५०० |
| ९. | राखीव | ३४९.७३ | |
| | | ३९,३०३.४९ | ३७,४६२ |

**सवी पांच वर्सुकी येवजण (१९८०-८५)** - फाटल्या २० व काळांतल्या येवजणांचें फलीत मतींत दवरून सवे येवजणेची अ करप जालें. हे येवज़णेचीं मुखेल उद्दिश्टां अशीं -

१) गरिबी ना करप.

२) शेतकी उद्देग तशें हेर उद्देग सुविधा निर्माण करप आनी गुंतव वाड जावपासारकी परिस्थिती निर्माण करून उत्पादन आनी नि भर घालप.

३) सगळ्याच आस्थापनांतल्या लोकांचो सहभाग आनी कार्यक्ष कशी वाडटली हाचो विचार करप.

४) लोकसंख्येक आळाबंद हाडप.

**सवी पंचवर्सुकी येवजण - खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).**

| ा | सवी येवजण खर्च १९८०-८५ | वर्सुकी येवजण १९८०-८१ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८१-८२ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८२-८३ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८३-८४ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८४-८५ (चालंत) | सवी येवजण (प्रत्यक्षांत) |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | ५६९५.१ | ९८१.५ | ११२९.४ | १२६१.० | १४२७.० | १८२४.६ | ६६२३.५ |
| ाण विकास | ५३६३.७ | १०४०.२ | ११००.९ | १२९५.८ | १४९७.९ | २०६२.० | ६९९६.८ |
| ाली क्षेत्रीय कार्यावळ | १४८०.० | २०६.४ | २५८.५ | ३३५.१ | ३५६.८ | ४२३.५ | १५८०.३ |
| ाणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १२१६०.० | १७७७.३ | १९४८.४ | २१०५.२ | २४४५.४ | २६५३.६ | १०९९२.९ |
| ि | २६५३४.४ | ३८२८.० | ५०६४.९ | ६४०९.६ | ७२७६.६ | ८१७२.२ | ३०७५१.३ |
| पावर | १९२६५.४ | २६५६.८ | ३१८२.३ | ३७०८.५ | ४०९२.५ | ४६५८.५ | १८२९८.६ |
| उर्जेचें नवीनीकरण | १००.० | ४.३ | १३.९ | २२.५ | ३३.७ | ८८.७ | १६३.१ |
| खनीजतेल | ४३००.० | ७३५.२ | १२०४.८ | १८२३.१ | २१९७.८ | २५२१.२ | ८४८२.१ |
| कोळसो | २८७०.० | ४३१.७ | ६६३.९ | ८५५.५ | ९५२.६ | ९०३.६ | ३८०७.५ |
| उर्जा विकास | – | – | – | – | – | – | – |
| ा आनी खनिजां | १५०१७.६ | २१९४.५ | २७७७.९ | ३०७५.३ | ३९१६.४ | ४९८३.४ | १९६४७.५ |
| ग्रामीण आनी लघुउद्देग | १७८०.५ | २७३.२ | ३२२.९ | ३२६.१ | ४०२.६ | ६२०.३ | १९४५.४ |
| व्हड आनी मध्यम उद्देग | १३२३७.१ | १९२१.३ | २३६०.० | २७०९.२ | ३४७८.८ | ४३२१.१ | १४७९०.४ |
| हेर | – | – | ९५.० | ४०.० | ३५.० | ४२.० | २१२.० |
| ादारी | १२४१२.० | २१६३.० | २५८३.१ | २७५२.८ | ३०७५.८ | ३६३३.७ | १४२०८.४ |
| ) रेल्वे | ५१००.० | ९७३.० | १२१०.० | १३१९.५ | १४१९.६ | १६६४.६ | ६५८६.७ |
| ) हेर | ७३१२.० | ११९०.० | १३७३.१ | १४३३.३ | १६५६.२ | १९६९.१ | ७६२१.७ |
| र्क, म्हायती आनी प्रसारण | ३१३४.३ | ३५६.७ | ५७६.१ | ६७४.८ | ८६४.५ | ९९७.४ | ३४६९.५ |
| ाविज्ञान आनी विज्ञान | ८६५.२ | ९७.४ | १४८.३ | २०८.१ | २२८.५ | ३३८.१ | १०२०.४ |
| शेक सेवा | १४०३५.२ | २०७४.६ | २४८७.२ | २९५०.२ | ३८३४.७ | ४५५९.९ | १५९१६.६ |
| ) शिक्षण | २५२३.७ | ३३९.५ | ४३५.७ | ५३८.६ | ६९७.८ | ९६५.० | २९७६.६ |
| ) आरोग्य आनी कुटुंब येवजण | २८३१.० | ४११.५ | ५३०.४ | ६७५.२ | ८५३.१ | ९४२.० | ३४१२.२ |
| ) घरा आनी शारां विकास | २४८८.४ | ४७७.३ | ४८८.१ | ५०७.३ | ६५६.९ | ७०९.५ | २८३९.१ |
| ) हेर भौशिक सेवा | ६१९२.१ | ८४६.३ | १०३३.० | १२२९.१ | १६२६.९ | १९५३.४ | ६६८८.७ |
| | ८०१.५ | ११२.८ | १३६.२ | २१५.० | १६३.९ | २११.६ | ८४७.५ |
| ट (१ ते ११) | ९७५००.० | १४८३२.४ | १८२१०.९ | २१२८२.९ | २५०८७.५ | २९८७८.० | १,०९२११.७ |
| | – | (१५०२३.४) | (१८३७२.९) | (२१७२४.९) | (२५३१३.६) | (३००३२.५) | ११०४६७.३ |
| ्रीय येवजण | ४७२५०.० | ७०४९.३ | ९१९७.० | ११२८४.९ | १३६४४.० | १६६५०.० | ५७८२५.२ |
| ज्य येवजण | ४८६००.० | ७५२७.५ | ८६६६.३ | ९५८७.८ | १०९९४.८ | १२६८१.८ | ४९४५८.२ |
| | – | (७७१८.५) | (८८२८.३) | (१००२९.८) | (११२२०.९) | (१२८३६.६) | (५०६३३.८) |
| द्र शासित प्रदेश येवजण | १६५०.० | २५५.६ | ३४७.० | ४१०.२ | ४४८.७ | ५४६.२ | २००८.३ |

**ावी पंचवर्सुकी येवजण (१९८५ - ९०) -**

न्धान्याची वाड

ज़गार सद आनी वट्ट उत्पादनांत वाड करून सर्वागीण उदरगत, कीकरण, स्वावलंबन आनी सामाजीक समताय घडोवन हाडप.

(३) लोकाच्या, विशेश करून फाटसार वाठारातल्या लोकांच्या जिवनमानात सुदारणा घडोवप.

(४) देशी आनी परदेशी बाजारपेठेची व्याप्ती वाडोवप

सातवी पंचवर्सुकी येवजण - सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी).

| घटक | सातवी येवजण तदतूद १९८५-९० | वर्सुकी येवजण १९८५-८६ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८६-८७ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८७-८८ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८८-८९ (चालंत) | वर्सुकी येवजण १९८९-९० |
|---|---|---|---|---|---|---|
| १. शेती आनी हेर कार्यावळी | १०५२३.६२ | १८२५.९२ | २२९५.७९ | २७४२.९२ | २९०३.०२ | ३१७६.४२ |
| २. ग्रामीण विकास | ८९०६.०८ | २२२६.१४ | २६६७.६५ | ३१४६.४२ | २९८२.३४ | ४०७४.७० |
| ३. खाशेली क्षेत्रीय कार्यावळ | २८०३.५९ | ४४७.३३ | ६२७.६० | ६७७.०५ | ९२६.५१ | ९०३.१८ |
| ४. शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १६९७८.६५ | २७९२.२४ | ३२२१.६३ | ३३४६.९४ | ३५९०.९२ | ३५२४.४५ |
| ५. उर्जा | ५४८२१.२६ | ९६१३.२१ | ११४०२.७८ | ११५९४.४८ | १३२२६.४१ | १६७८९.१० |
| (१) पावर | ३४२७३.४६ | ५६१५.५३ | ६७०१.४५ | ७०९६.२९ | ८२४३.७९ | १०८३२.४१ |
| (२) खनीजतेल | १२६२७.६७ | २८६९.८८ | ३३२६.४१ | ३०१९.५५ | ३१०८.९० | ३६१५.८३ |
| (३) कोळसो | ७४००.५८ | ९९५.०४ | १२३३.०५ | १३६२.९३ | १७३७.६६ | २१९९.४७ |
| (४) अप्रचलित उर्जा उगम | ५१९.५५ | १३२.७६ | १४१.८७ | ११५.७१ | १३६.०६ | १४१.३९ |
| ६. उद्देग आनी खनिजां | २२४१५.५५@ | ५५०२.८८@ | ५६१९.६७@ | ५५३७.०५@ | ५८९६.०४$ | ७१०९.४४ |
| (१) ग्रामीण आनी लघुउद्देग | २७५२.७४ | ५२४.३५ | ६१५.७४ | ६१६.८५ | ६८६.१७ | ८२०.७४ |
| (२) हेर | १९६६२.८१ | ४९७८.५३ | ५००३.९३ | ४९२०.२० | ५२०९.८७ | ८२८८.७० |
| ७. येरादारी | २२६४४.८६ | ४०७२.१९ | ५२०१.४३ | ६०३४.६१ | ६७२२.९६ | ७५५२.२२ |
| (१) रेल्वे | १२३३४.५५ | १९४१.६८ | २६९७.०६ | ३४१८.८७ | ३९२९.०० | ४४५०.०० |
| (२) हेर | १०३१०.३१ | २१३०.५१ | २५०४.३७ | २६१५.७४ | २७९३.९६ | ३१०२.२२ |
| ८. संपर्क | ४४७४.५२ | ९४२.१२ | १०८५.६१ | १४६३.९५ | २१९३.७६ | २९२०.४४ |
| ९. विज्ञान, तंत्रविज्ञान आनी पर्यावरण | २४६३.०६ | ४०४.७८ | ५१२.३८ | ५८५.४२ | ७५१.४२ | ६९५.४५ |
| १०. सर्वसादारण अर्थीक सुविधा | १३९५.६० | १७९.०५ | ४२३.१२ | ३८६.०७ | ४९४.८२@ | ७९५.६५@ |
| ११. भौशिक सेवा | ३१५४५.२४ | ४८५८.४५ | ५९०१.९९ | ७००६.४० | ८०५२.५२ | ९०१६.३९ |
| (१) शिक्षण | ६३८२.६५ | ८७६.७९ | १०१४.३८ | १६१०.८४ | १९१३.३६ | २२८३.९२ |
| (२) वैजकी सुविधा | ३३९२.८९ | ५७९.८९ | ६१४.७७ | ७२४.३१ | ८३१.०१ | ९१७.०५ |
| (३) कुटुंब कल्याण | ३२५६.२६ | ४७९.८१ | ५६१.११ | ६०७.३९ | ६७१.८४ | ६३८.०१ |
| (४) घरां आनी शारां विकास | ४२२९.५० | ७६१.११ | ९२०.०५ | ९०७.३१ | १०६९.३० | ११८२.६० |
| (५) हेर भौशिक सेवा | १४२८३.९४ | २१६०.८५ | २७६४.६८ | ३१५६.५५ | ३५६७.०१ | ३९९४.८१ |
| १२. हेर सुविधा | १०२७.९७ | १९५.५९ | २६९.४६ | ३९९.२४ | ३२९.११ | ४५९.४५ |
| वट्ट (१ ते १२) | १८००००.०० | ३३०५९.९० | ३९१४९.११ | ४२९२०.५५ | ४८०६९.८३ | ५७०१६.८९ |
| | ३३४२१.०९ | (४३९७०.५०) | (४४०३४.१०) | (४८६४४.८३) | (९५७११६.८९) | |
| केंद्रीय येवजण | ९५५३४.०० | १९११५.४७ | २२४०१.७६ | २४५८३.६८ | २७९४८.९८ | ३५७१२.९३ |
| राज्य येवजण | ८०६९८.०० | १३२४९.५२ | १६०४२.९८ | १७६२७.५३ | १९३५६.३५ | २०४४४.९६ |
| | | १३६१०.७१ | (१६५९९.०३) | (१८७४१.०८) | १९९३१.३५ | २०५४४.९६ |
| केंद्र शासित प्रदेश येवजण | ३७६८.०० | ६९४.९१ | ७०४.३७ | ७०८.३४ | ७६४.५० | ८५९.०० |

**आठवी पंचवर्सुकी येवजण (१९९२-१९९७)** - हे येवजणेचीं मुखेल उद्दिश्टां अशीं आसलीं -

१) शेकड्याचे अखेरेक पुराय बेकारी नश्ट करपाच्या उद्देशान फाव सारक्यो रोजगारसंधी उपलब्ध करप.

२) लोकांच्या सहकार्यान लोकसंख्येक आळाबंदा हाडप.

३) १५ ते ३५ वर्सां भितरल्या सगळ्या लोकांक साक्षर कर

...मुळावें शिक्षण दिवप.

...ठ पिवपाच्या उदकाची पुरवण आनी भलायकेच्यो मुळाव्यो सुविधा ... लोकांक उपलब्ध करप.

...धान्याचे बाबतीत स्वयंपूर्ण करप आनी चड धान्याची निर्यात करपाची मोख दवरून कृषि उद्देगाची उदरगत सादप.

६) ऊर्जा, येरादारी, प्रसारण आनी शिंपणावळ हांचे उदरगतींतल्यान विकासाक चालना दिवप.

**आठवी पंचवर्सुकी येवजण - सरकारी खर्चाची आंकडेवारी (कोटींनी १९९१-९२ वर्साचे दरेप्रमाण).**

| घटक | केंद्र | | | राज्यां | केंद्रशासित प्रदेश | वट्ट |
|---|---|---|---|---|---|---|
| | अदमासी खर्च | अंतर्गत आनी चडावत अदमासी साधनां | वट्ट | | | |
| ...ती आनी हेर कार्यावळी | १०८९४.०० | २२४.०० | १११९८.०० | ११११०.२५ | १५८.९६ | २२४६७.२१ |
| ...मीण विकास | २४१७०.०० | ०.०० | २४१७०.०० | १०२१३.२६ | ४२.१० | ३४४२५.३६ |
| ...शेली क्षेत्रीय कार्यावळ | ०.०० | ०.०० | ०.०० | ६७५०.१६ | ०.०० | ६७५०.१६ |
| ...पणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | १५००.०० | ०.०० | ०.०० | ६७५०.१६ | ०.०० | ६७५०.१६ |
| ...र्जा | १३१३६.०० | ५३६५९.०० | ६६७९५.०० | ४७२९१.५८ | १४७४.५१ | ११५५६१.०९ |
| ...) पावर | ८९०२.०० | २२२७९.०० | ३११८१.०० | ४६९६१.८६ | १४४५.८८ | ७९५८८.७४ |
| ...) खनीजतेल | ५२७.०० | २३४७३.०० | २४०००.०० | – | | २४०००.०० |
| ...) कोळसो | २६००.०० | ७९०७.०० | १०५०७.०० | – | | १०५०७.०० |
| ...) अप्रचलित ऊर्जा उगम | ११०७.०० | ०.०० | ११०७.०० | ३२९.७२ | २८.६३ | १४६५.३५ |
| ...देग आनी खनिजां | ९१८६.०० | २८३५३.०० | ३७५३९.०० | ९२८४.८९ | ९७.८६ | ४६९२१.७५ |
| ...रादारी | ८६३६.०० | ३२३४१.०० | ४०९७७.०० | १३७८६.५८ | ११६१.९९ | ५५९२५.५७ |
| ...पर्क | ७१५.०० | २४३८२.०० | २५०९७.०० | १२.५० | ०.४८ | २५११०९.९८ |
| ...ज्ञान, तंत्रज्ञान आनी पर्यावरण | ४९३९.०० | २००.०० | ५१३९.०० | .३८४२.८८ | ५९.८१ | ९०४१.६९ |
| ...र्वसादारण अर्थीक सुविधा | ९२४.०० | ४४.०० | ९६८.०० | ३५४०.६६ | ४०.८६ | ४५४९.५२ |
| ...शिक सेवा | २९५०८.४५ | ४९३७.०० | ३४४४५.४५ | ४१५८८.७६ | २९७७.६९ | ७९०११.९० |

**...ी पंचवर्सुकी येवजण (१९९७ - २००१)** - हे येवजणेचो मसुदो ...ी तयारी चलता. हे येवजणेन आपले मुखार दोन मुखेल उद्दिश्टां ...ंत.

...०० वर्सामेरेन मुळावें शिकप, मुळावी भलायकी, नितळ पिवपाचें ... रस्ते, रोजगार आनी भौशीक वितरण वेवस्था सगळ्यांखातीर ...ी करप.

...ी पचवर्सुकी येवजणेसावन स्थीर उरिल्ल्या शेतकी गुंतवणुकीत ...रप

...ी येवजणेच्या मसुद्यांत खाजगी गुंतवणुकेक उत्तेजन दिवपाचो ...चलता सुमार (५,५०,०००कोटी) ६४% खाजगी आनी (सुमार ...,००० कोटी) ३६% सरकारी खर्च अशें प्रमाण दवरपाचें थारता ...वर्सुकी येवजणेच्या खर्चाचो अदमास आठवे पंचवर्सुकी येवजणेच्या ...परस (सुमार ८,८०,००० कोटी) चड दवरला.

**...की येवजणेचो जमा-खर्च -**

...ल्या पचवर्सुकी येवजणेचें उद्दिश्ट नदरेमुखार दवरून २३७८ (सरकारी) आनी १८०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली प्रत्यक्षांत १९६० कोटी (सरकारी) आनी १९०० कोटी (खाजगी) रुपया खर्च जालो. हे येवजणेचो परिणाम म्हणून १२ टक्क्याचे वाडीची मोख दवरिल्ली ती हुपून, प्रत्यक्षांत राश्ट्रीय उत्पन्न १९.०३ टक्क्यांनी वाडलें. दर तकली राश्ट्रीय उत्पन्नात ११ टक्के वाड जाली आनी दर तकली उपभोगात ९ टक्के वाड जाली. ह्याच काळांत दरेची पातळी सुमार १३ टक्क्यांनी देंवली.

दुसरे पंचवर्सुकी येवजणेत ४८०० कोटीची (सरकारी) आनी ३१०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली. प्रत्यक्षांतलो खर्च ४६७२ कोटी (सरकारी) ३३०० कोटी खाजगी जालो. हे येवजणेचो परिणाम म्हणून हे येवजणेच्या काळात वर्सुकी ४ टक्के राष्ट्रीय उत्पन्नात वाड जावक पावली आनी अशे तरेन येवजणेच्या सबद काळाखातीर २५ टक्क्याची वाड दवरिल्ली ती पुरी ना जाता २० टक्क्याचेर थाबली. दर तकली उत्पन्न ८ टक्क्यानीच वाडले. २ कोटीची रोजगार मोख दवरिल्ली ती ८० लाखाचेरच उरली.

तिसरे पचवर्सुकी येवजणेत ७,५०० कोटी (सरकारी) आनी ४,१०० कोटी (खाजगी) खर्चाची तरतूद करप जाली. प्रत्यक्षात ८,५७७ कोटी (सरकारी) आनी ४,००० कोटी (खाजगी) रुपया खर्च जालो. कृषी

राज्य केंद्रशासित प्रदेशगणीक आठवे येवजणेची खर्चाची आंकडेवारी

| | | शेतकी आनी संबंदीत कार्यावळी, शिंपणावळ आनी हुंवार नियंत्रण | ग्रामीण विकास | वेचीक मळावयल्यो कार्यावळी | ऊर्जा | उद्देग आनी खनिजां | येरादारी | संपर्क वेवस्था | विज्ञान आनी तंत्रज्ञान | परिस्थिती विज्ञान आनी पर्यावरण | भौशिक सुविधा | हेर | [illegible] |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | ३ | ४ | ५ | ६ | ७ | ८ | ९ | १० | ११ | १२ | १३ | [illegible] |
| ०१. | आंध्र प्रदेश | २८४४.५८ | ५३२.९७ | ४५०.०० | ३०४३.६२ | २७२.५० | ११५३.५४ | ०.०० | २.०० | ६८.४२ | २०६६.५३ | ६५.८४ | १०५ |
| ०२. | अरुणाचल प्रदेश | १८०.९६ | ३६.३२ | ०.०० | १५१.९६ | २४.४९ | ३४३.९३ | ०.०० | ०.४७ | ४७.३४ | ३२१.६३ | ४७.९० | ११५ |
| ०३. | आसाम | ७७६.६१ | १८६.६६ | ११.८४ | ११९६.८५ | ३२२.७६ | २९४.८६ | ०.०० | ४.६२ | ११६.९९ | १६४२.०४ | १०८.७७ | ४६६ |
| ०४. | बिहार | ३९७७.२९ | १०८९.९२ | ७७.३३ | २१४९.१३ | ४५८.१४ | १४६२.६१ | ०.०० | ७.८२ | १९०.६० | २९१८.५४ | ६६८.६२ | १३० |
| ०५. | गोंय | १७८.७५ | १४.६० | ०.०० | ५५.७५ | ३६.२० | १०७.४५ | ०.०० | ३.०० | ११.३० | २९७.१० | ५६.८५ | ७६ |
| ०६. | गुजरात | ४१८८.०० | ४२१.२० | ०.०० | २६७८.५० | ६६७.०० | ६४०.०० | ९.०० | ५.५० | ३०९.५० | २२५५.४० | ३२५.९० | ११५० |
| ०७. | हरयाना | ९६६.६८ | ११९.३० | २०.०० | १७११.८४ | २२०.४७ | ३९१.३८ | ०.०० | ६.६२ | १२३.७० | १९६८.८० | १७१.२१ | ५७० |
| ०८. | हिमाचल प्रदेश | ३४९.३५ | ७४.२० | ०.०० | ५१०.२५ | ७५.७५ | ३२८.१५ | ३.०० | २.७५ | २११.८५ | ७४८.१५ | १९८.५५ | २४० |
| ०९. | जम्मू आनी काश्मिर | ५३६.०२ | ९६.८० | २१६.५० | ११८०.२८ | ११४.०० | २८०.६० | ०.०० | १.९० | १०७.६० | १२२६.०० | १६०.३० | ४०० |
| १०. | कर्नाटक | ३०७९.२४ | ४२७.५० | ५७५.०० | ३०४७.५० | ९८४.०० | ४४८.०० | ०.०० | ८.०० | २०९.७६ | ३२६०.२५ | २६१.७५ | १२३० |
| ११. | केरळ | १३५२.५० | ३०३.९७ | २.५० | १२३८.०० | ८१०.०० | ४३३.०० | ०.०० | २१.९३ | ९८.०५ | १०७७.१८ | १२२.८७ | ५४६ |
| १२. | मध्य प्रदेश | ३२३२.५९ | ५२३.४९ | ०.०० | ३५८१.८० | ४६५.७२ | ४२९.२६ | ०.०० | ६.४१ | २१२.५८ | २०७९.०१ | ५६९.१४ | १११० |
| १३. | महाराष्ट्र | ४१७७.११ | १७१२.६१ | २१६.५६ | ४५८२.७१ | ८१४.४६ | १७३१.७२ | ०.०० | ५.६८ | ५०४.६४ | ४१८७.१३ | ५८७.३८ | १५४२ |
| १४. | मणिपूर | २४५.४९ | १४.५० | ०.०० | १८७.४५ | ३९.८० | १६०.६० | ०.०० | ४.०० | २४.०० | २५५.९० | ४७.२६ | ९७ |
| १५. | मेघालय | १४९.२६ | ३७.५९ | १०.६७ | १७२.२३ | ४२.७० | २०७.२९ | ०.०० | १.९३ | ६१.९१ | २७४.६३ | ७०.७९ | १०२ |
| १६. | मिझोराम | ८३.१० | १३०.२५ | ०.०० | १०४.०० | ४४.२५ | १०३.१० | ०.०० | १.९५ | ३१.३० | २१२.४५ | ५२.६० | ७६ |
| १७. | नागालँड | १०९.५० | ९६.५० | १०.५० | ६०.८० | ४९.०० | १६१.७० | ०.०० | १.०० | २८.९० | २२५.८० | १००.३० | ८४ |
| १८. | ओरिसा | ३७२३.०३ | ४०२.३५ | ०.०० | २६४७.७० | ७८५.७० | ५९२.९० | ०.०० | ४५.५६ | ११२.०१ | १५४३.७६ | १४६.९९ | १००० |
| १९. | पंजाब | ११५१.६० | १८७.२९ | ५०.९१ | २४२९.०० | १६२.९२ | ३५७.८४ | ०.०० | ७.५० | ६०.२८ | १८८७.४८ | २७५.१८ | ६५७ |
| २०. | राजस्थान | २८८०.३६ | १०२१.७६ | ८४.०० | ३२५५.४८ | ५३५.५५ | ७८३.९७ | ०.०० | ७.०० | ३३९.५१ | २४६१.६२ | १३०.७५ | ११५० |
| २१. | सिक्कीम | ६९.०० | ११.८० | ०.०० | १३५.५० | २०.८० | ८५.०० | ०.०० | २.५० | १९.०० | १६७.९० | ३८.५० | ५५ |
| २२. | तमीळनाडू | १४१३.१५ | ४४६.०० | ०.०० | ३०२०.०० | ५५०.०० | ७०७.०० | ०.०० | १०.०० | २१५.०० | ३७७९.६५ | ५९.२० | १०२० |

उत्पादनांत जाल्ले घटीचो परिणाम म्हणून वर्सुकी ५.६ राश्ट्रीय उत्पादनाची दवरिल्ली मोख देंवन २.२ टक्क्यांचेर आयली.

चवथे पंचवर्सुकी येवजणेची सुर्वेची खर्चाची मोख २४,८८२ कोटीची आसली. तातूंत १५,९०२ कोटी (सरकारी) खर्च आसलो जाल्यार (खाजगी) ८,९८० कोटी आसली. ८५० कोटी इतलें तुटीचें अंदाजपत्रक दवरिल्लें. प्रत्यक्षांत सरकारी खर्चाचें प्रमाण १५,७७९ कोटी आशिल्लें.

पाचवे पंचवर्सुकी येवजणेत ३९,३२२ कोटी (सरकारी) खर्चाची तरतूद आशिल्ली आनी २७,०४९ कोटीची खाजगी गुंतवणुकीची अपेक्षा धरिल्ली. प्रत्यक्षांत सरकारी खर्चाचें प्रमाण ३९,४२६ कोटीचें जालें.

सवे पंचवर्सुकी येवजणेत (सरकारी) खर्चाचो आंकडो ९७,५०० कोटी आशिल्लो. उपरांत तो १,१०,००० कोटी रुपया वाडयलो. प्रत्यक्षांत १,०९,२९१.७ कोटी खर्च आयलो.

सव्या पंचवर्सुकी येवजणेच्या काळांत राश्ट्रीय उत्पन्नात ५.३ टक्क्यांनी वाड जाली.

सातवे पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारी खर्चाची १,८०,००० कोटी रुपयांची तरतूद आशिल्ली. प्रत्यक्षांत वट्ट खर्च २,२८,७२९.६२ कोटी आयलो.

आठवे पंचवर्सुकी येवजणेंत सरकारी खर्चाची तरतूद ४,३४,१०० कोटी आशिल्ली. ५.६ टक्के वर्सुकी राश्ट्रीय उत्पन्नात वाड करपाची मोख दवरली. केंद्र आनी राज्य हांच्यामदल्या खर्चाचें प्रमाण ५८.५:

आशिल्लें.

– कों. वि.

**पंचवाडकार, नरसिंह अनंत :** (जल्म : १२ डिसेंबर १९ पंचवाडी - फोंडें).

सुटकेझुजारी. (१९५३-६१) ह्या काळांत तो आझाद गोमंतक संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पत्रकां वांटप, पत्रिका वांटप असलीं तो करतालो. २ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा फोंड्यां पोलिसांनी धरलो आनी बंदखणींत घालो. १६ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा पणजे धरलो. १९ फेब्रुवारी १९५५ ह्या दिसा पणजेचे बंदखणींत ताची सुटका जाली. ताणें स म्हयने आनी वीस दीस बंदखण भो सुटके उपरांत तो लोकांक राजकीय खबरो पावयतालो आनी प्रचार करतालो. १९६१त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो केलो. तो ग्रामपंचायतीचो वांगडी म्हणून वेंचून आयिल्लो.

– कों. वि.

**पंचवादय :** पंचवादय हें दर एका गोंयकाराचे वळखीचें गोंयांत गोंयचीं खाशेलीं अशीं जायतीं वादयां आसलीं तरीय पंचवा

...च आसा. 'मंगल वादय' म्हणून दर एका मनशाच्या मनांत ताका ...ान आसा. कारण दर एका मंगल कार्या वेळार पंचवादयाची ...ासता.

...वादय म्हळ्यार पांच वादयांचो संच. तासो, धोलकें, शेनाय, सूर्त ...ांच्याचें वादय कांसाळें हांचो आस्पाव पंचवादयांमदीं जाता. ह्या ...गां परस चड वादयां आशिल्लो दुसरो व्हड वादयमेळ आसा. पूण ...चड आसलीं तरीय ताका पंचवादयांच म्हण्टात. हातूंत वयर ...या पांच वादयां भायर जोड शेमेळ, व्हड धोल, बाको नांवाचें ...जगांट जावं चड वादयांचो आस्पाव आसता. अशा ह्या पंचवादय ...दोन प्रकारांचे उपेग गोंयांत धर्मीक कार्या वेळार, उत्सव जावं ...क कार्या वेळार आनी मंगल प्रसंगा वेळार करप जाता.



...कट्या पंचवादयाची सुरवात अशी जाता. शिंगाचे फुकेउपरांत ...च तासो-धोल वाजपाक लागता. पंचवादयांत शिंगाचे त् त् तू तू तू ...परांत बाको हो व्हड चार हात लांबायेचो कोर्नो, आंगान सरळ, हत् ...त् करून वाजता. तें सोंपतां सोपतां हेर वादयां एकाच वांगडा ...डाट घालून वाजून थांबतात आनी शेनायेचें पद जोड समेळ नाजूक ...न सोंपयतात. कांसाळें नांवाचें कांश्याचें वादय ताचो ताल धरता. ...समेळ हीं दोन वादयां एकाकूच जोडिल्लीं. तबलें आनी कुपांच्या ...ासारकीं वाजपी, घुमटाच्या समेळ पद्दतीन सादयल्लीं सगळीं ...वापरतात. पांच-पंचवीस मिनटां हांचें वाजप जातकच त्याच ...ी संगत तासो, धोल, धोलकें करपाक लागता. ह्या वेळार जोड ...बंद आसता. हें वाजप खूब वेळ चलता. मदीं मदीं शींग आनी ...आपली साथ दितात.

...र एका गांवांत हो वादयसंच परंपरेन वाजोवपी कांय घराणीं जावं ...ी आसात. दर एका देवळांत दिसाक तीन खेपे हीं वादयां वाजयतात. ...ाजपांत शास्त्र, कला आनी कुशळटाये सारकिल्यो गजाली दिश्टी ...त गांवांत खंयूय पंचवादयांचो सुमेळ कानार पडलो की थंय किदें ...मगल कार्य आसा असो सगळ्यांचो समज जाता. कारण ह्या ...मेळाचे सुरावटिंतूच मांगल्याची सुचकताय आसा. तशीं हेर वेळारूय ...दयां केन्नाय वाजयतात. पूण त्या वेळार तांकां व्हड म्हत्व आसना. ...ोयाभायरूय हीं वादयां वाजयतात. थंय ह्या वादयसमुहाक 'ताशा' ...ात. दक्षिणेकडेन चेन्नई, बेंगळुरावटेन मात हीं वादयां वाजयल्लीं ...कुपाक मेळनात.

...चवादयां वाजोवपी कलाकारांच्यो दोन-तीन जमाती गोंयांत आसात. ...नामवंत घराण्यांचो आनी खाशेले वादन पद्दतीचो आस्पाव आशिल्ल्यान ही पद्दत खूब पोरणी आनी म्हत्वाची म्हणपाक आदार मेळटा. पोरण्यां हिशोबाच्या चोपड्यांनी आनी कोमुनीदादीच्या अदमासपत्रकांत हाची नोंद मेळटा. वाजोवप्यांक पगार, बक्षिसी, जमनी दिल्ल्याचोय उल्लेख मेळटा.

गोंयांभायर मुंबय, पुणें, नासिक, बेळगांव, हुबळी, कारवारांत पंचवादनाच्यो वेगवेगळ्यो पद्दती अस्तित्वांत आसात. मुंबय, पुणें, नासिककारांच्या वादनांत सूर, ताल आनी लय आसतात. ह्या वादनांत सोबीतपण, नाजूकताय आसता. पूण कुशळटाय आनी भारदस्तपण नासता. कारवार, अंकोला भागांतल्या वादनांत चडसो अर्थ आसना. बेळगांव, कोल्हापूरांतल्या वाजपांत कर्कशपण आसना. शेनायेचेर चड भर दिल्लो आसता. बेळगांवकार मात ह्या वाजपाकडेन कलात्मक नदरेन पळयतात. थंयचे तासो वाजोवपी बरी साथ दितात. तांचे ताशे ल्हान आशिल्ल्या कारणान वाजप ओडलायणें जाता.

गोंयांत पंचवादय वाजोवपी दीपचंद, त्रिताल, एकताल, झपताल अशे घरंदाज तालूच चड करून वाजयतात. ह्या वाजपांत सोबीतकाय उणी आसली तरीय शास्त्र चड आसता.

पयलींच्या काळार ह्या वाजोवपी कलाकारांक व्हड म्हत्व दिताले. तांकां 'वाजंत्री मेळ' अशें म्हण्टाले. समारंभ सोंपतकूच तांकां व्हड अशे लाडू दिताले. तशेंच, ज्या आसनाचेर ते बसताले तेंय तांकांच दिताले. ही रीत पाळटना कलाकारांची आनी तांचे कलेची तुस्त करपाची भूमिका आसली जावंये. पंचवादय वाजपांत रस निर्मिती करपाची शक्त आसा. वाद्यां जरी एकूच आसलीं तरी पूण लग्न कार्यांत शृंगाररसा असली रस निर्मणी वाजपांतल्यान जाता. तशेंच शिगम्याच्या वेळार हींच वादयां रौद्र, वीर रसाची निर्मणी करतात.

गोंयांत मुसलमान समाजांतूय उत्सवाच्या वेळार हींच वादयां वाजयतात. पद्दत मात मातशी वेगळी आसता. तशेंच गोंयच्या देवळांतल्या गुडयांच्या रथाच्या उत्सवा वेळार हेंच वाजप मातशें वेगळे तरेन वाजयतात. रथाचें नाचोवप ह्याच पंचवादयांच्या तालाचेर जाता. ते पद्दतीचो ठेको स्वतंत्र आसता. गोंयांतल्या सगळ्याच देवळांनी हो प्रकार दिसना. तरी पूण फोंडें म्हालांतले मडकय गांवचे वादक मात कुशळ आनी फामाद आसात.

पंचवादयाची बोलभास, शब्द रचणूक, लय आनी तालाचें शास्त्र पखवाज-तबल्या शास्त्राचेंच आसता. पंचवादयाची खरी वळख आमकां नवरात्र उत्सवा वेळार घडटा. ह्या वेळार मखराच्यो ज्यो आरती जातात तेन्ना पंचवादयांचें वाजप आयकुपासारकें आसता.

आयज गोंयांत हीं पंचवादयां काळावांगडां ना जावपाक लागल्यांत. हीं वादयां जरी वाजयल्लीं आमकां आयकुपाक मेळटात तरी पूण तीं पयलींपसून चलत आयिल्ली रीत अशेंच म्हणून वाजयतात. तो एक स्वतंत्र वादन प्रकार म्हणून ताचें संवर्धन जाल्लें पळोवपाक मेळना.

- डॉ. मलबाराय सरदेसाय

**पंचशील :** बौध्द धर्मांतली एक म्हत्वाची सदाचार संकल्पना. सदाचाराचे हे पांच नेम बौध्द धर्मांत मूलभूत आनी गरजेचे अशे मानल्यात. गौतम बुध्दान ह्या पांच सदाचार व्रतांचो पाळो दरेका गृहस्थ बौध्द अनुयायाक गरजेचो म्हणून उपदेश केलो. म्हत्वाच्या अशा सगळ्याच बौध्द धर्मग्रंथांनी शिलाचें म्हत्व सगळ्यांत उंचेलें मानलां. हीं पांच व्रतां अशीं -

(१) जनावरांची हत्या करचोंना (अहिंसा) (२) दिवंक नाशिल्ली वस्तू घेवचोंना. (३) विशयासंबंदींचो वायट आचार करचोंना (४) फट उलोवंचों ना आनी (५) मादक पदार्थांचें सेवन करचों ना.

बौध्द धर्माची दिक्षा घेता आसतना सोपूत घेवन जाहीरपणान हें पंचशील आपणावचेलें आसता.

बुध्दान भिक्षूंखातीर हाचेखेरीज आनिकूय पांच शिलां वा व्रतां सांगल्यांत, तीं अशीं – १) थरयल्ले वेळेखेरीज आहार घेवप ना २) नाच, गायन, नाटक हातूंत वांटो घेवप ना आनी असल्या कार्यावळींक हजरूय रावप ना. ३) फुलां, वासाचीं द्रव्यां, अलंकारांसारक्या चैनीच्या गजालींपसून पयस रावप ४) ऊंच हांतरूण वा आसन वापरप ना ५) भांगरा-रुप्याची आस बाळगप ना. ह्या धा व्रतांक 'दशशील' अशें म्हण्टात. दशशीलाच्या आचरणावरवीं मनशाक खात्रीन निर्वाण मेळटा, अशें बुध्दान सांगलां. बौध्द धर्माच्या प्रसारावांगडा भारताभायरूय ह्या पंच आनी दशशील कल्पनांचो प्रसार जालो.

– कों. वि. सं. मं.

**पंचशील (राजकीय) :** स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत भारताच्या परराष्ट्रीय धोरणाची दिशा ज्या पांच तत्त्वांच्या आदारान थरयली, तीं पांच तत्त्वां पंचशील म्हणून वळखतात. बौध्द धर्मी ग्रंथांत सदाचाराचे पांच नेम सांगिल्ले, तांकां मुळांत पंचशील अशें नांव दिलां. हे पांच नेम म्हळ्यार अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह. दरेका बौध्द धर्मियाचेर ह्या पांच नेमांचो पाळो करप बंधरकारक मानलां.

अर्विल्या काळांत, तिबेटाच्या प्रस्नाचेर भारत आनी चीन हांचे मजगतींचे इश्टागतीच्या संदर्भांत जी पांच कलमी कबलात जाली (२९ एप्रिल, १९५४), तीं पांच कलमां 'पंचशील' म्हणून वळखतात.

हीं पांच तत्त्वां अशीं आसात : -

१) प्रदेशीक अखंडताय कायम दवरप २) आक्रमण करप ना ३) एकामेकांच्या अंतर्गत राज्यकारभारांत हस्तक्षेप करपाचें टाळप ४) सगळ्या राश्ट्रांक समान मानप ५) शांतीकायेची सहजीण.

बांडुंग शारांत, आशिया आनी आफ्रिकेंतल्या नव्यान स्वतंत्र जाल्ल्या राश्ट्रांचे परिशदेंत संवसारीक शांतताय आनी सहकार्याविशींचो जाहिरनामो प्रसृत केल्लो तेन्ना ह्या देशांक एकामेकांविशींचे संबंद पंचशील तत्त्वांच्या आदारान निश्चीत करपाचें थरयलें. इतलेंच न्हय जाल्यार हेर देशांनीय परस्पर संबंदांनी ताचो आस्पाव करचो अशें आवाहन केलें.

शांतीकायेच्या सहजिणेच्या ह्या पांच तत्त्वांची घोशणा केली आनी प्रत्यक्षात ताचो वापर केलो, तेन्नासावन जगांतले कितलेशेच देश ताका लागून प्रभावीत जाले. 'पंचशील' तत्त्वांक संवसारीक संबंदांनी खूब म्हत्व येवपाक लागलें. आयजमेरेन सगळ्याच व्हडल्या राश्ट्रांनी आनी हेर राश्ट्रांच्या अंतर्गत गजालींत लेगीत हस्तक्षेप करचो न्हय ह्या तत्त्वाचो आस्पाव केला.

पंचशीलावरवीं हें स्पश्ट करपाचें आसा, प्रगतीचे कितलेशेच मार्ग आसतात आनी दरेक देशाक जाय तो मार्ग आपणावं येता. प्रत्येकाचें निमाणें उद्दिश्ट एकूच, म्हळ्यार चडांत चड लोकांचें कल्याण हेंच आसा. देखुनूच एका देशान प्रगती करतना जें किदें साध्य केल्लें आसत, ताच्या अणभवाचो फायदो हेर सगळ्या देशांक घेवंक मेळचो, तेखातीर दरेका देशान आपलीं गिन्यानाचीं आनी अणभवाचीं जनेलां उकतीं दवरु जाय. आपलो देश ज्यो पद्दती आपणायता त्यो दुसऱ्या देशानूय आपणा जाय. तेखातीर चेपण हाडिनासतना इश्टागतीचे सद्‌भाव दवरुनूय देशांच्या धोरणाकडेन आनी यत्नांकडेन सहानुभुतीन पळोवंचेली बाळगूंक जाय. पंचशीलाचें समर्थन करतना पं. नेहरून म्हणिल्लें, सगळ्या देशांनी हीं तत्त्वां आपणायलीं जाल्यार झुजाची शक्यताय उणी जात

आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत पंचशील तत्त्वांक त्या वेळार म्हत्व आय दुसऱ्या म्हाझुजाउपरांत एके वटेन सोविएत रशिया आनी ताचे सहांक कम्युनिस्ट देश आनी दुसरे वटेन अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस आनी इश्ट राश्ट्रां हांचेमदीं शीतझूज सुरू जालें. सोविएत रशियेन मार्क्सप्र आंतरराट्रीय साम्यवादाच्या विचारांप्रमाण आनी दुसऱ्या म्हाझुजाउप अस्थीर राजकीय परिस्थितीचो फायदो घेवन वेगवेगळ्या देशांत साम्य क्रांती घडोवन हाडपाक सक्रीय पालव दिलो. साम्यवादाच्या अशा प्रचा प्रतिबंध करप लोकशाय-संरक्षणाखातीर गरजेचें आसा, अशें दिस अमेरिका आनी हेर राश्ट्रांनी साम्य विरोध वा आसा ते परिस्थिती शिमेभितरूच साम्यवाद थातारून धरप हें धोरण आपणायलें रशि आनी अमेरिका हे दोनूय देश लश्करी नदरेन बळिश्ट आशिल्ले आपलें धोरण चालीक लावपाखातीर दोगांनीय लश्करी बळग्याचे प्रदर्श हेर राश्ट्रांचेर चेपण हाडप अशा मार्गांचो वापर सुरू केल्लो.

ह्याच वेळार आशिया आनी आफ्रिका खंडांतली कितलींशीच स्वतंत्र जाल्लीं. चीनांत साम्यवादी क्रांती जावन थंय नवें सरकार प्रस्था जालें. चँग-कै-शेक हाका तें सरकार उमथून उडोवन पुराय चीना आपलें प्रभुत्व परत प्रस्थापीत करपाची इत्सा आशिल्ली आनी अमेरिक ताका पालव आशिल्लो. साम्यवादी चीनाचो विरोध हें अमेरिकेच्या संवसा आनी खास करून आशियांतल्या राजकारणाचें सूत्र जाल्लें. ताचो आशियांतल्या तशेंच हेर ल्हान ल्हान देशांक जातालो. तांच्या अ उदरगतीच्या मार्गांत आडखळी येताल्यो. तेन्ना व्हडल्या राश्ट्रांनी बळग बसकेचेर आदारिल्लें राजकारण थांबोवचें, वेगवेगळ्या देशांतल्या प्रस्था सरकारांचें अस्तित्व मान्य करचें आनी तांच्या अंतर्गत कारभा धवळाधवळ करपाचें थांबोवचें, हें पोटतिडकीन मांडपाची गरज आशि जवाहरलाल नेहरू हाणें तशी भुमिका घेवन ती नेटान मांडली. ता ह्या धोरणाक त्या पंचशीलाक लागूनं सुत्रबध्दताय मेळ्ळी.

पंचशील तत्त्वांक आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत बरीच मान्यताय मेळ हेर नव्या राश्ट्रांप्रमाणूच सोविएत रशियानूय तें मान्य केलें. फुडें डिसेंबर १९५७ दिसा एकवटीत राश्ट्रांचे आमसभेन 'शांतीक सहअस्तित्व' ह्या विशियाचेर थाराव संमत करून पंचशील तत्त्वांचो पुरस केलो. आंतरराष्ट्रीय राजकारणांतलो तणाव उणो जावपाक ताका ल कांय प्रमाणांत फायदो जालो. पूण चीनान भारतावांगडा शि प्रस्नावयल्यान वाद केलो आनी वाठार अधिकार नासतना बळयां हात आनी २० ऑक्टोबर १९६२ दिसा भारताचेर घुरी घाली. ताका ल पंचशीलाच्या निर्मात्यांमदल्याच एकान त्या तत्त्वाआड कर्तूब केलें जगभर आनी भारतांत टिका जाली.

– कों. वि. स

**पंचांग :** कालगणनेचें दिसागणीक कोश्टक दिवपी पुस्तक. वार, नक्षत्र, योग आनी करण ह्या काळमापनाच्या पांच आंगांवय

…ल्यान) ह्या पुस्तकाक पंचांग अशें नांव पडलां. सूर्य, चंद्र आनी …चे गतीच्या संदर्भांत कालगणन आनी काळनिर्देशन करप हें … मुखेल काम आसता. हाचेच जोडयेक मळबांतल्या गिऱ्यांचें …चे मदलें अंतर आनी थळावे अक्षांश-रेखांश आनी तांचें वेळापत्रक …चें काम पंचांग करता. तेभायर गिऱ्यांचेर आदारीत असो शुभ-…ग, (वेळ) दाखोवप जाता. अशे रितीन धर्मीक, शास्त्रीय आनी … म्हायती दिवपी पंचांग हो एक शास्त्रीय ग्रंथ समजप जाता. …खगोलशास्त्र आनी ज्योतिशशास्त्र हांची सांगड घाल्ली आसता. …ल्या तेंपार जेन्ना यज्ञ वा हेर धर्मीक कार्यां जातलीं तेन्ना तांच्या …रे म्हूर्त (बरी वेळ) पळोवपाची प्रथा सुरू जाली. अमुकूच अशा …न (काळांत) केल्लें कार्य सफल जाता आनी ताचें पुण्य मेळटा …र्थावयल्यान कालमापनाची कल्पना मुखार आयली आनी …न फुडें पंचांगाची संकल्पना तयार जायत गेली.

…गाची बसका चंद्र, सूर्य आनी धर्तरी हांचे गतीचेर आदारीत …प्रान पंचांगाच्यो तीन पद्दती अस्तित्वांत आयल्यो. पुरायपणान …रेर आदारिल्ली ती चंद्र पद्दत (मुसलमानी पंचांग), पुरायपणान …रेर आदारिल्ली ती सौर पद्दत (क्रिस्ती कॅलेंडर) आनी चंद्र …र्य हांच्या दोगांयचे गतींचेर आदारिल्ली ती चांद्र-सौर पद्दत …ग). पंचांगाचे दोन प्रकार आसात. १) सायन २) निरयन. जें …संत संपातापसून (सूर्य प्रवेश) सुरवात जाता आनीक ग्रहांची …सांगतना अयनांश हिशेबान घेतात तांकां सायन वा गतिकृत …हण्टात. हें वर्स निरयन वर्सापरस २० मि. आनी २४ सें. ल्हान … जें पंचांग शरद संपातासावन सुरवात जाता आनी ग्रहाचें स्थान … अयनांश विचारांत घेनात ताका निरयन पंचांग म्हण्टात. भारतांत …रून निरयन पंचांगां वापरतात.

…गांची रचणूक - पंचांगांत दरेक पक्ष वा पंद्रशेखातीर एक स्वतंत्र …ल्लें आसता. हातूंतलें एक शुक्ल आनी दुसरें कृष्ण पंद्रशेखातीर … दरेका पानार वयले वटेन इसवी सन, हिजरी सन आनी … संवत, पारशी सन आनी पंद्रशेचो निमाणो दीस, प्रा. ग. आनी …कडो आसता. पंचांग गणिताची सुरवात अहर्गणापसून आसता. …न सौर वर्सांचें एक चक्र आसता आनी एका चक्रांत ६९४० दीस …त. हाका अहर्गण वा प्रातर्गण अशें म्हण्टात. हांचो संक्षेप प्रा. ग. …रून फुडें दिल्लो आंकडो चक्रांतलो कितल्यावो दीस हें दाखयता. …वेगवेगळ्या प्रकारचे गतकालदर्शक आंकडे पयले ओळींत आसतात. …रांतचे एके ओळींत शालिवाहन शक, संवत्सराचें नांव, म्हयन्याचें …पक्षाचें नांव, इंग्लीश म्हयनो, रातीमान, (रा. मा.) ते पंद्रशेंतले …श, दक्षिणायन - उत्तरायण हातूंतलें जें आसतलें तें आनी तातूंतलो …रशी म्हायती आसता. भारतांत बंगाली, कोल्लाम, कली, हिजरी, …त्य-वर्स आनी जायत्यो कालगणना चालू आसल्यो तरी शालिवाहन …वेक्रम संवत् ह्यो दोन कालगणना चड करून मेळटात. संवत्सराचीं …६० नांवां आसात. तांचें चक्रच आसता आनी तींच नांवां परत परत …क्रमान दितात. वेदांग ज्योतिशांत पंचवर्षात्मक युग मानिल्लें आसा … ताचीं नांवां संवत्सर, परिवत्सर, इदावत्सर, अनुवत्सर आनी …र अशीं दिल्यांत. गुरू सुमार १२ वर्सांनी एक सूर्यप्रदक्षिणा करता. …वर्सावें गुरूचें एक वर्स जाता आनी गुरूचीं पांच वर्सां म्हळ्यार एक …नत्साले. ह्या युगांत ६० सौर वर्सां जातात. तांकां प्रभवादि नांवां दिल्लीं आसात. गुरूचे प्रदक्षणेचो काळ १२ वर्सांपरस ल्हान आशिल्ल्यान ८५ सौर वर्सांनी ८६ बहिस्पत्य संवत्सरां जातात. म्हण्टकच एक बहिस्पत्य संवत्सरां ना जातात. ब्रहिस्पत्याप्रमाण संवत्सराची सुरवात चैत्र शुध्द पाडव्याक जायना. ताका लागून ८२७ सावन दक्षीण भारतांत हें संवत्सर मानिनात जाले. पूण भारतात ही पद्दत आशिल्ली. देखुनूच उत्तरेकडल्या आनी दक्षिणेकडल्या संवत्सरांचीं नांवां वेगवेगळीं दिसतात.

पंचांगांत अशे सादारण आनी मुळावे म्हायती उपरांत पांच आंगांचे माहितीचे खण (columns) आसतात. हातूंत पयलो खण तिथींचो आसता. हातूंत शुध्द पक्षांत १ ते १५ (पुनव) आनी वद्य (कृष्ण) पक्षात १ ते १४ आनी ३० (उमास) अशे तिथीदर्शक आंकडे आसतात. तांचेफुडें वारांचो खण आसता. उपरांतचे दोन खण ती तीथ त्या दिसा उदेंतसावन कितल्यो घटका वा कितलीं पळां उरल्यांत तें दाखयता. धर्तरेच्या आकर्शणाक लागून चंद्रकक्षा विवृत्ताकार आशिल्ल्यान आनी चंद्राचेर सुर्याचेंय आकर्शण आशिल्ल्यान चंद्र सूर्य हांच्या भोगांत १२° अंतर पडपाक ६० घटकांपरस उणो चड वेळ लागता. हाकाच लागून तिथी सारक्या काळाच्यो नासतात. उण्यांत उणो तांचो काळ ५० आनी चडांत चड ६८ घटकांचो आसता. जी तीथ सुर्योदयावेळार आसता तीच तीथ पुराय दिसाची अशें मानतात आनी तोच आंकडो तिथीदर्शक खणांत आसता. देखीक - चवथ ही ६० घटकांपरस व्हड आसता. ती जर सुक्राराक उदेवाआदीं ५ घ. ४० प. सुरू जाल्ली आसा जाल्यार दुसऱ्या दिसा म्हळ्यार शेनवारा ती उदेंतेक ००.१७ प. उरता ताका लागून दुसऱ्याय दिसा (शेनवाराक) तीच तीथ उरता. हाचेखातीर तिथीच्या खणांत तिथीदर्शक ४ हो आंकडो फाटोफाट दोन दीस म्हळ्यार शुक्रारा आनी शेनवारा येता. हाचे उरफाटें, दुवादशीसारकी तीथ ६० घटकांपरस उणी आसता ती शेनवारा उदेवा उपरांत १ घ. २ प. न सुरू जाता. इतलो वेळ मेरेन उदेवा आदीं एकादस आशिल्ल्यान त्या दिसा म्हळ्यार शेनवारा खणांत ११ हो आंकडो बरयल्लो आसता. दुवादस साठ घटकांपरस उणी आशिल्ल्यान ती फुडल्या दिसाच्या म्हळ्यार आयताराच्या उदेवाआदींच ५ घ. ४८ प. सोंपता आनी तिरोदस लागता. हाका लागून उदेवा आदीं म्हळ्यार आयतारा तिरोदस येता. हाका लागून आयतार १३ हो आंकडो दिल्लो आसता आनी १२ हो आंकडो खणांत नासता. हांगा दुवादशीचो क्षय जालो अशें म्हण्टात.

कांय पंचांगांनी आनीक दोन खण घालून सुर्योदया उपरांत कितलीं कलाक (वरां) मिनटां आसात हें सांगप जाता. ताचे फुडल्या खणांत क्रमान नखेत्रांचीं आद्याक्षरां आसतात आनी ताचे फुडल्या दोन खणांनी तें नखेत्र त्या दिसा उदेंतेपसून कितल्यो घटका-पळां आसात हें दिल्लें आसता. हाचेवयल्यान चंद्र त्या दिसा उदेवावेळार आनी तेउपरांत कितलो वेळ खंयच्या नखेत्रांत आसा हें समजता. तिथीवरीच हें त्या दिसाचें नखेत्र मानप जाता. एकेक नखेत्र सादारणपणान ६० घटका आसता. पूण तिथीप्रमाण हाचोय काळ उणो-चड आशिल्ल्यान नखेत्राकूच क्षय वृध्दी आसता. कांय पंचांगांनी नखेत्राखातीर आनीक दोन खण आसतात. उपरांतचे तीन खण योग आनी तांच्यो घटका-पळां हांचेखातीर आसतात. तिथी-नखेत्रावरी योगाकूय क्षय-वृध्दी आसता. उपरांतचे दोन खण करणां आनी तांच्यो घटका-पळां हांचे आसतात. करणांक क्षय-वृध्दी नासता.

पंचांगांत मुखेल पांच आंगांभायर हेर म्हायतीखातीर आनीक खण आसतात. एकांत उदेवासावन अस्तामेरेन फकत दीस कितल्या घटका

जुषध्यंकरणी, स्वदितंकरणी, हरिचरित. परमेश्वराक पांच पूत आशिले. ताचो नातू परमेश्वर (दुसरो) हाचीय व्हड मिमांसक म्हणून नामना आशिल्ली. हाणेंय जायते ग्रंथ रचल्यात. हे ग्रंथ अशे - पूर्वमीमांसाटीका, गोपालिका, तत्त्वविभावना, चिदानंदाच्या नीतितत्त्वविर्भाव ग्रंथावयली टिका आनी मंडनमिश्राच्या विभ्रम ग्रंथावयली टिका. ताच्या ह्या टिकाग्रंथाक लागून मूळ ग्रंथ समजप सोंपें जालें. तेभायर ह्या ग्रंथांत जायत्या विवाद्य प्रस्नांचेर भासाभास केल्या. परमेश्वर दुसरो हाका वासुदेव नांवाचो एक भाव आशिल्लो. हाचीय महापंडित आनी कवी म्हणून नामना आशिल्ली. ताणें बरयल्ले काव्यग्रंथ अशे - देवीचरित, अच्युत लीला, सत्यतप : कथोदय, शिवोदय, वाक्यावली, कौमारिलयुक्तिमाला वा कौमरिलतिलकम, चकोर संदेश. परमेश्वर (दुसरो) हाच्या भुरग्याचें नांव ऋषी (तिसरो). ताणें जैमिनिसूत्रार्थसंग्रह हो ग्रंथ रचलो.

ह्या घराण्याचे विद्वत्तेविशीं अशें सांगतात, माविनक्रम झामोरीन राजाच्या दरबारांत ह्या घराण्यांतले णव विद्वान लोक एके वेळेक आशिल्ले.

- कों. वि. सं. मं.

**परकायाप्रवेश :** योगमार्गान प्राप्त जावपी एक सिध्दी. हे सिध्दीक परशरीरावेश, परपुरप्रवेश, देशांतरावेश वा अन्य देह प्रवेश अशेंय म्हण्टात. नाथ संप्रदायांत हे सिध्दीक प्राण संजीवन विद्या अशें म्हळां. ही प्रक्रिया कशी जाता तेविशीं एक वचन आसा. तें अशें -

बन्धकारणशैथिल्यात् प्रचारसंवेदनाच्च चित्तस्य परशरीरावेशः।

**अर्थ** – बंधकारण जे धर्माधर्म ते शिथील जाल्ल्यान तशेंच मन, प्राण आनी इंद्रियां हांचो भोवंडी करपाचो मार्ग आशिल्ल्यान नसांनी चित्त एकाग्र केल्ल्यान आपलें चित्त, इंद्रियां आदीचो प्रवेश दुसरे कुडींत करूं येता. खंयच्याय मड्याचे कुडींत प्रवेश करून योगी तातूंत चलनवलनादी क्रिया उत्पन्न करूंक शकता वा दुसऱ्या मनशाच्या मनांत प्रवेश करून ताचें मन आनी इंद्रियां हांचेर ताबो दवरूं येता. त्याच वेळार स्वताचे कुडिंतूय तो रावंक शकता. प्रकृती आनी पुरुष हीं तत्त्वां वेगळीं आसात. हें ज्ञान प्राप्त जातकूच योग्याक हे सिध्दीची प्राप्ती जाता. दुसऱ्याचे कुडींत प्रवेश करपाचो आसल्यार, ते कुडीचेर संयम दवरून तो करूं शकता. योग्याचो आत्मो सर्वव्याप्त जाल्लो आसता. ताच्या शरिरांतलें मन सर्वव्याप्त जाता. ताचे कुडींतलें मन हें सर्वव्यापक मनाचोच एक अंश आसता. हें ज्ञान जाल्लें आशिल्ल्या कारणान योग्याक त्या अंशरुपी मनाचो विस्तार करूंक मेळटा.

आद्य शंकराचार्यान कामशास्त्राचें ज्ञान मेळोवपाखातीर अमरूक राजाचे कुडींत प्रवेश केल्लो अशी कथा आसा. नंदराजा मरतकूच इंद्रदत्तान ताचे कुडींत प्रवेश करून नंदराजाच्या मरणाचो पत्तो लागूंक दिनासतना ताचें राज्य केलें अशी कथा कथासरित्सागरांत आसा.

भुतान वा वेताळान स्मशानांत सारीचेर दवरिल्ल्या प्रेतांत प्रवेश करून स्मशानाच्या लागसार येवपी लोकांक त्रास दिल्ल्याचें प्रसंग वेताळपंचविशींत दिल्ले आसात. खेचरी मुद्रा साध्य केल्ल्यान परकाया प्रवेशाची सिध्दी प्राप्त जाता अशें हठयोगांत सांगलां.

भूत-पिशाच्च बाधा आनी अवसर ह्या संकल्पनांनी परकायाप्रवेश मानून घेवप जाता.

- कों. वि. सं. मं.

**परक्राम्य पत्रां :** पावती वा पृश्ठांकन करतकूच जांच्या अधिका[illegible] बदल करूं येता असो दस्तऐवज. देखीक - वचनपावती, हुंडी (Promiss[illegible] note) आनी धनादेश (cheque). हांचे मुखेल अशे दोन गुणधर्म आस[illegible] (१) सरळ तरेन हस्तांतर करूं येता अशे (२) तांचो धारक हो[illegible] पत्रावरी मेळपी पुराय हक्काचो अधिकारी जाता. हातूंतलो दुसरो गुण[illegible] परक्राम्य पत्रांक हेर दस्तऐवजापरस चड म्हत्व प्राप्त करून दिता[illegible]

परक्राम्य पत्रांचें सर्वसादारण रूप म्हळ्यार लेखी हक्क आनी[illegible] लेखी हक्क फकत पयशांविशींच आसता. जर हो लेखी हक्क[illegible] गजालींविशीं आसल्यार तो परक्राम्य पत्र जायना. देखीक [illegible] विकत घेवपाचें खरेदीपत्र हें परक्राम्य पत्र न्हय. परक्राम्य पत्रां ही [illegible] नाण्यावरी आशिल्ल्यान ताचें रोखडेंच दिवप घेवप जाता. भारतांत पर[illegible] लेख अधिनियमाक धरून परक्राम्य पत्राचे तीन प्रकार सांगल्यात[illegible]

**वचनपत्रां** - जाचेर लेखकान स्वता निशाणी करून कोणाय मन[illegible] वा ताणें आदिश्ट केल्ल्या वा वाहकाक पयशाची निश्चीत रक्कम [illegible] अटी बगर वचन दिल्लें आसता तें पत्र. हें वचन पयशे वा वचन[illegible] दाखयतकूच दिवपाचें वा थरिल्ले मुदती उपरांत दिवपाचें आसता. ह[illegible] दर्शनी वचनपत्र दाखयतकूच पयशे दिवंचे पडटात पूण मुदत [illegible] पत्रांत विशिश्ट मुदतकाळ सोंपतकूच पयशे दिवंचे पडटात. दर्शनी वच[illegible] काडपाचो अधिकार फकत शासनाकडेन आसता. वचनपत्र पुराय जाव[illegible] ज्या गजालींची गरज लागता त्यो अशो - (१) लेखी पत्र (२) रा[illegible] दिवपाचें वचन (३) पयशे दिवपाचे अटिविरयत निश्चीत वचन [illegible] वचनचिपत्र बरोवन दितल्याची निशाणी (५) वचन दितल्याचो नामनि[illegible] (६) देय रकमेची निश्चिती (७) रकमेची फेड रोखीन करपाचें वचन [illegible] जाका पयशे दिवपाचे ताचें नांव, वचनपत्र खंय बरयलां त्या गांवाचे [illegible] घालपाची चाल आसा.

परक्राम्य पत्रांत वचनपत्राचो आस्पाव आशिल्ल्यान धनादेशा[illegible] पृष्ठांकन करून वा पावती दिवन तिचें हस्तांतरण (transfer) क[illegible] मेळटा. पूण अडेच्या पृष्ठांकनाचे बाबतींत धनादेशाचे पयशे दिवपी बँक[illegible] कायद्यान राखण दिल्ली आसा, अशी राखण वचनपत्रावयल्या अडे[illegible] पृष्ठांकनाचे बाबतींत मेळटा. वचनपत्र करप्यान जर पयशे दिव[illegible] फटींगपणां केलीं जाल्यार वचनचिठ्ठी आशिल्ल्या मनशान तिचेक[illegible] संबंदीत आशिल्ल्या मनशांक कळोवणी दिवंची पडटा.

**हुंडी** - एका मनशान आपली निशाणी करून दुसऱ्या कोणाय विशि[illegible] मनशाक वा तो मनीस सांगता त्या मनशाक वा तो दस्तऐवज [illegible] येवपी मनशाक पयशांनीच दिवपाची एक विशिश्ट रक्कम दिवपा[illegible] अटींविरयत केल्ली लेखी आज्ञा. हुंडी पुराय जावपाक ह्यो गजाली [illegible] गरजेचें आसता. (१) अटींविरयत लेखी आज्ञा (२) जाका आज्ञा के[illegible] त्या मनशाचें नांव (३) आज्ञा करपी मनशाची निशाणी (४) आज्ञेप्र[illegible] दिवपाचो थरावीक रकमेचो उल्लेख (५) पयशे कोणाक दिवपाचे [illegible] नांव.

ह्या मनशाक हुंडी करारपत्र करून वा फकत हुंडीचें हस्तांतर क[illegible] दुसऱ्या मनशाक ते हुंडेचे पयशे वसूल करपाचो अधिकार दिवंक मेळट[illegible]

**धनादेश** – एके विशिश्ट बँकेचेर मागणी करतकूच पयशे मेळ[illegible] दिवपी दर्शनी हुंडी. धनादेश बँकेचेर काडटकूच तो जे बँकेचेर काड[illegible] ते बँकेंत जर खातेदाराचे म्हणजेच धनादेश काडपी मनशाकडेन फा[illegible]

...ल्लक नासले जाल्यार बँक धनादेशाचे पयशे दिना. बँकेन ...क थरावीक शिमेमेरेन तारणार वा तारणावयर ज्यावेळार रीण ... मान्य केल्लें आसता, तेन्ना ते शिमेमेरेन खातेदाराचे पयशे ... ठेव कशी आसता. ताका लागून बँक ते शिमेमेरेन खातेदाराच्या ...चे पयशे दिता. पूण ती शीम हुंपतकच मात बँक धनादेशाचे ...वंक शकना.

...देश वा हुंडी वा वचनपत्रां दोन तरांची आसूं येतात. १) नामजोग ... हाचे पयशे आदात्याक (doner) वा ताचो आदेश दिल्ल्या ... दिवपाचे आसतात. (२) दर्शनी (बॅरर) : हाचे पयशे आदात्याक ...तप्याक दिवपाचे आसतात.

...ांकन हें चड करून दोन तरांचें आसता. पुराय पृष्ठांकन आनी ...ष्ठांकन. हातूंत एक धारक जो दुसऱ्या धारकाक हे अधिकार ... आसता ताचो उल्लेख करून आपली निशाणी करता आनी ...या पत्राचो धारक करपाचे नदरेन परक्राम्य पत्र दिता. हाका ...ष्ठांकन म्हण्टात. कोन्या पृश्ठांकनांत धारक हो सुर्वेक त्या पत्राचेर ... करता आनी ताचे पयशे कोणाक दिवपाचे ताचें नांव पृश्ठांकन ... बरयना. पूण पत्र वाहकाक हे पयशे मेळटात. ताका लागून ...गेरे पृश्ठांकन म्हण्टात. ताका लागून ह्या पत्राचें रूप उपरांत ना...ते परक्राम्य पत्र दर्शनी जाता. म्हणजेच हाचेफुडें हो अधिकार ...णाय तिसऱ्या मनशाक दिवपाचो आसल्यार फकत हस्तांतरान हे ...र दिवप घेवप जातात. हाचेभायर धनादेश हो रेखांकीत वा ...केतूय आसूं येता.

...ना धनादेशाचेर दोन समांतर रेगो ओडटात तेन्ना ताका रेखांकीत ... म्हण्टात. ह्या दोन रेगांमदीं आनी कंपनी वा ताचें ल्हान रूप वा ...नेगोशिएबल' अशेंय केन्नाय बरयतात. हे शब्द म्हळ्यार रेखांकनाचेच ...तेन्ना धनादेश हो रेखांकीत आसता तेन्ना तो जे बँकेचेर काडटात ...ी बँक धनादेशाची रक्कम बँक खात्यार जमा करपाखातीर दिता. ...व धारकाक हे पयशे रोख मेळनासतना ताका ते ताचे बँकेकडल्यान ... पडटात. रेखांकनांत 'अकाऊंट पेई' वा 'पेई' हे शब्द वापरिल्ले ...सार त्या धनादेशाचे पयशे फकत आदात्याच्या खात्यांतूच जमा ...

...डीचे मुखेल प्रकार थळ, काळ, मनीस आनी उद्देश हांचेर आदारून ...तात

...ळ हुंडी - हातूंत अंतर्देशीय आनी विदेशी हुंडी हो प्रकार मोडटा. ...शीय हुंडी ही देशांमदींच वा देशांतल्याच मनशाचेर काडिल्ली हुंडी. ...र विदेशी हुंडी एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशाचेर वा एका देशांतल्या ...न दुसऱ्या देशांतल्या मनशाचेर काडिल्ली हुंडी.

...ाळ हुंडी - हातूंत दर्शनी आनी मुदती अशे दोन प्रकार आसात. ... हुंडेचे पयशे दाखयतकूच मेळटात जाल्यार मुजती हुंडेचे पयशे ... बरयल्ली मुजत सोंपतकूच मेळटात.

...क्ति हुंडी - हो प्रकार नामजोग हुंडी वा दर्शनी हुंडी असो आसा.

...द्देश हुंडी - हातूंत हक्कपत्रासयत हुंडी वा कोरी हुंडी (क्लीन ...) अशे भाग करतात.

...ारतांत शहाजोग हुंडी, जबानी हुंडी, मुलतानी हुंडी, जोखमी हुंडी ...वेगवेगळे प्रकार आसात.

...ुर्विल्ल्या काळासावन भारतांत हुंडी वेव्हार चलता. हुंडेचें मुखेल रूप पयशे वसुलीसंबंदान आशिल्लें वा मेळिल्ले अधिकार हें आशिल्ल्यान बँको हे अधिकार विकते घेवन ताचेर कळंतर रुपान वा कसररुपान पयशे मेळयतात. बँको हुंडी विकती घेतना तांची फावो ती तपासणी करता. हे तपासणेंत ज्या गजालींचो आस्पाव जाता, त्यो गजाली ह्यो -

(१) हुंडी जाचेकडल्यान विकती घेवपाची ताची पत

(२) हुंडी ज्या मनशाचेर काडल्या ताची पत

(३) हुंडेची रक्कम

(४) हुंडी केन्ना फारीक जातली ती मुदत

(५) हुंडेचेर आशिल्ल्या निशाण्यांची पृश्ठांकनाची पत

(६) हुंडी काडपाफाटलो उद्देश.

ही तपासणी जातकूच बँक विपत्र वा हुंड्यो विकत्यो घेता आनी ती हुंडी दर्शनी आसल्यार बँकेच्या थरयल्ल्या दरान हुंडेचे रकमेचेर पयशे आकारून उरिल्ली रकम खातेदाराच्या नांवान जमा करता. पूण हीच मुजत हुंडी आसल्यार बँक तिजेर कसर (discount) आकारता.

**हुंडी आनी विपत्र (बिल्स ऑफ एक्स्चेंज)** - हातूंत वस्तुतः तत्त्वाचो फरक ना. कांय प्रमाणांत फरक आसा तो तपशिलाविशींचो. देखीक - शहाजोग हुंडेचे पयशे फकत खात्रीच्याच मनशाक मेळटात. जोखमी हुंडेन जापसालदारकी दाखयतात आनी त्या जोखमी ऐवजान (डॉक्युमेंटरी बिल्स) म्हाल पावयतकूच ताचे पयशे मेळटात वा पयशे दिवप जातात. जबानी हुंडेंत रकम एकेकडल्यान दुसरेकडेन धाडूं येता आनी ताची पावतीय पयशे धाडप्यांक मेळूंक शकता. हाचेभायर हुंडेचो आनीक एक प्रकार म्हळ्यार मुलतानी हुंडी. हेर हुंड्यो म्हालाखातीर काडिल्ल्यो आसतात. पूण मुलतानी हुंडेचें स्वरूप सावकारी हुंडी अशें आसता. म्हणजेच उशणे दिल्ले पयशे फारीक करपाखातीर मुलतानी हुंड्यो वापरतात.

भारतांत १८८१ च्या परक्राम्य पत्राच्या अधिनियमांत परक्राम्य पत्राविशीं कायदेशीर तरतूद आसा. पूण ते परक्राम्य लेख ह्या अधिनियमांत केल्ल्या धनादेश, हुंडी वा वचनपत्र हांचे व्याखेबरहुकूम नासतात. तांकां ह्या कायद्यांतल्यो तरतुदी लागू जायनात. देखीक, पतपेड्यांच्यो हुंड्यो, रीणपत्रां, राजपत्रां, पोस्टल ऑर्डर, शॅर सर्टिफिकेट.

परक्राम्य पत्रांचो वापर संवसारीक वेपारांतूय करता आशिल्ल्यान चड करून वेगवेगळ्या राश्ट्रांतले हेविशींचे कायदे सारके आनी सुसंगत आसप वेपारी नदरेन म्हत्वाचें आसता. ब्रिटनान १९५७ त धनादेश अधिनियम (चेक ॲक्ट) करून आनी अमेरिकेन आपल्या एकसमाज परक्राम्य लेख अधिनियमांत (युनिफॉर्म नॅगोशिएबल इन्सट्रूमँट्स लॉ) सुदारणा करून काळाप्रमाण फेरबदल केल्यात. भारतांतूय ह्या प्रस्नाचो फेरविचार करपाखातीर भारतीय बँकिंग आयोगानी आपल्या १९७२ च्या अहवालांत विचार मांडल्यात.

- कों. वि. सं. मं.

**परजा :** एक आदिवासी जमात. हो गोंडांचोच एक फांटो आसून तो खूब फाटसारिल्लो आसा. मध्य प्रदेशांतल्या बस्तर जिल्ह्यांत ह्या लोकांची वसती आसा. ह्या जिल्ह्यांत तांकां धूर्व अशींय म्हण्टात. तांचेमदीं भाशेवयल्यान मरी, मटरा आनी हळबा अशे भेद जाल्यात.

जमातींतल्या दोन पुर्वज भावांतल्या व्हडल्या भावाच्या वंशजांक परजा

(प्रजा म्हळ्यार सबजेक्ट) समजतात. पयलीं वरंगळच्या राजाचे सैनीक म्हणून ह्या लोकांनी बस्तर राज्यांत प्रवेश केलो आनी थंयच स्थायीक जाले अशें सांगतात.

हे जातीचे तीन पोटभेद आसात : तगर, पेंग आनी मुदरा. हातूंतले फकत तगर हेच बस्तर जिल्ह्यांत दिसतात. हे लोक मध्यम बांद्याचे आनी सावळ्या वर्णाचे आसतात. ते रानांतल्यान कंदमुळां, म्हेंव, गोम, लाख शारांनी व्हरून विकतात. कांय लोक शेती करतात. शिकार करप, वखदी वनस्पत विकप हेय वेवसाय ते करतात.

गोंडी भाशेची एक बोली पारजी ही तांची सदचे जिणेंतली बोलीभास.

ह्या लोकांच्या माथ्यार दाट केंस आसतात. तांचे ओंठूय दाट आसतात. दादले लंगोट बांदतात. तांच्यो बायलो भेंडाक ल्हानसो कपडो गुठलायतात. बायलांचे हड्डें उकतेंच आसता. त्यो गळ्यांत मणयांच्यो माळो घालतात. तशेंच हातांनी आनी पांयांनी पितूळच्यो वस्ती घालतात.

हे लोक कुळीचिन्नवादी आसून ह्यो कुळी अंतर्विवाही आसात; पूण जमातींची संख्या उणी आशिल्ल्यान ते बहिर्विवाह लेगीत जातात. चले-चलयांचे संमतीन लग्नां जातात. देज दिवंचें पडटा. तांच्या लग्नाचो धर्मीक असो कसलोच सुवाळो जायना. भुरगीं आपुणूंच आपलो जोडीदार सोदून घोव-बायलेचें नातें जाहीर करतात. लग्नां चड करून चैत्र म्हयन्यांत करतात. आते-मामे भावंडांचें लग्न प्रतिश्ठीतपणाचें मानतात. लग्न जावंक नाशिल्ल्या दादल्याक समाजांत मान नासता. तेखातीर ताचें मामेभयणीकडेन लग्न केल्ल्याचो उपचारीक सुवाळो करतात. लग्ना वेळार नाचाचें आयोजन करतात.

हे लोक जडप्राणवादी आसुनूय हिंदू दैवतां पुजतात. दांतेश्वरी हे देवतेक ते पुजतात. भुतांखेतांचेर, जादूटोण्याचेर तांचो खूब विस्वास आसा. खाशेल्या प्रसंगार ते कोंबो बळी दिवन भूमिपुजन करतात.

परजा लोक मडें पुरतात. पुरचे पयलीं मड्याचे पांय अस्तंत दिशेन करतात. मडें पुरतकूच ताच्या आत्म्याचें प्रतीक म्हणून घरा परततना एक नुस्तें धरून हाडटात. मडें पुरिल्ल्या जाग्यार शीत आनी उदक दवरून तीन तें णव दीस सुतक पाळटात. उपरांत बाजारांत आपले जमातीच्या लोकांक मेळून सोरो आनी गोड पदार्थ वांट्टात.

- कों. वि. सं. मं.

**परदेशी, लक्ष्मण परशुराम :** (जल्म : ३ ऑगस्ट १९२९, येरवडा - हवेली पुणें - महाराष्ट्र).

सुटकेझुजारी. तो प्रजा सोशलिस्ट पार्टीचो वांगडी आशिल्लो. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या दिसा नारायणराव साळसकर हाच्या फुडारपणाखाला आरोंदेच्यान गोंयांत येवन कोरगांव - पेडण्यां जाल्ल्या सत्याग्रहांत ताणें वांटो घेतलो. महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

**परधान :** गोंड आदिवासी लोकांचो एक फांटो. ह्या लोकांची वसती चड करून मध्य प्रदेश आनी महाराष्ट्रांतल्या विदर्भ वाठारांत आसा. ह्या लोकांक पन, मोकासी वा भाऊ, देसाई, पठारी, पनाल ह्या नांवांनीय वळखतात. ह्या सगल्या नांवांच्यो परधानांनी व्युत्पत्त्यो दिल्यात. जो मनीस पराचें म्हळ्यार दुसऱ्याचें धान म्हळ्यार अन्न खाता तो परधान अशीय तांची एक व्युत्पत्ती आसा.

परधान लोक गोंडांच्या आलाशिऱ्यान तांचे लागसारूच रावता. गोंड ज्या सात भावांपसून जाले, तातूंतल्या सातव्या भावाचे हे आसात अशी गोंडी दंतकथा आसा. पयलींच्या काळांत परधान हे पुरयत, राजघराण्यांतले प्रधान, पुजारी, भाट अशीं कामां क परधानांच्यो बायलो गोंड लोकांकडेन सुविणीचें तशेंच तांच्या चल आंगार पाडपाचें काम करताल्यो. गोंड राजाउपरांत तांचीं ही आपोआप सुटलीं आनी आपलो चरितार्थ चलोवपाखातीर ते मारयो करपाक लागले.

मध्य प्रदेशांत परधान लोकांक परगनिहा वा देसाई म्ह छत्तीसगढाच्या वाठारांत तांकां 'परधान पठारिया' म्हण्टात. बाल 'मोकाशी' म्हणून पाचारतात. परधान लोक गोंडांक रामराम 'बाबू जोहार' म्हण्टा आनी गोंड लोक तांकां 'जोहार पठारी' म्ह

परधान हे आमचेच अशें गोंड म्हण्टात पूण तांचेकडेन गों लग्नसंबंद दवरिनात. परधान गोंडांकडेन जेवतात. पूण गोंड परधान जेविनात. गोंड लोक परधानांक उणे लेखतात.

परधानांत राजपरधान, गोंडा परधान आनी थोटिया परधान थोटिया परधान अशे तीन पोटभेद आसात. राज गोंड दादल परधान बायल हांचेपसून जाल्ले संततीक राजपरधान म्हण्टात. चंद्र परधानांचे दोन भाग आसात - गोंड पठारी आनी चोर पठारी. न देगणांत परधानांचे राजनेंगी आनी गोगिया अशे दोन भेद आनिकूय हेर भेद आसात. परधानांत धुर्व, भगदिया, कम्र, मरबी, मरकम अशीं खूब कुळां आसात. हीं नांवां तांच्या देवकांव पडल्यांत.

परधानाचीं चड करून मातयेचीं तीन घरां आसतात. मदीं व्हड आसता. ताका देवघर म्हण्टात. ह्या घरांत देव, बना नांवाचें वाद्य रांदची कूड आसता. ह्या घराचे कुशीक आनीक दोन घरां आ व्हडल्या पुताचें लग्न जातकूच तो मदल्या व्हडल्या घरांत रावता. - बापूय कुशीच्या एका घरांत रावतात. तिसरें घर गोठ्याक दव

परधानांचीं घरां एकमेकांपसून पयस आसतात. तांच्या तरातरांच्यो आकृती काडिल्ल्यो आसतात.

गोंडांच्या घरा वचून पदां म्हणप आनी ते दितात तें अन्न खाव भरप अशी तांची परंपरा आसा. लग्नसुवाळो वा दुसरें कसलें आसल्यार थंय तांकां वचचें पडटा. तेखातीर ते एका जाग्या उरनात. भोंवत राविल्ल्यान खूबदां तांकां मेळटा तें अन्न खावचें

भगवान आनी बडा पेन हे तांचे मुखेल देव. बडा पेन हाका ब बुढा पेन वा बुन्हा देव अशींय नांवां आसात. बन्सबोरन मर्रा देव ह दुश्ट देव आसा. दुयेंत मनशांक बरें करपी भगताक ते गुणिया म्हण्टात. दुयेंस वा कसलोय रोग हो देवाच्या कोपाक लागून जात तांची समजूत आसा. अशा वेळार ते भगताक आपयतात आनी देवाचो कोप जाला तें सोदून काडून ताका बळी दितात.

परधानांच्या सणा-परबांचे दीस थरिल्ले आसतात. पूण ते सोयीन सगळे सण मनयतात. हाचें कारण कसलीय परब, मनयतना, घरातले सगळे लोक हाजीर आसप तशेंच सुदृढ अ गरजेचें मानतात. एकती उत्सव, हरेली उत्सव, नवा उत्सव ते मरहाई जात्रा हे तांचे कांय मुखेल उत्सव ते मनयतात.

…वलयो पिरायेंत येतकूच तांचे आवय-बापूय लग्नां थरयतात. …ते-मामे भावंडांमदीं लग्नां जातात, पूण तेखातीर चल्या-चलयेची …चारतात. लग्नांत देज दिवपाची चाल आसा. न्हवऱ्याकडेन देज …ऐपत नासल्यार तो व्हंकलेगेर काम करता. लग्नापयलीं नियोजीत …आपले व्हंकलेक काळ्या पोतीची माळ दिता आनी ती माळ …ालता त्या दिसापसून व्हंकल न्हवऱ्याच्या घरांतली जाली अशें … लग्नाच्या वेळार न्हवरो व्हंकलेगेर वतना हातांत खंजीर घेता …ळ पांगुरता. एक गोल काडिल्लो आसता, ताका पांच प्रदक्षणां …ानी व्हंकलेचो हात धरता. तिणें आपली घट्ट केल्ली मूठ तो …आनी तिच्या करंगळेच्या बोटांत लोखणाची मुदी घालता. उपरांत …ो उजवो पांय तिच्या पांयाचेर दवरता आनी हो लग्नसुवाळो

…दीं घटस्फोटाची चाल आसा. खाशा भावाची विधवा बायल …धाकल्या देरावांगडा लग्न जावंक शकता.

…जातकूच ताची वार घरांतूच पुरतात आनी त्या जाग्यार (अग्नी …करप) दिवो पेटोवन तो स दीस तसोच दवरतात. भुरगें …च ताका शींक आयल्यार तें दुश्चिन्न मानतात. सव्या दिसा …जा करतात. त्या वेळार शेजारच्या बायलांक आपोवन हाडून …वण आनी सोरो दितात. त्याच दिसा भुरग्याचो मामा ताचे …दोन फुडले आनी दोन फाटले केंस कापता. भुरग्याचो जल्म …जाग्यार दिवो पेटोवन दवरतात. बाराव्या दिसा भुरग्याक नांव …

…न लोकांमदीं मडें लासपाची तशेंच पुरपाचीय चाल आसा. …नशाचो व्हडलो पूत अग्निदहनाचे विशिश्ट संस्कार करता. …सा बायलो अस्थी एकठांय करतात. स म्हयन्यांनी वा वर्सान …रतात. वर्साउपरांत मेल्ल्या मनशाच्या नांवान 'कूंड' नांवाचो …तात. हो विधी केलोना जाल्यार मृताचें भूत त्या कुटुंबाक त्रास …गी तांची समजूत आसा.

…परबेक परधान लोक आपलीं घरां धवे मातयेन रंगयतात. न्हावन- …तले सगळे जाण्टे लोक एकठांय येवन सोरो पियेतात आनी …कोंबी भाजून खातात.

…री म्हळ्यार भिक्षा हो तांचो मुखेल वेवसाय. दर तिसऱ्या वर्सा …आपल्या कुळाच्या गोंडाकडेन भिक्षा मागपाक वता. अशा वेळार …दासोंदी आनी गोंडाक ठाकूर अशें म्हण्टात. परधानान आपल्या …गोंडाभायर हेर कोणायकडेन भिक्षा मागल्यार ताका जातींतल्यान …लतात

…हे तांचें लाकडी वाद्य आसता. तें बडा पेन प्रतीक आसा, अशें ते …हे वाद्य तयार करतना तांकां कांय पथ्यां पाळचीं पडटात. हें …र करतना ते देवाचें नांव घेतात. ताका मोरापाखां, घुंगूर, …गोंडे लावन सजयतात.

…प्रदेश, महाराष्ट्र, मध्य प्रदेश आनी ओरिसांत ज्या सुवातींनी …क रावतात, थंय परधान लोकांची वसती आसा. परधानांच्यो …ी, कुळगोत्रां गोंडांभाशेनूच आसात. पूण परधान लोक, धर्मीक …ा उरतात त्यो वस्तू वा मरणा वेळावयले कपडे घेतात म्हणून …क तांकां उणे मानतात.

– कों. वि. सं. मं.

**परब, यशवंत काळे :** (जल्म : १९२०, थिवी - बारदेस).

सुटकेझुजारी. सुर्वेक तो 'नॅशनल कॉंग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. उपरांत 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचो वांगडी जालो. सुटकेझुजारी विश्वनाथ लवंदे हाच्या मार्गदर्शनाखाल तो गोंयचे सुटकेखातीर वावर करतालो. बसकांनी वांटो घेवप, चोरयां रानांतल्यान वचपा खातीर क्रांतीविरांक वाटो दाखोवप असलीं कामां तो करतालो. ३ मे १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी साडेआठ म्हयने बंदखणींत दवरलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

– कों. वि. सं. मं.

**परभी :** प्रभू लोकांचे बोली भाशेचें नांव. हे बोलीक कायस्थी, मुंबयकारांची कायस्थी, दामणी अशींय नांवां आशिल्लीं. मुंबय, ठाणें आनी दमण ह्या भागांतले लोक भोवसंख्येन ही बोली उलयतात. हे बोलींत चडशें साहित्य ना. कसलेंय नाटक वा कांय स्फूट लेख तितले उपलब्ध आसात. ही बोली सद्या वेव्हारांतल्यान पुराय लुप्त जाल्या. ग्रंथीक मराठी भाशेक ही बोली खुबूच लागसल्ली आसा. तिचेर गुजराती भाशेचोय बरोच प्रभाव दिश्टी पडटा. परभी बोलीचो एक नमुनो असो - कोणी एक माणसाना दोन पोर होती. त्यानचा लाना बापाला बोलला. बाबा जो दौलतीचा भाग माला येयाचा तो दे मग त्याजून त्याला दौलत वाटून दिल्ही. मग थोडे दिसान धाकटा पोर अस्क गोळा करून दूर देसाला गेला न तिकडे उधळपट्टी अस्की दौलत घालविली. मग त्यातून अस्क खरचल्यावर ते देसान फार दुक्काळ पडला. त्यासाठी त्याला अडचण पडण्या लागली. तव तो ते देसानचे एके माणसाजवळ जावून रायला. त्याजून ते त्याला दुकर चारन्याला त्याचे शेतात धाडला. तव डुकर जी टरफल खात असत त्याचे वर त्याजून आपल पोट भरवं अस त्याला वाटलं न कोणी त्याला काय दिल्लनय!

– कों. वि. सं. मं.

**परमार्थ :** परम (श्रेश्ठ) अधीक अर्थ (लाभ). म्हणजे सर्वोच्च लाभ. परमार्थ हें जल्माचें सार्थक समजप जाता. संवसारांत दुख्ख, अज्ञान, अन्याय हांचेवरवीं अपूर्णताय आनी असमाधान हांचो अणभव येता. अशे परिस्थितींत मनशाक प्राप्त वेव्हारापलतडचें म्हणजेच अध्यात्मीक थरावयले प्राप्तीचो ध्यास लागता. पाच ज्ञानेंद्रियां आनी बुध्द हांच्या आवाक्याभायल्या ज्ञानाचो एक प्रांत आसा आनी थंयच्या ज्ञानाची मनशाक ओड लागता. ह्या ज्ञानाचे साधनेक परमार्थाची प्रवृत्ती म्हण्टात.

धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष ह्या चार मुल्ल्यांचेर पुरुशार्थाची बसका बसयल्ली आसा. पयलीं तीन मुल्ल्यां हीं चवथ्या मुल्ल्याक साधनीभूत मानल्यांत. मोक्ष प्राप्ती हें जिवीत साफल्य मानलां आनी ह्या साफल्याचे प्राप्तीची वाड परमार्थाकडेन जोडल्या.

परमार्थावरवीं आत्मज्ञानाची प्राप्ती जाता आनी अंतर्यामी परब्रह्माचो साक्षात्कार जाता. परमार्थ परमात्म्याचो अणभव दिता.

परमार्थ हें सर्वोच्च सूख आसून तें जल्माचें सार्थक मानलां.

परमार्थाची प्राप्ती ही साधनेवरवीं जाता. साधनेचे प्रकार साधकाप्रमाण वेगवेगळे आसतात. भक्तीयोग, ध्यानयोग हे साधनेचे मुखेल प्रकार आसात.

### परमार्थ

परमार्थाचीं साधना करतल्यान कांय पथां पाळपाची गरज आसता. तातूंतलीं मुखेल पथा (१) वैराग्य (२) प्रपंचाची अनासक्ती (३) नितळ अंत:करण (४) शुद्ध जिवीत आनी (५) देव भावार्थ आत्मज्ञानावरवीं परमार्थाची प्राप्ती आशिल्ल्यान ताचे प्राप्तीखातीर सद्‌गुरूच्या मार्गदर्शनाची गरज सांगल्या.

– कों. वि. सं. मं.

**परराश्ट्रीय धोरण :** एका राश्ट्रान दुसऱ्या राश्ट्रांविशीं आपणायिल्लें धोरण म्हळ्यार परराश्ट्रीय धोरण. परराश्ट्रीय धोरणांत त्या राश्ट्राचो संवसारीक राजकारणांतलो उद्‌देश, तेविशींच्यो येवजणो आनी तेविशींची प्रत्यक्ष कृती हांचो आस्पाव आसता. एकुणिसाव्या शतमानांत राश्ट्रवादाच्या उदयाउपरांत प्रत्येक राश्ट्र स्वतंत्र आसचें, हें तत्त्व सर्वमान्य जालें. जगांतल्या अशा स्वतंत्र राश्ट्रांच्या परस्परसंबंदांक आकार मेळून तातूंतल्यान एके आंतरराश्ट्रीय वेवस्थेचें रूप तयार जालें. आर्विल्ल्या काळांत दरेक राश्ट्र आंतरराश्ट्रीय समुदायाचो एक भाग आशिल्ल्यान हेर राज्यांकडेन आपले संबंद निश्चीत करपाचे गरजेंतल्यान ताका आपलें परराश्ट्रीय धोरण थरोवचें पडटा. 'धोरण' ह्या शब्दांतल्यान पूर्व-नियोजनाचो अर्थ स्पश्ट जाता. पूण अंतर्गत क्षेत्रांतल्या अर्थीक वा समाजीक धोरणापरस परराश्ट्रीय धोरणाचें स्वरूप वेगळें आसता.

परराश्ट्रीय धोरण हें कितल्याशाच अनियंत्रीत घटकांचेर आदारून आसता आनी देखून आंतरराश्ट्रीय क्षेत्रांतलीं आपलीं उद्‌दिश्टां साध्य करपाखातीर खंयच्याय राज्याक क़ालबध्द तशेंच येवजण आशिल्लें अशें आंखीव धोरण थरोवप शक्य नासता. हे नदरेंतल्यान परराश्ट्रीय धोरणाची तुळा स्वयंचलीत व्हड्यापरस नौकानयनाकडेन करपासारकी आसा. जशेपरी प्रवाह, वारो, भरती-सुकती हे घटक मतींत घेवन इत्सा केल्ले सुवातीर पावपाखातीर तारयो हे आपले परिस्थितीकडेन स्वताक जुळोवन घेता, त्याप्रमाण राज्यकर्त्यांक भायले उद्‌देश साध्य करपाखातीर, स्वताच्या नियंत्रणाभायर आशिल्ले कितलेशेच घटक आनी वयलेवयर घडपी अकल्पीत घडणुको मतींत घेवन आपल्या धोरणाची दिशा आनी डावपेंच थरोवंचे पडटात. अर्थांत परराश्ट्रीय धोरण परिणामकारक जावपाखातीर तातूंत एकसुत्रताय आनी लवचीकपण हे दोनूय गूण गरजेचे आसतात.

इ. स. प. चवथ्या शतमानांत कौटिल्यान आपल्या अर्थशास्त्रांत राजान आपणावपाच्या परराश्ट्रीय धोरणाविशींची चिकीत्सा केल्या. कौटिल्याचे कल्पनेप्रमाण राजाचें ध्येय आपल्या राज्याची वृध्दी करून साम्राज्य स्थापन करप, स्वता चक्रवर्ती जावप हें आसूंक जाय. कौटिल्याच्या मताप्रमाण धोरणाचें येस आनी अपेस हें वेगवेगळ्या शक्तींचेर पातयेवन आसता. तेभायर धोरण राबोवपाखातीर साम, दाम, दंड, भेद ह्या चार पर्यायी उपायांची चर्चाय कौटिल्यान केल्या.

खंयच्याय देशाच्या परराश्ट्रीय धोरणाकडेन प्रळोवपाचे पारंपारीक नदरेप्रमाण थंयच्या प्रस्थापीत राज्यकर्त्या वर्गाची विचारसरणी, तांचीं मुल्यां हांचो अभ्यास करतात. दरेका देशाचें परराश्ट्रीय धोरण हें थंयच्या राज्यकर्त्या वर्गाच्या मुल्यांचें आनी विचारप्रणालीचें प्रक्षेपण आसता, असो समज ताच्या मुळाकडेन आसा. ह्या अर्थान परराश्ट्रीय धोरणाचें वर्गीकरण लोकशायवादी, सर्वंकश सत्तावादी, उदारमतवादी, साम्यवादी, आक्रमणवादी अशें आसतालें. ह्या अर्थानूय इंग्लंडाचें धोरण उदारमतवादी, जाल्यार दुसऱ्या म्हाझुजापयलीं जपानाचें आनी सध्या चीनाचे ध… आक्रमणवादी आसा, अशें सांगतात. सर्वसादारण लोकांची परराश… धोरणाकडेन पळोवपाची हीच नदर आसता. इंग्लंडांत झुजाउपरा… काळांत सत्ताधारी पक्ष खूबदां बदलून लेगीत परराश्ट्रीय धोरण बदल… १९१७त रशियांत क्रांती जावनय रशियाच्या परराश्ट्रीय धोरणाचें… व्हडलेंशें बदललें, अशें म्हणप समा जावंचेंना.

परराश्ट्रीय धोरण थीर नासता, तें प्रवाहासारकें आसता. राज्य… क्षेत्राभायले परिस्थितीचेर प्रभाव घालपाखातीर राश्ट्रान केल्या कृ… तो क्रम आसता. ह्या धोरणांत एके तरेचें सातत्य आसले, त… राश्ट्रांच्या निर्णयाचो आनी धोरणांचो खंयच्याय राश्ट्राच्या पर… धोरणाचेर परिणाम जावप अटळ आसता. राश्ट्रीय धोरणासा… परराश्ट्रीय धोरणाचें उद्‌दिश्ट राश्ट्रहीत सादप, हेंच आसता आ… साध्य करपाचे नदरेन हेर राश्ट्रांच्या वेव्हारांचेर, धोरणांचेर नि… मेळोवपाचे यत्न राज्यकर्त्यांक करचे पडटात. आपलेकडेन स… आशिल्ल्या राश्ट्रांचें धोरण राश्ट्रहिताक अनुकूल करप हो ह्या धोर… एक म्हत्वाचो भाग आशिल्लो.

परराश्ट्रीय धोरणांत फुडल्या विशयांचो आस्पाव जाता -

१. आंतरराश्ट्रीय वेव्हार करतना राज्याचीं उद्‌दिश्टां नदरेमुखार द… राश्ट्रहीत साध्य करपाचो यत्न करप.

२. आपल्या धोरणाविशींच्या सिध्दान्ताचें प्रतिपादन करप

३. आपल्या राश्ट्राचे तांकीप्रमाण हेर राश्ट्रांकडेन अर्थीक, राज… सैनिकी संबंद जोडप वा हेर राश्ट्रांच्या हिताच्या संदर्भांत अर्थीक, ल… तशेंच आंतरराश्ट्रीय स्थितीचें मूल्यमापन करप.

पयलीं राश्ट्रसंघ आनी उपरांत एकवटीत राश्ट्रसंघटना ह्या संवस… संघटनांचे स्थापणुकेउपरांत परराश्ट्रीय धोरण आनी संवसारीक राज… हांकां एक नवें म्हत्व प्राप्त जालां. अशा संवसारीक संघ… स्थापणुकेउपरांत परराश्ट्रीय धोरण आनी संवसारीक राजकारण एक नवें आनी वेगळेंच म्हत्व प्राप्त जालां. अशा संवसारीक संघ… पालव दिवप, तांच्या हेर घटकसंस्थांचे राश्ट्रहीत जोपासपाखातीर राश्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवपाखातीर उपेग करप हांचोय आस्पाव परर… धोरणांत जाता. हेर राश्ट्रांकडलो संघर्श टाळपाखातीर आनी खंय… प्रकारच्या चेपणाचो प्रतिकार करपाक उपेगी थारतलें, अशा घडणु… आनी राजनितीचो आस्पाव परराश्ट्रीय धोरणांत जायत आसता. … नदरेन पळेतना परराश्ट्र संबंदांतल्या खंयच्याय निर्णयाचो विचार क… त्या राश्ट्राचीं हेर उद्‌दिश्टां, ध्येयधोरणां, अर्थीक स्थिती, रा… परिस्थिती, समाजाची नदर, भुगोलीक सुवात ह्या गजालींचोय … करचो पडटलो.

खंयच्याय राश्ट्राच्या अंतर्गत आनी परराश्ट्रीय धोरणाचो ल… संबंद आसता. परराश्ट्रीय धोरणांतल्या निर्णयाचो परिणाम खूबदां … धोरणांचेर जाता. झूज, शांतताय हांचेविशींच्या धोरणांचोय परराश्ट्रांवि… निर्णयांचेर परिणाम जायत आसता. लोकशायी राजवटींत परर… धोरणाचें रुप निमाणें नियंत्रण लोकांचें, लोकांच्या प्रतिनिधींचें अ… अंतर्गत धोरण आनी परराश्ट्रीय धोरण हांच्यांतलीं मुखेल सुत्रां एका… पोशक आनी पूरक आसचीं पडटात. परराश्ट्रीय धोरण खास … राश्ट्रीय धोरणांचीच फुडली वाटचाल करीत आसता.

राश्ट्राच्या हिताची पोसवण करप, राज्याच्या भूंयप्रदेशाचें, आ…

...रिकांचें रक्षण करप, राजकीय क्षेत्राभायर अर्थीक, संस्कृतीक, ... विज्ञानीक आदी क्षेत्रांनीय हेर राष्ट्रांकडेन सहकार करप, ...वप करून विकास सादप हीं परराष्ट्रीय धोरणाचीं मुखेल ... आसतात. कांय खेपे प्रदेश विस्तार करप, साम्राज्य वाडोवप ... नदरेमुखार दवरतात. विसाव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत ...ादाची संकल्पना बदलल्या. प्रदेश जिखून ताब्यांत दवरचे सोडून ...नेयत्रण आनी राजकी प्रभाव हांचेवरवीं हेर राष्ट्रांचेर प्रभुत्व ...लां राष्ट्रांतल्या प्रभावी दबाव गटांचो त्या राष्ट्राच्या परराष्ट्रीय ...रूय अंकूश आसता, अशें नदरेक आयलां. तेन्ना त्या दबाव ...त सादप हें परराष्ट्रनितीचें एक उद्‌दिश्ट जावन उरता. आपल्या प्रतिश्ठा वाडोवप हेंय एक म्हत्वाचें उद्‌दिश्ट अशें मानतात. ...ले तत्त्वप्रणालीचो प्रचार आनी प्रसार करप हेंच कांय परराष्ट्रीय ... मुखेल उद्‌दिश्ट थरयतात. रशियाच्या परराष्ट्रीय धोरणाचें ... साम्यवादाचो प्रसार सादप, साम्यवादी राश्ट्रांक मदत करप, ...ी राज्यांतल्या साम्यवादी पक्षांक, कामगार संघटनांक मदत ... आसता. अमेरिकन परराष्ट्र नितीचे प्रवक्ते लोकशाय आनी ... हांच्या रक्षणाक बांदिल्ले आसात, अशें समजतात, पूण कांय ...यी राष्ट्रांक शस्त्रांची मदत करतात.

...राष्ट्रीय धोरण थरोवपी राज्यकर्ते वा मुत्सद्दी, त्या धोरणाचीं ..., ताचेफाटलीं मुळावीं तत्त्वां आनी तीं धोरणां चालीक लावपाखातीर ... येवपी साधनां हे सगळे घटक परराष्ट्रीय धोरणांत म्हत्वाचे ... परराष्ट्रीय धोरणांचेरूय लोकमताचो प्रभाव पडटा. दळण-...ीं वाडटीं आनी गतीमान साधनां राष्ट्र-राज्यांची वाडिल्ली संख्या, ...त, अण्वस्त्रां आनी क्षेपणास्त्रां हांची महासत्तांकडेन आशिल्ली ...ी हे सगळे परिस्थितीचो परराष्ट्रीय धोरणांचेर खूब मोटो परिणाम ... परराष्ट्रीय धोरणाची संकल्पना मुळांतूच थीर ना. ती गतीमान ...श्टतासांची आसा. तातुंतूच राष्ट्रां-राष्ट्रांतल्या परस्पर एकामेकांचेर ...न रावपाच्या कारणाक लागून आंतरराष्ट्रीय राजकारण पयलींपरस ...ड गुंतागुंतीचें जालां. ताका लागून राजकीय पक्ष आनी लोकप्रिय ...प्रभावी राष्ट्रीय फुडारपण हांकां परराष्ट्रीय धोरण थरोवपांत ...म्हत्व मेळ्ळां.

...वटीत राष्ट्रसंघाचे स्थापणुके उपरांत, राष्ट्रसंघ स्थापन जालो ...वन, परराष्ट्रीय धोरणाचें एक नवें आंग स्पश्ट जालां. एकुणिसाव्या ...ामेरेन परराष्ट्र नितींत गुप्तताय, मुत्सद्द्यांच्यो वाटाघाटी, हेरगिरी, ...ी कारवाय आनी झूजप्रसंग हांकां म्हत्व आसता. पूण राष्ट्रसंघाचे ...केउपरांत उक्त्या परिशदांच्या स्वरुपांत राजनितीक सुवात प्राप्त ... आंतरराष्ट्रीय स्वरुपाचो वंशवादासारको वा निर्वासितांसारको ...ासत जाल्यार ताचे आड आवाज उठोवपाची तजवीज एकवटीत ...संघटनेचे माचयेक लागून जाल्या. खंयच्याय राष्ट्राक परराष्ट्राविशींचें ... थरयतना एकवटींत राष्ट्रसंघटनेचें अस्तित्व मतींत घेवप गरजेचें ...ल्हान राष्ट्रांचो ताका खूब फायदो जाता. कारण तांचेर दुस्मानाचो ...जालो तर रोखडीच एकवटीत राष्ट्रसंघटनेकडेन कागाळ करपाची, ...राष्ट्रीय लोकमत जागें करपाची वेवस्था जाल्या. हल्लो परतून ...खातीर ताकतिकेची मदत मेळोवपाचीय शक्यताय निर्माण जाल्या. ...रराष्ट्रीय धोरणाचे निर्णायक घटक म्हणून राष्ट्राची भुगोलीक ..., उपलब्ध सैमीक साधनां, लश्करी बळगें, लोकसंख्या, लोकमत, धोरण थरोवपी फुडारी, ताचे मुत्सद्देगिरीचीं खाशेलपणां, आंतरराष्ट्रीय संस्था आनी संवसारीक लोकमत हांचो उल्लेख करूं येता. ब्रिटनाच्या परराष्ट्रीय धोरणांत युरोप खंडापसून वेगळो आशिल्ल्या भुगोलीक सुवातीचो बरो उपेग जालो. आपलें परराष्ट्रीय धोरण तो स्वतंत्रपणान आखूंक शकलो. तशेंच उद्देगीक क्रांतीची सुरवात, लोकांची दर्यावर्दी वृत्ती, दूरदृश्टीची मुत्सद्देगिरी हांचो परिणाम इंग्लंडाचें परराष्ट्रीय धोरण साम्राज्यवादी करपांत जालो. फ्रांस, जर्मनी, बेल्जियम हांकां तांचे भुगोलीक सुवातीक लागून युरोपी राष्ट्रांतल्या झगड्यांत वांटो घेवंचो पडलो. सैमीक साधनांची समृध्दताय आनी हेर राष्ट्रांपसून वेगळेपण हांकां लागून अमेरिका आपलें परराष्ट्रीय धोरण स्वतंत्रपणान थरोवंक शकली.

मुत्सद्देगिरी, प्रचार, राजकीय डावपेंच, अर्थीक साधनां, परकीय मदत, घातपाती कर्तुबां, झूज हीं परराष्ट्रीय धोरणांचीं साधनां आसात. अशा साधनांचो उपेग करून राष्ट्राचीं उद्‌दिश्टां साध्य करतात. राज्यां-राज्यांतल्या दळणवळणांत तशेंच आंतरराष्ट्रीय संबंदांनी वाड जाल्या. दरेक राष्ट्र ह्या कामाखातीर दुसऱ्या राष्ट्रांत आपलो प्रतिनिधी धाडटा. राजकीय आनी वेपारी प्रतिनिधीं वरवीं परस्परांतले संबंद दवरतात.

राजकीय धोरणाचें एक साधन म्हळ्यार देशांत आपल्या उद्‌दिश्टांचो आनी विचारांचो प्रचार परराष्ट्रांतल्या लोकांमदीय असो प्रचार खूबदां करतात. विसाव्या शतमानांत ह्या साधनाचो वापर व्यापक प्रमाणाचेर करतात. आपल्या राज्यांतूय परराष्ट्रीय धोरणाक अनुकूल असो प्रचार करचो पडटा. सगळींच राष्ट्रां प्रचाराचेर व्हड खर्च करतात. रेडिओ, टीव्ही, खबरांपत्रां, प्रचार पुस्तिका अशा प्रचाराखातीर वापरतात.

परराष्ट्र वेव्हारांत अर्थीक साधनांक म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. स्वताचे अर्थीक प्रस्न सोडोवपाखातीरूय ह्या साधनांचो उपेग करतात. आयात-निर्यातीवयले निर्बंद वा खाशेल्या वस्तूंच्या आयात-निर्यातीवयलीं बंधनां उणीं करप हीं मुखेल अर्थीक साधनां आसात. खूबदां खंयच्याय राष्ट्राची अर्थीक कोंडी करतात. त्या राष्ट्रावांगडचो वेपार बंद करतात. ह्या साधनांचो वापर खास करून झूज काळांत करतात.

झूज हें परराष्ट्रीय धोरणाचें एक साधन. राज्याची झुजाची तांक जितली व्हड, तितलें ताचें परराष्ट्रीय धोरण येसस्वी जायत आसता. झूज करिनासतना दुसऱ्या राष्ट्रांचेर आपल्या धोरणांचें पालन करपाची सक्ती करप हें कुशळ राजनितीचें कसब अशें मानतात. खंयच्याय राज्याचें परराष्ट्रीय धोरण हें ताच्या अंतर्गत ध्येयधोरणाक पूरक आनी पोशक आसचें पडटा. राष्ट्र हिताकडेन लक्ष दवरून राष्ट्राची प्रतिश्ठा वाडोवप हें परराष्ट्रनितीचें मुखेल उद्‌दिष्ट आसता. राष्ट्रां-राष्ट्रां मजगतीच्या संबंदाक लागून परराष्ट्रीय धोरणाक अती म्हत्वाची सुवात प्राप्त जाल्या. परराष्ट्रीय धोरणाचो परिणाम देशांतल्या हेर हीत संबंदांचेर जाता. हे गट आपल्या हिताची राखण करपाखातीर निर्णयकर्त्यांचेर चेपण हाडटात. ह्या सगळ्या देशां भितल्ल्या घटकांचे आंतर-क्रियेंतल्यान परराष्ट्रीय धोरण घडत वता.

**भारताचें परराष्ट्रीय धोरण :** स्वतंत्र भारताच्या परराष्ट्रीय धोरणाची घडण स्वातंत्र्याच्या पयलींच्या काळांतूच जाली. अखिल भारतीय काँग्रेसीन आंतरराष्ट्रीय प्रस्नांविशीं वेळोवेळ आपणायिल्ल्या धोरणांतल्यानूच ताची उत्क्रांती जाली. स्वातंत्र्यापयलींच काँग्रेसीन आंतरराष्ट्रीय प्रस्नांविशीं कितलेशेच थाराव संमत केल्ले. ब्रह्मदेश ब्रिटिशांनी जिखिल्लेखातीर

## परराष्ट्रीय धोरण

असंतोश परगटायिल्लो (१८८५). ब्रिटीशांच्या साम्राज्यवादी कारवायांखातीर भारताक तळ म्हणून वापरपाक हरकत घेतली (१८९२). कॉंग्रेसीचें हें साम्राज्यवादी धोरण पयल्या म्हाझुजाउपरांत आनिकूय स्पश्ट जाले. ब्रिटीशांच्या खलिफाआड धोरणाचो निशेध म्हणून भारतांत खिलाफत चळवळ सुरू केली. १९२०त आयर्लंडी लोकांच्या स्वातंत्र्य लड्याक तेंको दिलो, जाल्यार १९२८ त इजिप्त, सिरिया, पॅलेस्टायन आनी इराक हांकां तांच्या साम्राज्याआड संघर्शाखातीर परबी भेटयली. भारताचें हें धोरण स्वातंत्र्याउपरांतूय नेटान चलयलें.

स्वातंत्र्याउपरांतच्या काळांत, एकवटीत राश्ट्रसंघांत थाराव संमत करून घेवन इंडोनेशिया, ट्युनिशिया, मोरोक्को, आल्जीरिया आदी आफ्रिकी-आशियाई देशांचे मुक्तीखातीर वातावरण तयार करपाखातीर भारतान म्हत्वाचो वावर केलो. १९५६त इंग्लंड आनी फ्रांस हाणीं सुएझ खारजाविशीं केल्ल्या सैनिकी हस्तक्षेपाक भारतान विरोध केलो. वसणुकांक स्वातंत्र्य मेळचें, असो एक थाराव एकवटीत राश्ट्रान करून तो कितले मेरेन चालीक लागता, हें पळोवपाखातीर एक २४ वांगड्यांची समिती नेमल्या. भारत हो हे समितीचो मुखेल वांगडी आसा. वसणूकवादा प्रमाणूच दक्षिण आफ्रिकेंतल्या भेदाआड संवसारीक लोकमत संघटीत करपाखातीर भारतान खूब यत्न केल्यात.

भारतीय राजवेवस्थेंत परराश्ट्रीय धोरणाची जापसालदारकी ही परराश्ट्र मंत्र्याची आसता. धोरणाखातीर तो लोकसभेंत जापसालदार आसता. नेहरूचो चरित्रकार मायकल ब्रेशर हाच्या मतान नेहरू हो भारतीय परराश्ट्रीय धोरणाचो शिल्पकार. कॉंग्रेसीन १९२८त परराश्ट्रीय धोरणाखातीर स्वतंत्र विभाग सुरू करीत सावन ताची जापसालदारकी नेहरून अखेरमेरेन सांबाळ्ळी. परराश्ट्रीय धोरणाखातीर कॅबिनेटाची एक समिती आसली, तरीय नेहरूच्या मंत्रीमंडळांतल्या हेर कोणेंच परराश्ट्रीय धोरणांत व्हडलोसो रस घेतलोना. पाकिस्तानाविशींच्या धोरणासंबंदीं मात खूबदां मतभेद जाताले. देशांतले राजकीय पक्ष आनी वट्ट लोकमत हांच्यांतूच नेहरूच्या धोरणाविशीं मतैक्य आशिल्लें. लोकसभा, पक्ष, उच्च नोकरवर्ग, लश्करी अधिकारी ह्या सगळ्यांनी नेहरूचेच नदरेन परराश्ट्रीय धोरणाकडेन पळेलें.

भारताची भुगोलीक स्थिती, रशिया आनी चीनाकडेन आशिल्ले लागींचे संबंद मतींत घेतल्यार शीतझुजाच्या संदर्भांत ताणें आपणायल्ली तटस्थतायेची भुमिका योग्य अशें दिसता. भारताचें अर्थीक दुबळेपण आनी अस्तंतेकडल्या उदारमतवादाचो भारतीय फुडारपणावयलो पगडो ह्या गजालीक लागून भारतान अलिप्ततायवादी धोरण आपणायलें आसुंये. देशहिताचे नदरेन परराश्ट्रीय धोरण थरोवचें पडटा, अशें नेहरून म्हळां आनी हें हीत खंयचें हें थरोवपाखातीर नेहरूचें फुडारपण सगळ्यांनी मान्य केल्याचें दिसता. नेहरू उपरांतच्या काळांत जरी वेगळो परराश्ट्रमंत्री नेमलो आसलो, तरीय ह्या क्षेत्रांत तेन्नाच्या प्रधानमंत्र्याचो प्रभाव तिगून उरलो. ताश्कंद कबलात आनी शिमला कबलात हांचेसारक्यो म्हत्वाच्यो वाटाघाटी तेन्नाच्या प्रधानमंत्र्याच्या फुडारपणाखालूच जाल्यो. परराश्ट्रीय धोरणाची समिक्षा करपाक मंत्रीमंडळान आनी संसदेन ह्या काळांत खूब वांटो घेतलो. महावीर त्यागी हाणें १९६६त, जाल्यार अशोक मेहता हाणें १९६८त आपलो विरोध परगटावपाखातीर मंत्रीमंडळाचो राजिनामो दिल्लो. पूण १९७७ उपरांतच्या सत्तांतरा उपरांत परराश्ट्र मंत्र्यानूय थोडी चड जापसालदारकी उबारिल्ल्याचें दिसता.

परराश्ट्रीय धोरणाविशीं भारतान सदांच अलिप्ततायवादाचो पुर[…] केला. १९७७ उपरांत सत्तारूढ जाल्ल्या जनता पक्षानूय खरी अलिप्[…] हेंच आपलें धोरण आसतलें, अशें जाहीर केलें. सदळपणान अलिप्[…] हाचो अर्थ खंयच्याच सैनिकी गटांत सामील जायनासतना, [...] आंतरराश्ट्रीय प्रस्नाचेर स्वतंत्रपणान निर्णय घेवप, असो करतात. दु[…] म्हाझुजा उपरांत सुरू जाल्ल्या शीतझुजाच्या आनी व्हडल्या राश्[…] स्थापन केल्ल्या सैनिकी युतींच्या संदर्भांत हें धोरण थरयल्लें. खंय[…] गटांत भितर सरल्यार दुसऱ्या गटाचो राग ओडोवन घेवन अ[…] सुरक्षीतताय धोक्यांत येता; दोन सैनिकी गटांचे सर्तींतल्यान झु[…] शक्यताय वाडटा. तेन्ना अलिप्त रावन दोनूय गटांमदीं समजिकाय ग[…] हाडून शांतताय प्रस्थापीत करप हें बरें, अशें नेहरूक दिसतालें. सुरक्षेत[…] शांतताय स्थापन करपा जाग्यार शांतीकायेच्या सहजिणेंतल्यान सुरक्षा[…] साध्य करपाचेर ताचो भर आशिल्लो. खर शीतझुजाच्या क[…] कितल्याशाच प्रसंगां वेळार (देखीक - कोरियन झूज, इंडोचायना[…] सुएझाचो पेंच) भारतान दोनूय पक्षांमदीं समजिकाय घडोवन हाडपाक[…] फुडाकार घेतलो. देखून भारताची तटस्थताय ही पारंपा[…] तटस्थतायेप्रमाण नकारात्मक न्हय, अशें म्हण्टाले. हें धोरण च[…] लावपाखातीर अलिप्त राश्ट्रांच्यो परिशदो घेवन तातूंतल्यान आंतररा[…] राजकारणांत आनी संयुक्त राश्ट्रांनी एक तिसरी शक्त निर्माण क[…] भारताचो हातभार लागलो. असल्यो परिशदो बॅलग्रेड (१९६१), [...] (१९६४), लुसाका (१९७०), आल्जियर्स (१९७३) आनी [...] (१९७६) शारांनी भरयल्यो.

आपल्या धोरणाखातीर एकवटीत राश्ट्रांचो वापर करपाचेर ह्या रा[…] भर दिलो. नवजात राश्ट्रांनी स्वताच्या पांयांचेर उबें रावंक [...] हेखातीर एकवटीत राश्ट्रांनी पालव करचो, असो आग्रो भारतान [...] अंकटॅड (UNCTAD), आशियाई विकास बँक हांचेसारक्यो संस्था स[…] करपाक फुडाकार घेतलो. ह्या नवोदीत राश्ट्रांच्या कारभारांत व्ह[…] राश्ट्रांच्या हस्तक्षेपाक वाव आसचो न्हय, हेखातीर संयुक्त राश्ट्रांचें शांत[…] उबारपाक भारतान हेर अलिप्त राश्ट्रांवांगडा मदत केली. पूण [...] राश्ट्राविशींचें भारताचें धोरण आदर्शवादी कल्पनांचेर आदारिल्लें [...] राश्ट्रहिताच्या पांयांचेरूच उबारिल्लें आसा, हें विसरून चल[…] काश्मीराविशीं कोडू अणभव येतकूच भारतान आपले द्विराश्ट्रीय [...] स्वता जावन एकवटीत राश्ट्रांकडेन व्हेलेनात. इतलेंच न्हय, ज[…] स्वताच्या द्विराश्ट्रीय प्रस्नांविशीं संयुक्त राश्ट्राच्या हस्तक्षेपाक [...] परगटायला. आपल्या कल्याणाक मारक थरपी संयुक्त राश्ट्रांचे [...] भायर उडोवपाक संकोच केलोना. आपल्या धोरणाचें एक सा[…] नदरेनूच भारतात संयुक्त राश्ट्रांकडेन पळेलां.

कश्टान मेळयल्ल्या स्वातंत्र्याचो गटस्थ जाल्यान संकोच [...] अशें भारताप्रमाण कितल्याशाच आफ्रिकी-आशियाई देशांक दिशि[…] ताणींय हेंच धोरण आपणायलें. खरें अलिप्त राश्ट्र खंयचें हें थरोवपा[…] अलिप्त परिशदांनी एक पंचसुत्री आपणायल्या -

(१) शांतीकायेचे सहजिणेच्या तत्त्वाचेर आदारिल्लें स्वतंत्र धोरण [...]
(२) वसणुकांच्या मुक्तीसंग्रामाक तेंको दिवपी
(३) खंयच्याय शीतझुजाकडेन संबंदीत सैनिकी गटाचो वांगडी ना[…]
(४) उदेंत-अस्तंत संघर्शाक चालना दिवपी खंयचीय लश्करी क[…] व्हडल्या राश्ट्रांकडेन करिनाशिल्ले आनी

...च्या भूंयप्रदेशाचेर परदेशाक सैनिकी तळ उबारूंक ना दिवपी ... राश्ट्राक ह्या परिशदांनी सामील करून घेतात. सगळ्याच ... नेम कांटेकोरपणान पाळटातच अशें ना.

...तान अलिप्तताय ही मोख नासून तें गांठपाचें एक साधन आसा, ...नलां. १९६२ च्या भारत-चीन झुजाउपरांत भारतान ...कडल्यान लश्करी मदत घेतली; तशेंच चीनांतल्यो गुप्त खबरो ... म्हणून भारतीय प्रदेशांत आण्विक यंत्र दवरपाची ताका परवानगी ...१९७१त संभाव्य भारत-पाक झुजांत चीनान हस्तक्षेप करचो ... उद्देशान रशियेकडेन कबलात केली.

...च्याय देशाच्या परराश्ट्रीय धोरणाचो ताचे संरक्षण वेवस्थेकडेन ... संबंद आसता. आपणाक खंयच्या देशाकडल्यान संभाव्य धोको ...ं हेरून ताचेर राजनितीक आनी सैनिकी अशा दोनूय तरांची ...वजण करप गरजेचें आसता. ह्या दोनांचेंय प्रमाण त्या देशांतल्या ... उद्देगीक प्रगतीचेर, लोकसंख्येचेर आनी राश्ट्रीय साधनसंपत्तीचो ... करपाखातीर शासनान खंयचो अग्रक्रम थारायला, हाचेर आदारून ...ं.

...तीय फुडाऱ्यांक सुरवातीच्या काळांत पाकिस्तानाकडल्यान आपणाक ...त चड धोको आसा, अशें दिसतालें. ह्या काळांतली संरक्षण ...ी नदरेनूच उबी केल्ली. पाकिस्तानान अमेरिकेकडेन युती करतकूच, ... बळग्याचेर ताचें संभाव्य आक्रमण परतून लायतलों, असो ... भारताक दिसतालो. भारताचीं संरक्षक दलां शस्त्रास्त्रांखातीर ...रेर आदारून आशिल्लीं, ताका लागून अस्तंतेकडल्या देशांकडेन ...नेर्माण जालो, तरी भारतान तांचेकडेन आपले संबंद तोडलेनात. ...ांतली राजकीय अस्थीरताय आनी हिमालयाची आडखळ मतींत ...र, चीनाकडल्यान आमकां धोको आसा, अशें भारतीय फुडाऱ्यांक ...ा. नेपाळ, भूतान आनी सिक्कीम हांचेकडेन लागींचे संबंद स्थापन ...आनी चीनाकडेन इश्टागतीचे संबंद तोडून त्या भागाची सुरक्षीतताय ...ी पड्टली, अशेंय तांकां दिसलें. ताका लागून ह्या काळांत चीनांतल्या ...दी शासनाक राजनितीक मान्यताय दिवन, संयुक्त राश्ट्रांनी ...दी चीनाक प्रवेश मेळचो, म्हणून भारतान यत्न करून, चीन-...त्र (कोरियांतल्या) झुजांत मध्यस्थी करून चीनाकडेन स्नेहसंबंद ... केले. १९५४त चीनाकडेन जाल्ले कबलातींतल्या पंचशील तत्त्वांक ... भारताक आनिकूय सुरक्षीत दिसलें.

...नाचे १९६२ चे घुरये उपरांत हेविशीं भारतीय फुडाऱ्यांचे चीनाविशीं ...धोरण कशें चुकीचें आशिल्लें, तें नदरेक आयलें. तेउपरांत पाकिस्तान ...चीन ह्या दोनांयपसून संरक्षण करपाची गरज भारताक निर्माण ...चीनान अणुस्फोट करतकूच ही जाणविकाय आनिकूय वाडली. ...-चीन दुफळी मतींत घेतल्यार १९६२ उपरांत भारताचें परराश्ट्रीय ... रशियाकडेन चड लकपाक लागिल्ल्याचें दिसता. भारतान ...कडल्यान म्हत्वाच्या क्षेत्रांत लश्करी आनी अर्थीक मदत मेळयली. ...स्त्रांच्या मळार स्वावलंबी जावपाखातीरूय रशियाची मदत मेळयली. ...त्र गिन्यानाची उदरगत करपाखातीर मात भारतान कॅनडा आनी ...का हांचेकडल्यान पालव मेळयलो. ह्या मळारूय स्वावलंबी ...खातीर १९७४त भारतान अणुस्फोट केलो. अजुनूय ...माखातीर भारत अमेरिकेचेर आदारून आसा. अर्थीक आनी लश्करी ...ल्या दोनूय व्हडल्या राश्ट्रांच्या पालवाक लागून भारताच्या अलिप्ततायवादाक एक नवी दिशा मेळ्ळी.

भारत-पाक १९७१ च्या झुजाउपरांत भारतान चीन आनी पाकिस्तान हांचेकडेन सर्वसामान्य संबंद स्थापन करून, परराश्ट्र धोरणाचेर आनी संरक्षण वेवस्थेचेर पडपी ताण उणो करपाचो यत्न केला. तशेंच शेजारच्या सगळ्या राश्ट्रांकडेन आशिल्ले प्रस्न सोडोवपाचे यत्न केल्ले. १९७७ उपरांत हे प्रक्रियेक खूब गती आयली. शेजारच्या सगळ्या राश्ट्रांकडेन स्नेहसंबंद निर्माण केल्यार अलिप्त आनी स्वतंत्र धोरण आंखूं येता, अशें हें धोरण सुचयता.

भारतीय फुडारी परराश्ट्र धोरण आंखपाक बरेच येसस्वी जाल्यात. परराश्ट्र धोरणांत ताणीं गरज आसा तें सातत्य राखलां. पाकिस्तानाकडेन आशिल्ले संबंद सुदारपाच्या यत्नांनी आनी त्या धोरणाक लागून एकसारके जावपी फारपेट आनी तणावाचें वातावरण टाळ्ळां. संयम आनी समजिकाय दवरपाक राजकीय फुडारपणाक परराश्ट्रीय आघाड्यांचेर येस आयलां. खेरीज भारत अलिप्ततायवादी आशिल्ल्यान ताका रशिया आनी अमेरिका ह्या दोनूय महासत्तांकडेन इश्टागतीचे संबंद तिगोवन दवरप शक्य जालां.

- कों. वि. सं. मं.

**परलोक :** मनीस जल्मता तो इहलोक आनी ताच्या मरणाउपरांत ताचो आत्मो जंय वता तो परलोक. परलोकाची कल्पना दुसऱ्या दोन कल्पनांचेर आदारून आसा. (१) मरणाउपरांतचें जिवीत (२) धर्तरेभायल्या विश्वाचें अस्तित्व. धर्तरी वा भूलोक हाचेवांगडाच अंतरिक्ष, सर्ग, नरक, पाताळ, विष्णुलोक, ब्रह्मलोक, शिवलोक, सिध्दलोक, पितृलोक अशे मनशाच्या वास्तवाचे आनीक प्रांत (लोक) मानप आदिम काळापसून चालू आसा. मेल्ल्या मनशाचें दहन केले उपरांत अग्नी ताच्या आत्म्याक परलोकांत घेवन वता अशें अथर्ववेदांत सांगलां (६.१२०). देवयान आनी पितृयानांत अशे परलोकांत येवपा-वचपाचे उपनिशदांत दोन मार्ग सांगल्यात.

मरणा उपरांतच्या जिविताची कल्पना भोवतेक सगळ्याच धर्मांनी आशिल्ल्यान, थंय परलोकाची कल्पना चलत आयल्या. निमाण्या संस्काराच्या वेळार तशेंच उपरांतच्या धर्मीक विधींनी मनशाचे गरजेच्यो वस्तू (अन्न, उदक, दिवो, जोतीं, सत्री) मृत आत्म्याक अर्पण करपाची चाल अजुनूय चलता. मृत मनशाच्या आत्म्याक परलोकांतल्या वास्तवांत सूखशांती लाबची म्हणून प्रार्थना करपाची चालूय सगळ्या धर्मांनी चलता. मृत मनशाचो उल्लेख स्वर्गवासी, परलोकवासी, वैकुंठवासी असो आजूय करतात.

इहलोकाचे वागणुकेप्रमाण म्हणजेच पाप-पुण्याचे जोडीप्रमाण परलोकांतलें जिवितांतलें सूख-दुख्ख भोगूंक मेळटा, अशी कल्पना आसा. इहलोकांत जे बरीं कर्मां करतात आनी पुण्यसंचय करतात तांकां परलोकांत (सर्गांत) सुखाची प्राप्ती जाता. इहलोकांत जे पापां करतात तांकां परलोकांत (नरकांत) यातना भोगच्यो पडटात. परलोकांत गेल्ले आत्मे कांय काळाउपरांत परतून इहलोकांत हे ना ते योनींत (मनीस, पशू, पिशाच्च आनी हेर) परतून जल्म घेता ही भावना पुनर्जल्म मानपी सगळ्याच धर्मांच्या लोकांखातीर आसा.

परलोकांतल्या आत्म्याकडेन संपर्क दवरपाची शक्त कांय साधकांक प्राप्त जाता असोय समज आसा. परलोक विद्येवरवीं हे साधक परलोकांतल्या आत्म्याकडेन संपर्क दवरूंक शकतात ह्या विश्वासान

परलोकविद्या

कांय लोक ताचो मध्यस्त म्हणून वापर करतात आनी ताचेवरवी आपल्या नात्यातल्या मनशाच्या आत्म्याकडेन संबंद प्रस्थापीत करपाचो यत्न करतात.

– कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : परलोकविद्या.

**परलोकविद्या :** परलोकांतल्या मनशांकडेन संबंद दवरपाचे विद्येक हें नांव आसा. मरणाउपरांत मनशाचो आत्मो सुक्ष्मदेह धारण करून परलोकांत कांय काळ रावता. अशा सुक्ष्म देह धारण केल्ल्या मनशाकडेन इहलोकांतल्या मनशांक मध्यस्थांच्या आदारान वा स्वतंत्रपणान उलोवपाक येता अशी ह्या शास्त्राची धारणा आसा, अशें म्हण्टात. पुर्विल्ले क्रिस्तांव लोक आनी अमेरिकेचे मुळावे लोक हांकां ही परलोकविद्या येताली. अमेरिकेंतलो अँड्न्यू जेक्सन डेवीस हाका आधुनिक परलोक विद्येचो आद्य प्रणेतो मानतात. १७-१८ वर्सांचे पिरायेउपरांत अकस्मात ताच्या आंगांत दिव्य शक्ती प्रगट जाली आनी ताका परलोकांतल्यान दिव्य वाणी आयकुपाक येवंक लागली. उपरांत ताका दिव्य नदर प्राप्त जाली, तो भविश्यवादीय जालो. ताच्या एका पुस्तकांत मोटार, विमान आदी सोदांचें भविश्य करून दवरिल्लें आशिल्लें. ताणेंच सांगिल्लेप्रमाण ३१ मार्च १८४८ दिसा आर्विल्ले परलोक विद्येची सुरवात एका खेडेगांवांत जाली. थंयचे एके चलयेक ठोक्यांचे भाशेंत गूढ संदेश मेळूंक लागले. ताचे उपरांत जायत्या मनशांक अशे तरेचे संदेश मेळूंक लागले. नामनेचो शास्त्रज्ञ विल्यम फ्रुक्स हाणें हे विद्येचें संशोधनूय सुरू केलें. उपरांत स्टेड, कॉनन डॉयल, ऑलिवर लॉज आदी जायत्या संशोधकांनी परलोक संदेशाचें संशोधन केलें आनी तांकांय तातूंत खरेपण दिसलें. ह्या संदेश ग्रहणाचे पद्दतींत जे वेगवेगळे चमत्कार दिसतात ते परलोकांतल्या व्हड प्रज्ञासंपन्न मनशाचे प्रेरणेक लागून घडटात अशें त्या भौतीक शास्त्रज्ञांनी मान्य केलें.

अशा जायत्या पंडितांनी परलोकाविशीं संशोधन करून जे निश्कर्श काडले तातूंत जायतीं मतां दिसतात. तांचीं परलोकाविशीं ज्ञानाचीं साधनां चड करून तीन आसात. १) सूक्ष्मदर्शन वा दिग्दर्शन २) परलोकांतल्यान मेळपी प्रेरणा ३) प्रयोगांतल्यान घडणुकांवयल्यान केल्लीं अनुमानां. कांय पंडितांच्या मतान सगळे परलोक धर्तरे भोंवतणीं क्रमान पातळिल्ले आसून, पृथ्वी हेंच ताचें केंद्र आसा. तांची संख्या सादारणपणान सात मानतात. कांय जाणांच्या मतान परलोक हे धर्तरेवयल्यान भायर पडपी सुक्ष्म द्रव्यांपसून तयार जाला. कांय जाण अशें मानतात, पुराय संवसारूच एक आसून ताच्या स्थूल प्रत्ययाक इहलोक आनी सुक्षीम प्रत्ययाक परलोक म्हण्टात. इहलोकांतल्या कर्माप्रमाण जिवाक परलोकांत मानसीक त्रास भोगचे पडटात.

आर्विल्ली परलोकविद्या पुर्विल्ले परलोकविद्येप्रमाण फकत भावार्थी नासून अणभवान आनी प्रयोगान ती सिध्द करपाक येता, अशें पंडिताचें मत आसा. पुर्विल्ल्या काळांत सिध्द वा योगी मनशांक तांच्या दैवी सामर्थ्याक लागून जायत्या गजालींचें गिन्यान मेळटालें. हें गिन्यान तांकां परलोकांतल्या मनशाचे प्रेरणेनूच मेळटा अशें म्हण्टात. सामान्य मनशाच्या माध्यमांतल्यान जेन्ना परलोकांतल्या मनशाचे संदेश ग्रहण करप जातात तेन्ना तांचें अस्तित्व सिध्द जाता. आर्विल्ले परलोक विद्येक लागून हें शक्य आसा.

परलोक विद्येच्या प्रयोगांनी जायत्या तरांचे चमत्कार अणभव मेळटात. हे चमत्कार परलोकांतल्या व्यक्तींचें अस्तित्व आनी दैवी हांकां खरेपण हाडटात. आर्विल्ले परलोकविद्येंत धर्माचीं मुलतत्त्वां सोडि नात. पूण भौतीक शास्त्राचो आदार घेवन ती विद्या जिवीतसातत्य साक्षात पुराव्याचेर स्थापन जाल्या. परलोकविद्या म्हळ्यार नवो धा पंथ नासून, धर्मीक उदरगत आनी विचार स्वातंत्र्य हांचेर आदारि अभिनव पद्दतीची ती एक शिकवण आसा. आर्विल्ले परलोकवि पुरस्कर्त्यांनी जीं सारभूत तत्त्वां आपणायल्यांत, तातूंत देवाचो करप, ताची आज्ञा पाळप, समताय आनी बंधुभाव, जिवीत सा कर्मविपाक, जिवाचें अमरत्व, ताची सतत जावपी उदरगत आनी ईश्वराकडेन एकचार ह्या तत्त्वांचो आस्पाव जाता.

नामनेचो शास्त्रज्ञ सर ऑलिव्हर लॉज हो परलोकविद्येविशीं सांगता, "म्हज्या मतान, पुराव्यान हें सिध्द आसा, की मेल्लो सुबुध्द कांय परिस्थितींत आपल्या ह्या स्थूल जगाकडेन संबंद जोडूंक श अशे तरेन ते आपल्या शास्त्रीय संशोधनाचे कक्षेंत येतात. दृश्य अदृश्य संवसारांतली वणत जरी अजून स्थूल आसली तरी ती जायत पातळ जाल्या. भक्तिमार्गावरीच हो परलोकविद्या मार्ग सगळ्यांक इ – परलोकांतले येरादारीखातीर उपेगी पडटलो."

भारतांत नरसिंहम पंतलू, जे. एन. मित्र, नागराणी, दोरा अय्यर, गायत्रीदेवी, वि. दा. ऋषी, स. कृ. फडके आदी मनशान विशयाचो जायतो अभ्यास करून ताचेर ग्रंथ आनी लेख बरय कांय जाणांनी हे विद्येचे आपले अणभवूय ग्रंथीत केल्यात.

फडके हाणें हे विद्येविशीं ताणें केल्ल्या संशोधनाचें सार साग अशें "आर्विल्ले परलोकविद्येच्या प्रयोगावरवीं ज्या परलोकांकडेन उलोवप जाता ते परलोक म्हळ्यार प्रेतलोक, नरकलोक आनी पितृलोक. दरेक मनीस आपल्या परलोकांतल्या गुरूच्या मार्गदर्शन एकांतात आत्मोध्दार करपाचे साधनेंत गुल्ल आसतात. असत्कर्म प्रेतलोक आनी नरकलोक हे धर्तरेलागसल्ल्या लोकांत वतात आनी मा जाच भोगतात. सादारण कर्म करपी लोक पितृलोकांत आनी तशेंच ज्ञानी मनीस ते पलतडच्या लोकांत वतात.

पुर्विल्ल्या काळांत दुर्वास, रघुराजा, दुष्यंत, रावण, मुचकुंद जायते मनीस मरणाआदीं सदेह स्वर्गांत वचून आयिल्ल्याच्यो कथा पु आसात. ते मनीस स्वताच्या तपसामर्थ्यान वा देवता तशेंच सिध्द हांच्या वरदानाक लागून तात्पुरतीं दिव्य शरिरां धारण करून लोकांत गेल्ले आसूं येतात. नारदमुनी जाल्यार सदांच तिनूय लोकां संचार करतालो. पुराणांतले लोक आनी आर्विल्ले परलोकविद्येंतले सामके वेगळे आसात. पुराणांतले सर्ग, नरक, पितृलोक, देवयान, पि चंद्रलोक हांचीं वर्णनां लाक्षणिक आसात. देवता आनी पितर म्हळ्यार अमूर्त शक्तिकेंद्र आसतात. ताच्या लोकांचें क्षेत्र हे अ परलोकविद्येच्या क्षेत्रापरस खुबूच व्यापक, सुक्षीम आनी गूढ आस

– कों. वि.

**परशुराम :** एक वैदिक ऋषी आनी विष्णुच्या धा अवतारांतल अवतार. त्रेतायुगाचे सुर्वेक क्षत्रियांचो अत्याचार खूब वाडिल्लो परशुरामाचो अवतार जालो. एकदां कार्तवीर्य अर्जून (हैदय वा सहस्र

दती, धोरणात्मक आदेश ह्या सगळ्यांचेच बाबतींत पॉलिटब्युरोच
रोवंक लागलें. राष्ट्रीय अर्थवेवस्था, सैन्य, परराश्ट्रसंबंद, वेपार,
संघटनांचें कार्य, सामुदायीक शेतकाम, सोव्हिएत रशियेच्या
थरांतल्यो वेंचणुको, मुळावें शिक्षण, शिक्षण पद्दती ह्या सगळ्याच
पॉलिटब्युरोचें धोरण सर्वोच्च आनी निमाणें अशें मानतात. अशा
पातळेवयल्या धोरणांप्रमाणूच पॉलिटब्युरोचे कार्यावळ पत्रिकेचेर
ों साधनां, न्यायनिवाड्याच्यो पद्दती हांचे सारके विशय म्हत्वाचे

ीटब्युरोचें धोरण पक्षांतल्या कार्यकर्त्यांक आनी प्रशासनांतल्या
यांक पाळचेंच पडटा. त्या धोरणाक विरोध दाखोवप कार्यकर्ते
शासक ह्या दोगांकूय शक्य आसना. पॉलिटब्युरोच्या चिटणीसाकडेन
सगळ्या क्षेत्रांचे सर्वोच्च अधिकार केंद्रीत जाल्ले आसतात. रशियेंत
पक्ष म्हणून फकत कम्युनिस्ट पक्षाकूच मान्यताय आशिल्ल्यान
ाचे सर्वोच्च समितीचो मुखेल चिटणीस म्हळ्यार त्या देशांतल्या
राजकीय, समाजीक आनी तेसारक्या हेर क्षेत्रांचेर निर्णायक
रपी फुडारी आसता. हें महापद पयलीं लॅनिनाकडेन आशिल्लें.
या मरणाउपरांत तें स्टालिनाकडे आयलें. तेउपरांत कुश्चेव ब्रॅझनेव्ह
ोर्बाशॉव त्या पदाचेर आयले.

ेनाच्या मरणाउपरांत १९२४त जो सत्तासंघर्श जालो, तातूंत
चिटणीस म्हणून स्टालिनाक अधिकारपद मेळ्ळें. ताची ही सुवात
मेरेन आनिकूय घट जायत गेली. तेउपरांत पक्षाच्या कामकाजाचीं
त्रां रशियी लोकांक उपलब्ध जावप बंद जालें. ताका लागून
ब्युरोच्यो अंतर्गत घडामोडी, धोरणात्मक बदल आनी
णाखातीर केल्ले डावपेंच लोकांक समजनाशिल्ले. ही परिस्थिती
ाच्या मरणामेरेन कायम आशिल्ली. स्टालिनान आपले कारकीर्दीची
र्सां पॉलिटब्युरोच्यो बसका घेतल्यो. पूण १९२९ उपरांत हे
प्रमाण दर वर्सा उणें जायत गेलें. हाचो अर्थ धोरण थारोवपाचे
स्टालिन पॉलिटब्युरोच्या वांगड्यांकडेन विचारविनिमय
शिल्लो. ताचेंच धोरण पक्ष आनी प्रशासन हांकां बंधनकारक थरलें.
ागून रशियेंत हुकूमशायी पद्दतीचें सर्वाधिकारी फुडारपण आनी
केंद्रीकरण जालें.

क्टोबर १९५२त कम्युनिस्ट पक्षाची एकुणिसावी पार्टी काँग्रेस
आनी त्या अधिवेशनांत पॉलिटब्युरो ही समितीच बरखास्त केली.
युरोच्या जाग्यार २५ वांगडी आनी इकरा निमंत्रीत उमेदवार
हांचें एक अध्यक्षीय मंडळ स्थापन केलें. ही नवी तजवीज म्हळ्यार
ाका आशिल्ल्या वांगड्यांक धांवडावपाचो स्टालिनाचो डाव आशिल्लो,
टालिनच्या मरणाउपरांत तीन वर्सांनी क्रुश्चेव्ह हाणें जाहीरपणान

र्व १९५३त स्टालिनाक मरण आयलें. ते उपरांत अध्यक्ष मंडळाच्या
ांची संख्या धा केली आनी निमंत्रीत उमेदवार वांगडी चार जाले.
नाच्या काळांतले अत्याचार, अन्याय, अनियंत्रीत धोरण कितलें
त स्वरुपाचें आशिल्लें आनी ताका लागून रशियन लोकांक कशे
जाताले, हें अध्यक्ष मंडळाचो मुखेल म्हणून क्रुश्चेवान जगजाहीर
अध्यक्ष मंडळाचे हे कृतीक लागून रशियेंतलो दहशत पुराय नश्ट
ा पूण स्टालिनाचे कारकिर्दींत हे दहशतीन कितले भीशण प्रकार
जगामुखार स्पश्ट जालें. तशेंच रशियन लोकांकूय नव्या अध्यक्ष
मंडळाविशीं थोडोभोव विश्वास उत्पन्न जालो. १९६४त अध्यक्ष मंडळान खुद्द क्रुश्चेवाच्या फुडारपणाविशीं असंतोश परगटायलो आनी ताचेकडेन राजिनाम्याची मागणी केली. क्रुश्चेवाची सुवात अध्यक्ष मंडळाचो चिटणीस म्हणून ब्रॅझनेवान घेतली आनी तेउपरांत दोन वर्सांनी म्हळ्यार एप्रिल १९६६त पक्षाच्या २३ वे कॉंग्रेसीचें अधिवेशन जालें आनी तातूंत अध्यक्षीय मंडळ बरखास्त करून नवो पॉलिटब्युरो नेमलो. ह्या पॉलीटब्युरोंत इकरा वांगडी आनी आठ उमेदवार वांगडी नेमले.

पॉलीटब्युरोंत जावपी चर्चा आनी भासाभास हांचे अहवाल अजुनूय जाहीर करिनात. ते गुप्तूच दवरतात. फकत तांचो धोरणात्मक आशय जाहीर करतात आनी तांचेवरवींच रशियेचें अर्थीक प्रशासकीय, पक्षीय आनी परराश्ट्रविशीचें धोरण किदें तें समजुपाक मदत जाता.

ब्रॅझनेवाच्या मरणाउपरांत गोर्बाशोव पॉलिटब्युरोचो सगळ्यांत श्रेश्ठ सत्ताधीश जालो. ताणें रशियेच्या धोरणांत चड उदारताय आनी उक्तेपण हाडलें.

- कों. वि. सं. मं.

**पॉवर्टी अँड अन्ब्रिटीश रूल ईन इंडिया :** दादाभाई नवरोजी (१८२५ - १९१७) हाणें भारताचे अर्थीक परिस्थितीचो सखोल अभ्यास करून १९०१ त उजवाडायिल्लो एक ग्रंथ. ज्या काळांत सुशिक्षीत भारतीय लोक भारतावयलें ब्रिटीश राज्य हें एक दैवी वरदान मानून अधिकारपदाचे जागे मेळोवपाखातीर यत्न करताले, त्या काळांत दादाभाई नवरोजीन ब्रिटिशांच्या शासनाक लागून भारताचें चलिल्लें अर्थीक शोशण आनी अन्याय हांचें शास्त्रशुद्ध आनी सप्रमाण पद्दतीन विश्लेशण केलें.

दादाभाई नवरोजीच्या मताप्रमाण भारतांतली सगळ्यांत म्हत्वाची समस्या म्हळ्यार दळडीर. हो देश दिसानदीस चड आनी चड गरीब जायत आसा. हें कितल्याशाच पुराव्यांनी सिद्ध करूं येता. देखीक : उणे पातळेवयलें राश्ट्रीय उत्पन्न, आयात-निर्यातीचे आंकडे, लोकांचें राहणीमान, शासनाकडेन जमा जावपी उत्पन्न, परत परत पडपी दुकळ आनी मरणाचें वाडटे प्रमाण. तांच्या मतान सद्याचें दळडीर हो भारतांतल्या ब्रिटीश शासनाचो प्रत्यक्ष परिणाम. ताच्या हिशोबाप्रमाण भारताचें दर मनशाफाटलें वर्सुकी उत्पन्न फकत वीस रुपया आशिल्लें आनी राहणीचो दर, दर मनशाफाटलो वर्सुकी खर्च चवतीस रुपया आशिल्लो.

दादाभाईच्या मतान हांगाच्या दळडिराचें मुखेल कारण म्हळ्यार हांगाचे पयलींचे संपत्तीचो नाश आनी युरोपीय सेवांचेर जावपी उपाट खर्च आनी भौशीक रीण. देशांतले अर्थवेवस्थेचेर ताण दिवपी हो एक सेगीत ओघ. ताणें दाखोवन दिलें की १९५८ उपरांतचीं सगळीं भारताभायलीं झुजां ब्रिटिशांनी आपले आनी युरोपीयांचे हीतसंबंद सुरक्षीत राखपाखातीरूच लडलीं. देखून, भारतांतलें आपलें सैन्य आनी हेर सेवकवर्ग राखपाचो फावो तो खर्च ब्रिटनान सोंसचो. रेल्वेचें उदाहरण दिवन ताणें सांगलें की रेल्वे कंपन्यो ब्रिटनांत स्थापन करतात. तेन्ना तांचें सगळेंच उत्पन्न ब्रिटीश तिजोरेंत वता.

दादाभाईच्या ग्रंथाचो मुखेल उद्देश भारतांतली ब्रिटीश प्रशासनपद्दत भारतीयांक घातक आशिल्लीच, पूण ब्रिटिशांकूय घातक आशिल्ली, हें दाखोवन दिवपाचो आशिल्लो. हे विस्कटावणेक 'drain theory' अशें म्हण्टात. भारतांतलें अती दळडीर हें ब्रिटीश सत्तेक लागून निर्माण जालें. ब्रिटीश

सत्तेन हांगाच्या लोकांचेर करांचें चेपण घालां. ह्या चेपणाक लागून हांगाची सामुग्री ना जायत आसा. करांपसून मेळपी उत्पन्न त्याच देशांत खर्च जायत रावल्यार पयसो देशांतूच घुंवत उरता, लोकांच्या उद्‌देगांक उत्तेजन मेळटा आनी समृद्धी वाडत रावता. पूण जेन्ना एका देशांतल्या करांचें उत्पन्न दुसऱ्या देशांत व्हरतात, तेन्ना तो पयसो सासणाचो ना जाता. अशा करांच्या पयशान कर भरपी देशांत उद्‌देग वेपाराक कसलेंच प्रोत्साहन मेळना. ताचे गणनेप्रमाण इ. स.१९०० मेरेन भारतांतल्यान इंग्लंडांत दोन कोटी पौंड मोलाचें उत्पन्न निर्यात जालें तें दोन तरांनी : १) युरोपीय अधिकाऱ्यांनी भारतांतले आपले बचतींतल्यान धाडिल्लो दुडू, इंग्लंडातल्या तांच्या खर्चाखातीर धाडिल्लो दुडू आनी इंग्लंड तशेंच भारताच्या शासकीय खर्चांतल्यान दिताले ते तांचे पगार, निवृत्तीवेतन आदी दुडू. २) अधिकाऱ्यांबगर हेरांनी धाडिल्लो दुडू.

हे पद्‌दतीक लागून भारतांत भांडवलसर्जन जावंक शकना. खेरीज अशे तरेन भारतांत शोशून व्हेल्लें भांडवलूच परत भारतांत हाडून सगळो वेपार आनी म्हत्वाच्या उद्‌देगांत तांणी आपली मक्तेदारी निर्माण केल्या. ह्या सगळ्या अरिश्टांचो उगम अधिकृत शोशणांत आसा. देशांतलें सगळें उत्पादन देशांतूच वापरलेंनाजाल्यार नव्यान अदीक उत्पादन देशांतलें सगळें उत्पादन आनिकूय जायत रावलें. ताका लागून प्रचलीत उत्पादनाच्या दराप्रमाण बचत जावपा सुवातेर वर्सूकी उत्पादनांतल्यान सातत्यान घट जायत रावताली. भांडवलांत अखंड घट आनी उद्‌देग मर्यादीत जाता आशिल्ल्यान उत्पादन दर राखून धरपाइतलें लेगीत भांडवल मेळचेंना. दादाभाईचे हे विचार मिलच्या विस्कटावणेचेर आदारीत आसात.

दादाभाईन ब्रिटीश प्रशासनाचेर खर हल्लो केलो. ब्रिटीश संसदेंतल्या आपल्या उलोवपांत ईस्ट इंडिया कंपनीच्या प्रशासनांतल्यो दुश्ट प्रवृत्ती उक्त्यो केल्यो. ताणीं म्हळां ही कंपनी भारतांतलो अंतर्गत वेपार नश्ट करता. खेरीज, ह्या देशांतली वेवस्था भायल्यान लादिल्ल्या लोकांकडल्यान करून घेवन भारतीय लोकांक तांचो वांटो कंपनीन न्हयकारला.

भारतांतली दळिद्र समस्या सोडोवपाखातीर दादाभाईन फुडले उपाय सुचयल्यात : १) भारत आनी इंग्लंड हाणीं आपले शिमेंतल्या सेवक वर्गाचें वेतन स्वता दिवचें. भारतांत नेमिल्ले ब्रिटीश अधिकारी आनी इंग्लंडांत नेमिल्ले भारतीय हांचेमदीं न्याय्य आनी योग्य वांटणी करून घेवंची. २) ब्रिटीश नोकरांक भरपूर वेतन मेळटा आशिल्ल्यान तांकां निवृत्तीवेतन दिवंचें न्हय. ३) भारताचेर दर्यावटेन हल्लो जावपाची शक्यताय नाशिल्ल्यान भारतीय नाविक दळावयलो खर्च भारताचेर लादचो न्हय.

राश्ट्रीय पातळेवयले अर्थीक वस्तुस्थितीचें स्पश्टीकरण करपाखातीर एकट्या संकलीत तत्त्वाची गरज आसा, हाचेर दादाभाईन भर दिला. हे बाबतींत भारतांतल्या राश्ट्रीय उत्पन्नाची आनी तातूंतल्या विभागांच्या वांट्यांची गणती करपी तो पयलो भारतीय.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : दादाभाई नवरोजी.

**पिंगल भास आनी साहित्य :** आदल्या तेंपार पिंगल हो शब्द छंदःशास्त्र ह्या अर्थान प्रचलीत आशिल्लो. फुडें अठराव्या शतमानासावन पिंगल ह्या शब्दाचो भास ह्या अर्थान प्रयोग जावंक लागलो. गुरू गोविंदसिंगाच्या विचित्र नाटक ह्या ग्रंथांत पिंगल ह्या शब्दाचो भास ह्या अर्थान पयलो प्रयोग केल्लो दिसता. उपरांत राजस्थानांतल्या कवींनी तिचो जायते फावट प्रयोग केलो. सद्या पिंगल शब्दाच्या थोडो बदल जावन तो राजस्थानमिश्रीत व्रजभाशा अशा अर्थान आनी व्रजभाशेक शुद्ध ब्रजभास अशें म्हण्टात. कांय लोक पिंगल : डिंगल भास मानतात, पूण पिंगल भाशेंत व्रजभाशा आनी राजस्थ दोनूय भाशांचीं खाशेलपणां दिसतात. पूण डिंगल भाशेंत फकत म भाशेचें अनुकरण केल्लें दिश्टी पडटा. पिंगल भाशेंत व्रजभाशे आनी राजस्थानी भाशेचो अंश कितलो आसा हें त्या त्या कवीच आनी अभ्यासाचेर आदारून आसता. देखीक : पृथ्वीराज रा काव्यांत राजस्थानीपरस व्रजभाशेचींच खाशेलपणां चड दिसतात. सुरजमलकृत 'वंशभास्कर' ह्या ग्रंथांत राजस्थानाचीं खाशेलप दिसतात.

राजस्थानांत पिंगलभाशेंत जायतें साहित्य रचिल्लें आसा. पूण खुबूच थोडो वांटो उजवाडाक आयला. विशयाचे नदरेन पुराय भाशेचे वांटे जाल्यात ते अशे : १) चरित्र काव्य - हाचे रासो का हेर काव्य अशे दोन वांटे जाल्यात. रासो काव्यांत पृथ्वीराज रा खुमाण रासो हे ग्रंथ जाल्यार हेर काव्यांत राजविलास, सुजा वंशभास्कर आदी ग्रंथ नामनेक पावल्यात. २) पुराणिक काव्य काव्यांतले विशय पुराणांतल्यान आनी महाभारतांतल्यान घेतल्यात सोबीतकाय, रचणूक आनी वर्णनशैली हे नदरेन ह्या काव्यांचो चडला. अवतारचरित्र आनी वीरविनोद आदी ग्रंथ ह्या प्रकारांत आस ३) भक्तिकाव्य - हाचे रामभक्तीकाव्य, कृष्णभक्तिकाव्य निर्गुणभक्तीकाव्य अशे तीन प्रकार आसात. नरहरिदासाचें अवत आनी प्रताप कुंवरीचें रामगुणसागर हे ग्रंथ तुलसीरामायणाचेर अ आसात. कृष्णभक्तीकाव्यांत कृष्णदास, पयहारी, मीराबाई, ना आदी कवींच्या रचनांचो आस्पाव जाता. निगुर्ण भक्तिकाव्य चरणदासी पंथ रामसनेही पंथ आदी पंथातल्या संत लोकांच रुपांत मेळटा. ४) रीतीकाव्य - शृंगाररसान भरिल्लो हो प्रका भाशेंत बऱ्याच प्रमाणांत दिसता. रीतिसाहित्याचो पयलो कवी ज रसमंजरी, रसकोष, भावशतक आदी ग्रंथ रचिल्ले आसात. जशवंतसिंह हाचो भाषाभूषण, कुलपती मिश्राचो रसरहस्य, सोम रसपीयूषनिधी आदी ग्रंथाची चड नामना आसा. ५) नीतिकाव्य - कवीन हो प्रकार पयलो हाताळ्ळा. सतसई ह्या ग्रंथावरवीं ता आनी वेव्हार हांचें वर्णन केलां. तेभायर उमेदराम, प्रतापसिंह, ब आदी कवींनी नीती विशयाचेर ग्रंथ रचल्यात. ६) फुटकळ काव्य संगीत, कोश, शकुन, वैजकी, वृश्टी, रमल, रत्नपरिक्षा, स्तो विशयांवयल्या ग्रंथांचो आस्पाव जाता.

- कों. वि

**पिंगळे, दामू आपा :** (जल्म : १५ ऑगस्ट १९३६ आंबेगांव).

सुटकेझुजारी. तो सोशलिस्ट पक्षाचो वांगडी आशिल्लो. १८ मे ह्या दिसा ताणें गोंयांत येवन सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. १७ मार्च १ दिसा महाराष्ट्र सरकारान सन्मानपत्र दिवन ताचो भोवमान के

- कों. वि

चलयांचो एक खेळ. हो खेळ एकल्याचोच आसलो तरी एका यत्यो चलयो मेळून हो खेळ खेळटात. हातूंत दोनूय हात भेंडार ायांमदीं अंतर दवरून कमरासकयलो भाग हालयनासतना ल्या भागाक प्रदक्षिणा वरवीं गती दिवपाची आसात. सुर्वेक तकलेमेरेनचो भाग फुडें करतात. तो जमनीक समांतर दवरतात. जवी, फाटली आनी दावी वट ह्या क्रमान वाटकुळी घुंवडायतात. ता आसतना वेगवेगळीं पदां म्हण्टात.

गौर, हरतालिका ह्या प्रसंगावेळार महाराश्ट्रांत हो खेळ खेळपाची ना. ह्या खेळान भेंडाच्या स्नायूंक आनी पोटाक बरो व्यायाम

- कों. वि. सं. मं.

## ...कार, गुणू पांडू : (जल्म : १७ जानेवारी १९२५,

...झुजारी. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी गोविंद हरी भावे शास्त्री हाच्या मार्गदर्शनाखाल तो वावर बसका आयोजीत करप, पत्रकां लावप, तिरंगी बावटे लावप हित्य वांटप असल्या भूंयगत वावरांनी तो वांटो घेतालो. रामभाऊ राक रानांतल्यान शीम हुंपपाक ताणें आदार दिल्लो. ३० ऑक्टोबर ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो आनी पणजे पोलीस ठाण्यार ताच्या वांगड्यांची ताचेकडल्यान म्हायती मेळची म्हूण ताचो केलो. ताणें धा म्हयने बंदखण भोगतकच ताका लस्करी ामुखार उबो करून ताका १४ म्हयने बंदखणींत दवरलो. सुटका जाले उपरांत ताका परतोय कुडाळ, महाराष्ट्र हांगा ूब मार दिलो आनी सोडलो. भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन वमान केलो. १८ जून १९८५ ह्या दिसा गोंय सरकारानूय वमान केला.

- कों. वि. सं. मं.

## ...ी : कापूस पिंजून दिवपी वा कापूस पिंजपाचो वेवसाय करपी

. हे लोक चडशे महाराश्ट्रांत दिश्टी पडटात. पिंजण म्हळ्यार पिंजपाची धनकुली. ह्या शब्दापसून पिंजारी हो शब्द जाला. हे धनुकपठाणी अशेंय म्हण्टात. हातूंतले कांय लोक खाट तीर नवार तयार करतात. तांकां नवारी म्हणुनूय वळखतात. हे हिंदू आनी मुसलमान अशा दोन धर्मांचे लोकं आसून मुसलमान संख्येन चड आसात. हे लोक कापूस पिंजून ताचेपसून गादयो, जयो आदी वस्तू तयार करतात. कांय लोक शेताची मजुरीय

पिंजारी : हातूंत बर्लासकर, जाधव, खानेल, खैरनार, सानोई कंरे अशीं स नामनेचीं कुळां आसात. हे लोक एकाच कुळांत यनात. चल्याचो बापूय चलयेक मागणी घालता आनी चलयेखातीर णें) दिवचें पडटा. थळाव्या कुणबी लोकांच्या लग्नावरीच हांचीं ातात. आराई आनी बोर हांच्यो खांदयो हीं तांचीं देवकां. ह्यो लग्नाच्या माटवाक बांदतात. ताचेवांगडाच ताक घुसळपाची कडाचें मुसळ आनी पुन्नपोळी खांब्यांक बांदतात. तांच्यांत विधवा विवाहाची चाल आसा. हे लोक खंडोबा, देवी आनी बहिरोबा ह्या देवतांक भजतात. हे लोक मेल्ल्या मनशांक लासतात.

**मुसलमान पिंजारी** : हे लोक मूळचे हिंदू पूण औरंगजेबाच्या वेळार बाटून मुसलमान जाले. तांची राहणी मुसलमानांवरीच आसता. गुजरातांत तांकां नाडक आनी ताई म्हण्टात. कांयकडे ह्या लोकांनी शेख सय्यद, पठाण अशीं नांवां घेतल्यांत. हे लोक हेर मुसलमानांकडेन रोटी वेव्हार करतात, पूण बेटी वेव्हार करिनात. हे लोक शिवराक आसून हिंदू देव - देवतांक भजतात. हिंदूंचे सगळे सणूय पाळटात. तांच्या फुडाऱ्याक मेहेतर पाटील वा चौधरी म्हण्टात. हे ते जमातींतलीं तंटे झगडीं निवळायतात. तांचेमदल्या हिंदू-मुसलमान ह्या जातींतल्यान बाना हीं मिश्रजात तयार जाल्या. हे लोक पिराची पुजा करतात आनी कापसाचें पीक हातांत येतकच नव्या कापसाक पिंजपाचे धनकूली लागसार हें पीक दवरून ताका निवेद्य दाखयतात.

हे जातींत बायल बाळंत जातकच तिका चाळीस दीस अस्पृश्य मानतात. धाव्या दिसा भुरग्याचें जावळ करतात. ताका झालर म्हण्टात. कांय लोक शेख करीद ह्या संताच्या नांवान भुरग्याचे केंस वाडयतात.

- कों. वि. सं. मं.

## पिंटो, एडव्हीन एस. जे. डी. डी. : (जल्मः पर्वरी; मरण १९७८).

अहमदाबादेचो पयलो गोंयकार बिशप. १९३२त ताची पाद्री म्हणून नेमणूक जाली. १९४९त तो बिशप जालो. १९७३ त तो धर्मप्रचाराच्या वावरांतल्यान निवृत्त जालो.

- कों. वि. सं. मं.

## पिंटो, जेरेमियास फ्रांसीस उर्फ जॅरी : (जल्म २४ एप्रिल १९३५, हळदोणे, बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. सुटके चळवळीच्या काळांत राजकीय आनी पुर्तुगेजांआड पत्रकां वांटप, 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' हे संघटनेखातीर वांगडी एकठांय करप, मोहन नायर हाच्या फुडारपणाखाल चोरयां बसका घडोवन हाडप असलीं कामां तो करतालो. सत्याग्रहांत वांटो घेवंक ताणें तयारी केल्ली. पोलिसांनी ताका २७ एप्रिल १९५५ ह्या दिसा धरलो. ताका तीन वर्सां खर बंदखण, एक वर्सभर दिसाक इकरा रुपया दंडभरपाय, तेभायर १५ वर्सांखातीर ताचे राजकीय हक्क काडून घेतिल्ले. १९७२ वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

## पिंटो, ज्योकीं झेवियर : (जल्म : १ नोव्हेंबर १९३४, बडयें बारदेस).

सुटकेझुजारी. ताणें एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. १९५४ वर्सामेरेन तो पुर्तुगेजांआड कारवायांनी वांटो घेतालो. तेभायर पत्रकां वांटप, पुर्तुगेज पोलिसांच्या कारवायांविशीं खबरो पावोवप असलीं कामां तो करतालो.

मध्यानरातीर शीम हुंपून ताणें दोडामार्गार वचून पिटर आल्वारिशाचे बसकेंत वांटो घेतलो.

एप्रिल १९५५ ह्या दिसा पोलिसांनी ताका धरलो, खूब मार दिलो आनी बंदखणींत दवरलो. उपरांत प्रदेशीक लस्करी न्यायालयामुखार उबो करून १४ जुलय १९५६ ह्या दिसा ताका अडेज वर्सांखातीर बंदखणींत घालो. ७ डिसेंबर १९५८ ह्या दिसा ताची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. १९ डिसेंबर १९७३ ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, पेद्रु जुआंव :** (जल्म : १३ नोव्हेंबर १९०९, हळदोणें, बारदेस; मरण : ४ सप्टेंबर १९८६).

सुटकेझुजारी. ताणें इंटर सायन्स मेरेन शिक्षण घेतलें. तो नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. तो सुटके चळवळीचो वावर करतालो. मार्च १९५६ ह्या वर्सा ताका ताच्या हेर वांगड्यांसयत धरलो. ताका णव वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली पूण चार वर्सां बंदखण भोगले उपरांत ताची सुटका जाली. १९७२ त भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन ताचो भोवमान केलो. १८ जून १९८२ ह्या दिसा गोंय सरकारान ताचो भोवमान केलो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंटो, फ्रांसिश्कु जुआंव :** एक गोंयकार धर्मप्रचारक. तो मूळ पर्वरी वाठारांतलो.१८०१ - ०२ ह्या काळांत तो मोझांबीक ह्या वाठारांतलो एपिस्कोपल गव्हर्नर आशिल्लो.

- कों. वि. सं. मं.

**पिंपळ :** (हिंदी : पीपल; गुजराती : पिपर; कन्नड : अरळीगिड; संस्कृत : अश्वत्थ, बोधिद्रुम; इंग्लीश : पीपल ट्री; लॅटीन : फायकस रिलिजिओजा; कूळः मोरेसी).

एक व्हड रूख. ताचीं पानां सादीं एकाफाटोफाट एक, अशीर तोंकाचीं, काळजा आकाराचीं, लांब देंठाचीं आनी हुमकळपी आसतात. उपपर्णा तांतया आकाराचीं आसून खवळांवरी आसतात. तरणीं आसतना पानां तांबूस तपकिरी आसून उपरांत पाचवीं जातात. पानांचे कुशीक जोडयेन फुलांचो तुरो येता. ताका देंठ नासता. सुर्वेक तो पाचवे आसून ताचो व्यास सुमार १.५ सेंमी. आसता. पुं. पुष्पां थोड्या प्रमाणांत वा केन्ना केन्नाय नासतातूय.

परिदलां तीन आनी केसरदल एक आसता. गुल्मपुष्पां खूब, स्त्रिपुष्पां थोडीं, तातूंत परिदलां पांच आनी किंजपूट आसता. परागण किटकावरवीं जाता. फळ जांबळें वा काळें आसता.

हो रूख उपहिमालय प्रदेश, बंगाल आनी मध्यप्रदेशाच्या रानांत, पुराय भारतांत देवळालागसार तशेंच खेड्यां लागसार दिश्टी पडटा. ब्रह्मदेशांत (मियानमारांत) आनी श्रीलंकेंत हो वृक्ष पळोवंक मेळटा. हिंदू लोक हाका पवित्र मानतात.

वैदिक साहित्यांत एक उपयुक्त यज्ञीन वृक्ष म्हणून हाचो उल्लेख मेळटा. बृहत्संहितेंत घराचे अस्तंतेक पिंपळ लावप शुभ आसून, घराचे बांदावळींत ताचें लाकूड वापरचें न्हय अशें सांगलां. गौतमबुध्दा[...] झाडाकडेन संबंद आयिल्ल्यान ह्या झाडाक बोधिवृक्ष वा बोधिद्रु[...] नांवानूय वळखतात. श्रीलंकेंतलो अनुराधापूरचो अश्वत्थ रूख [...] २,२०० वर्सांआदलो अशें म्हणप जाता. हाचें बीं दुसऱ्या झाडार [...] रोंप अपिवनस्पतीवरी वाडटा आनी फुडें स्वतंत्र वाडटा. हाकाय वड [...] म्हत्व आसा. तें दोनूय एकाच वंशांतले.

हें झाड सहज कोण तोडिना. तळपाकडेन जाल्ल्या चडशा पिप[...]



गणपती[...] हांच्यो[...] दवरतात[...] तळ्याक[...] वड, आनी एकठांय जाल्या[...] दत्तगुरू[...] करता[...] मानतात[...] योनींतल[...] पिंपळाचे[...] असो आसा. आ[...] पिंप[...]

झाडांच्या राज्यांतलो द्वाररक्षक मानतात. कारण आपल्या [...] सळसळाटान तो सदांच जागिल्ल्याचें काम करता. कांय कडे[...] खैरासारक्या झाडाचे खांदयेर वाडून त्या झाडाचो नाश करता[...] ताका 'वैबाध' (नाश करपी) अशेंय म्हळां.

सिंधू संस्कृतायेंत पिंपळाचें पान हें सुख आनी आस्पतीचें[...] समजप जातालें. लोकसंस्कृतायेंत अश्वत्थाचें पट नांवाचें एक व्र[...] ह्या व्रताखातीर पांच तरांचीं पिंपळपानां घेतात. पाच[...] सोबितकायेखातीर, कंवळें पान नवजात पुताखातीर, पिकिल्लें पान[...] चड आयुश्य मेळचें म्हणून, सुकिल्लें पान सूख आनी समृध्दी वाड[...] आनी पिनिल्लें पान अनपेक्षित, अमर्याद संपत्ती खातीर मानून त[...] पानांची पुजा करतात.

पिंपळाच्या लाकडापसून खोकीं, जूं, फस्कां, आयदनां आ[...] करतात. ह्या झाडाचे सालींत टॅनीन आशिल्ल्यान चामडी व[...] तेचपरी ती रंगोवपाक सालीचो उपेग करतात. सालींतल्या धा[...] दोरयो तयार करतात. तुरटी आनी पिंपळाचीं मुळां हांचो सु[...] आनी धागो रंगोवपाखातीर उपेग करतात.

पिपळाची साल स्तंभक आसून ती प्रमेहाचेर दितात. फळ[...] बी शितळ आनी आरोग्यप्रद, पानां आनी कंवळी पालवी रे[...] निवळ करपी) आसा.

गोंयांत पिंपळाच्या झाडामुळांत वड, रूमड हाचेवरी पेड[...] कांयकडेन ह्या पेडार सदांच तिनसांजचो दिवो पेटयतात.

- कों. वि[...]

**सो, पाब्लो :** (जल्म : २५ ऑक्टोबर, १८८१ मॅलागा, रण : ८ एप्रिल १९७३ मोन्जीस, फ्रांस).

नेचो चित्रकार आनी शिल्पकार. हाचें पुराय नांव पाब्लो रुईझ



पिकासो. हाचो बापूय दॉं जुजे रुईस ब्लास्को हो चित्रकलेचो प्राध्यापक आशिल्लो. पाब्लोचो बापूय दृक्प्रत्ययवादी, वास्तववादी चित्रकार तसोच पुराय चित्राचेर भर दिवपी. हाका लागून त ल्हानपणासावन वास्तव, दोळ्यांक दिसतात त्यो भोंवतणच्यो चित्रांत उतरायल्यो आनी मांडल्यो. ताणें पिरायेच्या णवव्या चितरायल्ल्या चित्रांनी लेगीत ताची शोधक नदर दिश्टी पडटा. कराव्या आनी बाराव्या वर्सा ताणें स्वतःच्या चित्रांचीं नेमाळीं ब्लांको' आनी 'ल कोरुना' निर्मिलीं.

टोबर १८९५ त ताचें कुटूंब बार्सेलोनाक (स्पेन) स्थलांतरीत न्ना पिकासोन थंय 'ल लोन्जा' ह्या चित्रकलेच्या विद्यालयांत ) आनी 'रियल अकादमीया वेलास आर्ट्स द सां फेर्नाण्डो', १८९७) हांगा चित्रकलेचें शिक्षण घेतलें. तो पिरायेच्या पंदराव्या ार्थ चित्रणांत बरोच कुशळ आशिल्लो. ह्या काळांत जायतीं सैम-टना-चित्रां आनी व्यक्तिचित्रां ताणें चितरायलीं.

पिरायेर आनी निर्मितीच्या अती संवेदनशील अशा काळांत १८९९ ते १९०५ मेरेन ताच्या चितारपांत आकांताची विविधताय . सुरवातीच्या काळांत १९०० ते १९०१ मेरेन ताणें आपल्या भडक, उश्ण रंग वापरले. उपरांत मुखेलपणान निळे रंग शैलींत ायलीं. ह्याच काळाक ताचे जिणेंतलो 'निल-काल' म्हण्टात. वर्साचे निमाणे ते जानेवारी १९०४ मेरेन ताणें अशीं चित्रां ह्या चित्रांचे विशय म्हळ्यार समाज-जिणेंतले लोकप्रिय आनी समाजाच्यो प्रवृत्ती दाखोवपी प्रसंग आसले. हातूंत कॅबरे नाच, दानां, नाच-घरां तशेंच समाजांतले पिडेस्त, दुखेस्त लोक जे समाजापसून तुटिल्ले ते म्हळ्यार वेश्या, भिकारी, बेबदे हांचेंय णें केलां.

०४ वर्सा ताणें पॅरिसाकूच आपलें बस्तान बसयलें. ह्याच नं समाजाकडेन ताणें नाजुक भावनेन मनीसपणाचे उकतें नदरेन, णीं तोखणायेन पळयिल्ल्याचें दिसता. ह्या काळांतल्या ताच्या उश्ण रंगाचो वापर, अदीक लयबद्दताय आनी चितारपांतली प्रमाणबद्दताय तशेंच चित्रांचे विशय बदलिल्ल्याचें दिसता. हो 'गुलाबी काळ'. ह्या गुलाबी काळांतले ताचे आवडटे विशय नाचपी, विदूशक, चड करून मूक नाट्यांतले विदूषक, नट हे जे ताका देल-आर्तेच्या प्रहसनांनी दिशिल्ले. ह्या काळांतलीं ताचीं ानी वेताळ चित्रां वा उदेंतेकडल्या चादरांवयल्या (रग्स) चित्रां -आकाराभाशेन दिसतात. पिरायेच्या तेविसाव्या वर्सा जेन्ना तो पॅरिसांत रावपाक आयलो तेन्ना आर्विल्ले कलेचो झोत होच मुळांत वर्णनात्मक, प्रतिनिधित्ववादी शैलीचे आड आसा हें ताका उमगलेंना आनी ताणें सुरवातीक निळ्या आनी उपरांत 'गुलाबी'रंग शैलींतलीं लांबोटकीं चित्रां रंगयलीं. पूण तो सदांच प्रयोगशील आनी संशोधक वृत्तीचो आशिल्लो.

आर्विल्ले कलेचें गुपीत जाणा जावन घेवपाक तो ब्राक, ग्रीस, डेरेन सारक्या चित्रकारांक आनी आपोलीनेर सारक्या संग्राहक आनी लेखकांक मेळ्ळो. १९०६ ते १९०७ च्या काळांत पॉल सेझान ह्या चित्रकाराच्या चित्रांच्या प्रभावान तशेंच ग्रीसी आयबेरीयन कला आनी आफ्रिकेच्या शिल्पकृतींचे पारखणेन पिकासोक एक नवो विचार होलमलो. ताका दिसलें, पारंपारीक चित्रणपद्दतींतलें यतार्थवादी चित्रण खास करून एक बिंदू यथा-अवलोकन (Perspective), छाया-उजवाड आनी आकाराचो आनी रंगाचो उजवाडाक लागून दाखयल्लो उठाव जर काडून उडयलो जाल्यार दिसपी आकार फकत कल्पनाशक्तीन अदीक खरेपणानिशीं चित्रावंक येता. आफ्रिकी शिल्पांच्या वांकडया-तिकडया वा बोजड नाकांत, मोठ्या दोळ्यांत आनी फांकारिल्ल्या पांयांत रचनात्मक मांडणी होलमुपी आनी पारखून तोच सृजनात्मक वापर करपी पिकासो हो पयलो युरोपीय कलाकार. ह्या सगळ्यांच्या प्रभावान 'ऑव्हीग्नोनच्यो ललना' (Les Demoiselles d'Arignon) १९०७ (आर्विल्लें कला संग्रहालय, न्यूयॉर्क) ह्या चित्रांत एक नवी तरा आपणायली. ह्या चित्रांत पांच विवस्त्र बायलो, कुडक्या-कुडक्यांनी आनी विंगड-विंगड कोनांतल्यान घनाकारांचे विंगड-विंगड दृश्य-स्तर दाखोवन पिंतारल्यात. हांगा सावनूच 'घनवाद'(cubism) हे अस्तंतेच्या चित्र-जगतांतले नवे शैलीची श्रीगणेशा जाली. 'घनवादी' चित्रशैली पिकासोन १९२५ मेरेन मुक्तपणान केळयली. १९०८ त पिकासो आनी जॉर्ज ब्राक एकठांय, इश्टागतीन काम करपाक लागले. पिकासोन 'घनवादी' शैलींत काम करतना १९१५ त वांगडाच वेगळे तरेची निर्मणी चलयली. हे निर्मणेंत अभिजात प्रमाणबद्दतायेंतल्यान, ल्हवपीकपणान चित्रायल्ल्यो मनुष्याकृती रेषाबध्द आनी शिल्पांसारक्यो व्हड आकाराच्यो आशिल्ल्यो.

१९२५ वर्सा उपरांत शरीराकृती आनी तकल्यो हांच्या आकारांतल्यान भावनाप्रेरीत चित्ररुपी सिध्दांत सोदपाचो पिकासोन यत्न केलो. हाका लागून मानवी शरिराची मोडतोड द्विप्रतिमा आनी चित्र रूपकां ताच्या चित्रांनी तयार जालीं. अतित-यतार्थवादी खाजगी प्रतिभा - संपन्न चित्रांचो एक संग्रहूच देखीक : नर - बैल (The Minotaur) तयार जालो. १९३६ वर्सा जेन्ना, स्पॅनीश झुजाक तोंड फुटलें आनी भयंकर सांवार जालो, ताचेवयल्यान 'ग्युयेर्निका' (Guemica) १९३७ ही कलाकृती रचली. राजकीय घडणुकांचेर आपले खाशेले भाशेन 'भाश्य' करपी पिकासो हो सुदारणावादी कलाकार.

१९४४ वर्सा पिकासो कम्युनिस्ट पार्टींत सामील जालो आनी १९४९ वर्सा ताचें 'कबुतर' (Dove) हें शिळा-मुद्रा चित्र म्हणून आपणायलें. झुजा उपरांतच्या काळांत ताच्या चित्रांचे विशय झूज आनी शांती हांचे भोंवतणीं घोळटाले, तशेंच मनशाचे सुसेगाद, शांतीकायेन आनी समाजिकायेन जगपाचे हक्क हे आशिल्ले. १९५५ वर्सा उपरांत ताच्या चित्रांतले विशय आनी ते हाताळपांतली चित्रकाराची शक्त हाका खूब म्हत्व आयलें संवसारांत दिशिल्ल्यो गजाली आनी तांचे बारीक सारीक तपशील, हांकां फकत सुंदरकायेचें रूपडें चडयनासतना ताणें बिनधास्तपणान चित्रांत

उतरायले.

पिकासोची प्रतिभासंपन्न आनी नवेपणाचो सोद घेवपी वृत्ती हाका लागून ताका खुबशा कला-माध्यमांनी काम करपाची संद मेळ्ळी. १९१७ ते १९२४ ह्या काळांत 'दियागिलार्स रशियन बॅले कंपनी' च्या 'परेड', 'ल त्रिकोर्न', 'पुल्सीनेला' असल्या नृत्यनाटयांक ताणें नेपथ्य चितारलें. शिळा-मुद्रण कलेंत ताणें नवे नवे प्रयोग केले आनी तंत्रीक सुदारणा केल्यो. ताणें लिनोमुद्रणकलेंतूय सुदारणा केल्यो. आयदनांचेरूय ताणें चित्रां काडलीं. विंगड-विंगड माध्यमां ताणें सहजतायेन आनी कुशळटायेन हाताळ्ळीं.

चित्रकलेंतल्या आपल्या लांबलचक कर्तृत्वांत ताणें घनवादा वांगडाच अभिव्यक्तिवाद, केवलवाद आनी हेर शैलींनीय कलाकृती निर्मिल्यो. पूण घनवादाकडेनूच ताचें नांव चड जोडलां.

'कलाकार हे समाजाचे फुडारी आसूंक जाय पूण कला मात उलथा-पालथ करपी आसूंक जाय' अशें पिकासो म्हण्टा. ताच्या कलाकृतींनी चित्रकलेंत एक नवी जागृताय हाडली. संवसारीक संग्रहालयांनी ताच्या कलाकृतींनी स्वताच्या हक्काचें स्थान मेळयलें. भरपूर पयसो आनी नामना मेळून लेगीत तो जल्मभर चित्रनिर्मिती करीत रावलो. भावनीक अस्वस्थताय, जिणेची पोकळसाण हाका सुखाचें अस्तर लावपाखातीर आनी तें आपल्या छंदांतल्यान सोदपाचो यत्न केल्ल्यान दरेके फावटीं आयिल्ली निराशा आनी तरी लेगीत आपल्या इत्सांचें स्व-जग निर्माण करपाखातीर ताणें जल्मभर चित्रनिर्मिती केली. पछाडलेली नदर आनी बेफाम स्वभाव अशे तरेचो हो चित्रकार. ताका लटके कायदे, संबंद, बंधनां आनी मर्यादा ह्या सगळ्यांपसून पुराय मुक्तताय चित्रकलेखातीर जाय आशिल्ली.

१९७० त ताणें जैम साबार्तीस ह्या आपल्या प्रामाणिक इश्टाच्या उगडासाक बार्सेलोना शाराक आपल्या चित्रांचो झेलो ओंपलो. ते मेरेन हो झेलो पिकासोच्या घरा, पयलीं ताची आवय आनी भयणीकडेन आनी उपरांत भयणीच्या भुरग्यांकडेन आसलो. ताचो हो झेलो म्हळ्यार ताच्या जल्मभराच्या वावराचो तशेंच ताच्या भाव-भावनांचो खजिनो जावन रावला.

- दिगंबर गो. सिंगबाळ

**पिठोरी उमास :** एक काम्यव्रत. श्रावण उमाशेक पिठोरी उमास म्हण्टात. जांचीं भुरगीं जगनात अशो बायलो पिठोरीचें व्रत करतात. हें व्रत पुजाप्रधान आसून चवसठ योगिनी ह्यो ताच्यो देवता. ह्या व्रताचें विधान अशें - श्रावण उमाशे दिसा दिसभर उपास करप. सांजवेळचें न्हावन आठ कलशांची स्थापना करप. ताचेर पूर्णपात्रां दवरून तातूंत ब्राह्मी, माहेश्वरी आदी शक्तींच्यो मुर्ती स्थापप. तांदळाचे राशीचेर चवसठ सुपाऱ्यो मांडून तांचेर चवसठ योगिनींक आपोवप आनी उपरांत तांची पुंजा करप. उपरांत व्रताखातीर केल्लें गोडशें माथ्यार घेवन कोणूय सोयरो आसा? असो प्रस्न विचारचो. भुरग्यांनी आपूण आसात अशें म्हणून तें गोडशें फाटले वटेन काडून घेवपाचें आसता.

आदल्या तेंपार पुजेच्यो मुर्ती पिठाच्यो करतालीं. ह्या व्रतांत निवेद्याखातीर सगळे पदार्थ पिठाचेच करतात. तांचेवयल्यानूच ते तिथीक पिठोरी उमास अशें नांव पडलें आसूं जाय. ह्या व्रताची कथा अशी -

पुर्विल्ल्या काळांत श्रीधर नांवाचो एक ब्राह्मण आशिल्लो आनी ताका शंकर नांवाचो एक पूत आशिल्लो. शंकराचे बायलेचें नांव विदेही. दोगांकय भुरगीं जातालीं पूण तीं वांचनासलीं. एक फावट श्रीधर श्र करता आसतना विदेही बाळंत जाली. पूण तिचें तेंय भुरगें मेलें. तिचे मांयन तिका खूब उलयली. तें आयकून तिका वायट दिसलें. मेल्लें भुरगें घेवन रानांत गेली. थंय एक बायल रावताली. तिणें दुख्ख आयकून तिका सांगलें, मध्यान रातीर हांगा चवसठ यो येतात. तेन्ना तू तांची प्रार्थना कर. रातच्यो चवसठ योगिनी आ आनी ताणीं विचारलें हांगा कोण सोयरो आयला? तेन्ना विदेही सरली आनी तांकां आपली काणी सांगली. तेन्ना तिचीं भुरगीं वा असो ताणीं तिका वर दिलो. तेप्रमाण थोडयाच वेळान विदेहीचीं भुरगीं जितीं जालीं. उपरांत तांकां घेवन ती घरा आयली आनी मोटया मानान चवसठ योगिनींची पुजा केली. तेन्नासावन हें व्रत प्र आयलें.

- कों. वि.

पूरक नोंद : उमास.

**पितर :** देवत्व प्राप्त जाल्ले पुर्वज. सादारणपणान पितरांचे मृत अमृत अशे दोन भेद जातात. मनीस मरतकच पितृलोकांत वता ताच्या वंशजांक ते पितर जातात, हाका मृत पितर म्हण्टात. सृश्टरं जे पितृलोकांत रावतात ते अमृत पितर. सगळे मेल्ले मनीस हे पि

पितरांची कल्पना संवसारांतल्या सगळ्या आदल्या समाजांनी अ हें दिसता. वेगवेगळ्या समाजांनी वेगवेगळ्या तरांनी पितरांविशीं पु कल्पना आसात. वैदिक मताप्रमाण सगल्यांत पयलीं मेल्लो य आपल्या फाटल्यान येवपी मेल्ल्यांखातीर परलोकाचो मार्ग सोदून आनी त्या मार्गान सगळे वचपाक लागले. ऋग्वेदांत पितरांविशीं उल्लेख मेळटा - यक्ष, किन्नर, गंधर्व ह्या प्रमाण पितर हे देवां भ मनीस मेले उपरांत पितृलोकांत वतात. अशीं हीं मेल्लीं मनशां वंशाचीं पितरां जातात. यम हो पयलो पितर. पितर यमावांगडा रावतात. यजमानान केल्ल्या पितृयज्ञांत पितर येवन दक्षिण दर्भाच्या आसनार बसतात अशें ऋग्वेदांत म्हळां.

पुराणां आनी स्मृतीग्रंथ हातूंत पितरांविशीं वेगवेगळ्यो कथा मेळटात. कालिका पुराणांत पितर हे ब्रह्मदेवाचे पूत मानिल्ले आसू उत्पत्ती अशी सांगल्या. ब्रह्मदेवाच्या शरिरांतल्यान जो घाम ताचेपसून अग्निष्वात आनी बर्हिषद अशे पितृगण निर्माण जाले. काजळावरी काळे कुळकुळीत, कमळावरी दोळ्यांचे, अत्यंत संयमी, आनी संवसारविमुख आशिल्ले. अग्निष्वात हे चवसठ हजार आनी हे शांयशीं हजार संख्येचे आशिल्ले.

वराहपुराणांत पितरांची उत्पत्ती अशी सांगल्या - ब्रह्मदे निर्माण केले आनी तांकां यज्ञ करपाक सांगलें. देवांनी ताका दिलो. तेन्ना ब्रह्मदेवान तांकां मूर्ख जावपाचो शाप दिलो. देव म बरोबर सगळे जनतेचें तरातरान नुकसान जावंक लागलें. ते जाल्ले देव ब्रह्माकडेन गेले. ब्रह्मान तांकां तांच्या पुतांकडेन सांगलें. देव आपल्या पुतांकडेन गेले आनी तांकां ब्रह्मशापाविशीं विचारलें. तेन्ना देवपुत्रांनी तांकां प्रायश्चित समजावन सांगलें. त देवांनी तांकां म्हळें, तुमी आमचे पितर. तेन्नाच्यान देवपूत हे पि

स्वर्गांतूच देव तांची उपासना करूंक लागले.

गांनी मूर्त आनी अमूर्त अशे दोन प्रकारचे पितर मानल्यात. (काव्य), सुस्वधा (उपभूत), आज्यप, सोमप (सुकाल) अशे मूर्त चार गण आसात. तांची उपासना चार वर्ण करतात. अमुर्तांत अग्निष्वात आनी बर्हिषद अशे तीन गण आसात. हांची उपासना तात. ह्या सात गणांक रावपाखातीर अनुक्रमान सत्य, विरजस, , मरीचिगर्भ, कामग, मानस आनी सनातन हे सात लोक दिल्यात. त जाणांक दरेकीं एक एक मानसकन्या आसा. मेना, अच्छेदा, गो, यशोदा, विरजा आनी नर्मदा अशीं तांचीं नांवां. महाभारतांत अग्निष्वात्त, फेनप, उष्मप, सुधावात आनी बर्हिषद अशे वेगवेगळे गल्यात. पितर हे देवांपरस आद्य आसून तातूंत अग्निष्वात हे बर्हिषद हे दक्षिणेचे, आज्यप हे अस्तंतेचे आनी सोमप हे उत्तरेचे ळां. प्राचीनावीतीन स्वधा अशें म्हणून दिल्लें अन्न आनी सोमरस वन करतात. तांकां गेंड्याचें मास, शीत, सांपे, यव, मूग, ऊंस, गां, फळां, दर्भ, उडीद, गायचें दूद, तूप, म्होंव हे पदार्थ आवडटात. ासूए, तागाचें बीं, कुळीथ, कमल, बेल, रूई, धुतरो, कोडुलिंब, ो, बोकडी मेंढरांचे दूद आवडना आसूंये. देखून ते श्राध्दांत सांगल्यात. तांकां लोभ, मोह आनी भंय हे विकार जातात, पूण ायना. तांकां आपली इत्सा तोंडान उक्तावपाक येना. मनान ते ंय वचूंक शकतात. ते कल्पन्ती शापान नश्ट जातात आनी भी उशापान निर्माण जातात.

, पितर आनी मनीस हे वेगवेगळे समाज आसात अशे जायते वैदिक साहित्यांत मेळटात. पितृसमाजाचें मुखेल धर्मीक कार्य पितृपुजा, पितृसेवा वा श्राध्द हें आशिल्लें. सद्याच्या काळांत पेतरांचें श्राध्द करतात. पूण अतिपुर्विल्ल्या काळांत जित्या पितरांचेंय रपाची चाल आसली. सद्या मेल्ल्या पितरांच्या जाग्यार ब्राह्मणांची करतात. पुर्विल्ल्या काळांत लेगीत जित्या बापायक पितराचे बसयताले. मनुनूय हे गजालीचो उल्लेख केला. बापूय जिवो पुतान श्राध्द करपाची चाल पुर्विल्ल्या काळांत आशिल्ली हें लक्षांत र पितृयज्ञ वा पितृपुजा हो पितर समाजाचो मुखेल धर्म आशिल्लो सता.

रव-आर्द्रव आनी धूरिलोचन हे पितरांचे विश्वदेव आशिल्ले. तशेंच यम आनी बृहस्पती हे पितृसमाजाचे फुडारी आशिल्ले.

- वा. ल. वझे

ोंद : परलोक, पिंडदान, श्राध्द.

**ा** : (पळेयात कातीचे विकार).

**ळ** : तांबे आनी जस्त हांच्या मिश्रधातूंक पितूळ म्हण्टात. पितळींत मुखेल आनी जस्त हो मिश्रक धातू आसता. ५-४०% जस्त यो वेगवेगळ्यो पितळी उपेगाचे नदरेन म्हत्वाच्यो आसात.

शें आनी पितूळ हांचे मदीं जायतें सारकेपण आशिल्ल्या कारणान काळांत तांचेमदीं फरक करिनाशिल्ले. हाका लागून पितूळ हो मेश्रधातू म्हणून सुमार पंदराव्या शेंकड्यांतूच कळ्ळें. ताचे उपरांत हो मिश्रधातू आयदनां, पदकां, नाणीं करपाक वापरांत आयलो. सध्या प्रचलीत आशिल्ल्यो पितळी एकुणिसाव्या जावं विसाव्या शेंकड्यांत प्रमाणभूत जाल्ल्यो आसात.

ग्रॅफायटाचे मुशींत पितळ तयार करतात. पयलीं शुध्द तांबें वितळावन घेतात आनी उपरांत तातूंत योग्य त्या प्रमाणांत जस्त घालतात. द्रव पितळीचें ऑक्सिडीभवन जावंचें न्हय म्हणून मुशींच्या तोंडाचेर लोणारी कोळसो जावं ग्रॅफायटाच्या पिठ्याचो संरक्षक थर घालतात. पितुळीची मोडय परत पितूळ तयार करपाखातीर वापरतात. पितुळीचें कडपाचें तापमान ९००° - १,१००° सें. आशिल्ल्यान तें कडोवपाखातीर कोकची वा विद्युत् भट्टी वापरतात. तशेंच पितुळीचें ओतीव आकार तयार करतना द्रव-घन ह्या स्थितीबदलाक लागून जावपी संकोचन मतींत घेवंचें पडटा.

शुध्द तांबें तांबूस रंगाचें आनी शुध्द जस्त धव्या रंगाचें आसता. पितळींतलें जस्ताचें प्रमाण जशें जशें वाडत वता, तसो तसो ताचो रंग तांबड्यापसून हळदुव्याकडेन बदलत वता. कांय खास अशा प्रमाणांत जस्त आशिल्ले पितळीक भांगरासारको रंग येता.

उत्कृश्ट उश्णताय आनी विद्युत् संवाहकताय हे तांब्याचे म्हत्वाचे गूणधर्म. तांब्यांत जस्त भरशितकच ह्या दोनांच्याय गूणधर्मांनी फरक पडटा. सुमार ३०% जस्त आशिल्ले पितुळीची विद्युत् संवाहकताय शुध्द तांब्याचे संवाहकते परस ६०% उणी आसता. पितुळीचे उश्णताय संवाहकतेंतूय असोच उणाव दिसून येता. मुळांत चिवट आनी मोव आशिल्ल्या तांब्याचे यंत्रीक गूणधर्मूय जस्ताच्या भरसणान बदलतात.

विरुपणाचे (आकार वा रूप दिवपाचे) नदरेन पितुळीचे दोन गट पडटात. ते म्हणजे १) सुमार ३०% जस्तामेरेनचीं पितळां ह्या गटांतले पितळीपसून पातळ पत्रे, नळयो, सरयो हे सारकिले आकार सामके सोंपेपणी तयार करपाक येतात. २) ३०-४०% जस्त आशिल्ल्यो पितुळी ह्या गटांतल्या पितळींक सांच्यांत घालून आकार दितात. ओतकामानूय पितुळीचे आकार तयार करपाक येतात.

लोखण आनी तिख्या परसूय पितळ चड गंजविरोधी. हवा आनी उदक हांचो पितुळीचेर चडसो परिणाम जायना. दर्याचें उदक वा आम्लां हाणीं मात पितुळीचें बेगीन संक्षारण जाता. पितुळीच्या संक्षारणांत जस्तक्षय (dezincification) आनी कालिक भंजन (कालांतरान जावपी संक्षारण) हे दोन मुखेल प्रकार आसात.

उद्देगीक नदरेन कांय पितुळी चड उपेगी आनी नामना फावो जाल्ल्यो आसात. हातूंत ह्या कांय पितुळींनी तांबें आनी जस्त ह्या मूळ घटकांवांगडा हेर कांय घटक धातूय थोड्या प्रमाणांत आसतात. साद्यो पितुळी, काडतुसाची पितूळ, मुंट्झ धातू, यंत्रणक्षम पितूळ आनी संक्षारण प्रतिबंधक पितळी हे कांय पितळीचे म्हत्वाचे प्रकार.

- कों. वि. सं. मं.

**पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत** : कुटुबांतल्या मनशांचेर आनी कुटुंबाच्या वेव्हाराचेर बापायची वा जाण्टेल्या दादल्याची अधीसत्ता आशिल्ली कुटुंब वेवस्था. अशी पद्दत आशिल्ल्या कुटुंबांतल्या सगळ्या दादल्या-बायलांची जीण नियंत्रीत करपाचो अधिकार पिरायेन वा नात्यान व्हड आशिल्ल्या दादल्याकडेन आसतात. विंगड विंगड देशांनी आनी विंगड विंगड काळांनी कुटुंबांतल्या मनशांचेर मुखेल दादल्याचे अधिकार वेगवेगळे आसताले. कुटुंबाची आसपत, वारसो, आडनांव, वंशावळ ह्यो गजाली बापायकडल्यान

पुताक मेळटात. बायल लग्नाउपरांत घोवा घरा वता. तिचे अधिकार तिच्या घोवाच्या अधिकारांचेर आदारीत आसतात. तिचो घोव कुटुंबाचो मुखेली आसत जाल्यार तिचे अधिकार आनी मान कुटुंबांतल्या हेर बायलांपरस चड आसता. हे तरेचीं कुटुंबपद्दत कांय आडवाद सोडले तर संसारभर कार्यरत आसा.

पुर्विल्ल्या रोमी प्रजासत्ताकांचे सुर्वेक पितृसत्ताक कुटुंबपद्दत ही चड प्रभावी आशिल्ली. कुटुंबांतल्या हेर मनशाच्या वर्तनाक मर्यादा घालून दिवप, कुटुंबांतल्या चल्या-चलयांचें लग्न थारोवप, पुराय संपत्तीचेर आपलो मालकी हक्क दवरून हेरांची गरज पडटा तशी वेवस्था करप, तांचो वावर तांकां वांटून दिवप, तशेंच वेळ आयल्यार कुटुंबांतल्या कांय मनशांक विकपाचे अधिकार ताका आसताले. हे पद्दतीक अमर्याद पितृसत्ताक अशें म्हण्टात. अरबांच्या पंगडांत अशीच अमर्याद पितृसत्ता आशिल्ली. पूण भारतांत पितृसत्ता ही मर्यादीत स्वरुपाची आशिल्ली. कुटुंबाच्या मुखेल्यान कसलेंय वायट कृत्य केल्यार, ताच्या भावांक वा बायलेक ताका जाप विचारपाचे सगळे हक्क आशिल्ले. चीन देशांत कुटुंबाचो मुखेली, ताची बायल, लग्न जाल्लीं वा जावंक नाशिल्लीं भुरगीं तांचीं नातरां अशें विस्तारीत कुटुंब पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलत आयिल्लें. अर्थीक, सामाजीक, राजकीय आनी धर्मीक घटक म्हणून हें कुटुंब वावुरतालें. आयज लेगीत सुदारिल्ल्या मनीस समाजांत पितृसत्ताक पद्दत आसा, पूण बापायचे अधिकार आतां खूब मर्यादीत जाल्ले आसात.

ऋगवेदांत बायलांकूय दादल्या इतलोच मान आनी हक्क आशिल्ले अशें साबारकडेन म्हळां. वेगवेगळ्या कार्यांनी ती आपल्या घरकाराक पालव दिताली. घरवेवसायांत तिचोच वांटो चड आसतालो. पूण कांय कार्यां अशीं आशिल्लीं जांकां लागून बायलांक त्या कार्यांसावन पयस दवरिल्लीं. देखीक - झुजामळार दुस्मानावांगडा झुजपाचें कर्तव्य दादल्यांचेंच आशिल्लें. हातूंत बायलांनी वांटो घेतलो जाल्यार वंशूच काबार जावपाचो भंय आशिल्लो. झूज हे म्हत्वाचे घडणुकेक लागून उपरांत समाजांत दादल्यांचें व्हडपण निर्माण जालें. कुटुंबाचो वंश चलोवपाखातीर बायलांची जतनाय घेवप भोवगरजेचें आशिल्ल्यान बायलांचो वावर मर्यादीत उरलो आनी तिचेर साबार बंधनां आयलीं. मनू, वात्सायन हाणींय बायलांचे अधिकार मर्यादीत दवरून पितृप्रधान कुटुंबवेवस्था उखलून धरली. मध्ययुगांत लेगीत साबार समाजांमदीं पितृप्रधान कुटुंबवेवस्था चालींत आशिल्ली. सगळी सत्ता कुटुंबमुखेल्याच्या (दादलो) हातांत आशिल्ली. बायल आनी भुरगीं हांचेर ताची अमर्याद सत्ता आशिल्ली. ह्या काळांत बायलांचो दर्जो साप्प सकयल्या पांवड्यार आशिल्लो. बायलांक स्वतःची मालमत्ता नासताली. तिचेर कितलेय अन्याय जाले जाल्यार तिका जाप मागपाक हक्क नाशिल्लो. दादल्याक ताचे मर्जेप्रमाण लग्नाचें नातें मोडप शक्य आशिल्लें. दुसरे खेपे लग्नूय जावपाक जातालें. बायलांक मात हे हक्क नाशिल्ले. बायलांक सुर्वेक बापायचेर, उपरांत घोवाचेर आनी निमाण्या दिसांनी आपल्या पुताचेर आदारून रावचें पडटालें. कांय समाजांनी आज लेगीत दादल्याचे मान्यतायेखेरीज बायलांक घराभायर सरूंक मेळना.

अस्तंत कुटुंबपद्दतीचो विचार करतना वेगवेगळ्या काळांनी ती साबार प्रकारांत बदलत गेल्ली दिश्टी पडटा. बायबलांत वर्णन केल्ले पितृसत्ताक कुटुंबपद्दतींत बायलांक समाजांत दादल्यापरस उणो दर्जो आशिल्लो. दादले साबार बायलांकडेन लग्न जावंक शकताले. पुर्विल्ल्या रोमी कुटुंबांत बापायकडेन सगळे अधिकार आसताले. स्वताच्या भुरग्यांक लेगीत जि[...] मारपाचे ताका अधिकार आशिल्ले. भुरग्यांक पोसपाची, तांकां शि[...] दिवपाची आनी हेर सगळी जापसालदारकी बापायची आसत[...] लग्नाउपरांत लेगीत भुरगीं बापायच्या घरा रावतालीं. मध्ययुगाच्या शेव[...] रोमांत दादल्यांची सत्ता उणी जायत गेली, पूण बायलांक समा[...] उंचेली सुवात केन्नाच मेळ्ळिना.

उद्देगीक क्रांतीउपरांत पारंपारीक वेवसाय उणे जायत गेले[...] कुटुंबसंस्थेचेर ताचे परिणाम जावन कुटुंबाची विभागणी जायत[...] आधुनिकीकरण, उद्देगीकरण, शारांतली जीण, बायलांची बदलपी सम[...] सुवात, असल्या गजालींक लागून कुटुंबांत दादल्यांची सत्ता मग[...] जाल्या आनी बायलांचे सत्तेंत वाड जाल्या. पूण कुटुंबांत (केंद्रक[...] रासवळ) अधिसत्ता ही दादल्यांकडेनूच उरल्या. मालमत्तेचो व[...] घराब्याचें नांव दादल्याच्या वंशाकडल्यानूच चालींत उरलां. अर्थवे[...] राजकारण, धर्मीक आनी समाजीक जीण हांचेर पितृसत्ताक कुटुंबप[...] प्रभाव पडिल्लो आसा.

- कों. वि. [...]

पूरक नोंद : मातृसत्ताक कुटुंबपद्दत.

**पियानो :** पियानो हें एक तंतूवाद्य. पुराय इटालियन नांव 'पियानो[...] पियानो म्हळ्यार मोव आनी फोर्ते म्हळ्यार मोटो. पियानोवरवी[...] तरांचे (कोमल आनी तार स्वर) निर्माण जातात, तें ह्या नांवाव[...] प्रतीत जाता. हातपट्ट्यो, स्वरतारो आनी तांचेर आघात करून[...] निर्माण करपी ल्हान तुतये हे ह्या वाद्याचे मुखेल घटक. ल्हान-व्ह[...] निर्माण करप, स्वरघुमारो लांबोवप आनी थांबोवप (स्वर नियंत्रण[...] ह्या वाद्यान करूं येता. ह्या खाशेलपणाक लागून अस्तंती संगीत संव[...] हें वाद्य खूब लोकप्रिय जालें.

अस्तंती पायप ऑर्गन (Pipe organ) आनी भारतीय पेटी-वा[...] पियानोकडेन बरेंच साम्य दिसता. स्वरमंडळाची निर्मिती, वाजो[...] पद्दत आनी एकंदर मांडावळ ह्या वाद्यांमदीं सारकी दिसता. आधुनिक इलॅक्ट्रीक ऑर्गन हें वाद्यूय पियानोच्या स्वर निर्मिती त[...] आदारून आसा.

१७११ त बार्तोलोमेओ क्रिस्ताफोरी ह्या इटालियन वाद्य[...] 'ग्राव्हिचेंबालो कोल पिआनो ए फोर्ते' ह्या नांवाचें आयच्या 'ग्रँड पि[...] भाशेन हातपट्ट्यांचें आनी आघात-तुतयांचें एक वाद्य तयार केलें[...] तरीय पियानोचें मूळ रूप 'डलसिमर क्लॅव्हिकॉर्ड' आनी 'हार्पसि[...] ह्या तंतूवाद्यांत मेळटा. ताचे उपरांत जर्मनींतूय सिल्बेरमान ह्या वाद्य[...] तातूंत सुदारणा केली. इंग्लडांत १७६० च्या सुमाराक त्झुम्पे[...] ब्रॉडवुड हाणें 'स्क्वेअर' हो ल्हान चवकोनी पियानो तयार केलो[...] हॉकिन्झ आनी वॉरनम हाणीं 'अपरायट' वा 'कॉटेज' हो उबे[...] घरगुती पियानो उपेगांत हाडलो. पयलो अमेरिकन पियानो फिलाडॅ[...] जे. बेहरनटन हाणें १७७५ त तयार केलो आनी रोखडेच सगळे[...] नदरेन आनी संगिताचे नदरेन उदरगतीक पाविल्ले देस वेपारीक[...] पियानो तयार करपाक लागले आनी हें वाद्य संवसारांतल्या फुड[...] लोकांमदीं खुबूच नांवाजतें जालें.

ह्या वेळार भारत आनी गोंय ब्रिटीश आनी पुर्तुगेजाच्या स[...]

न भारताच्या मुखेल शारांनी हें वाद्य पावलें.
ठीत घराण्यांनी हें वाद्य आसप हें खानदानीचें प्रतीक समजप
नी तें शिकप दर एका गिरेस्त घराण्यांतले चलयेची समाजीक
ान पात्रताय समजप जालें. आयजूय गोयांत बऱ्याच खानदानी
ी पियानो पळोवपाक मेळटा.



ुमार दोन शेंकड्यां उपरांत पियानोक अस्तंती संगितांत मध्यवर्ती
ळ्ळ्या आनी सुर्वेक फकत साथी वाद्य म्हणून आशिल्लो पियानो
वतंत्र वाद्यप्रकार म्हणुनूय नामना जोडून आसा.
ल्यांत पयलीं ह्या वाद्याखातीर संगीत लुदोव्हीको जुस्तिनी दा
हाणें बरयलें. नामनेच्या पियानोवादकांमदीं बाक जाणें सुर्वेक
ची खूब टिका केली. पूण उपरांत मत परिवर्तन जातकच ताणें
'द ग्रेट' हाचेखातीर संगीत रचलें आनी बाकान बरयल्लें सगळें
ियानोचेर येसश्वी रितीन चल्लें. बाकाचो एक शिश्य जोजेफ
हो पियानो संगीत सादर करपाक बाकापरस एक पावल फुडें
झार्ट आनी बिथोवन पियानो संगितांत आनी सादर करपांत
चायेर पावले. ताणीं ज्यो सुनीता बरयल्यात आनी जे जलशे
s) केल्यात ते आयजपसून पियानो संगितांतल्यो बऱ्यांतल्यो
लाकृती मानतात. तशेंच शोपां हाणें पियानो संगिताक वयल्या
ायली नाजूकसाण, गोडसाण आनी सरूपाय हाडली.
ज पियानो तयार करपी कांय लोक व्हड नामनेक पाविल्ले दिसतात,
र्नव्हे अण्ड सन्स न्युयार्क, कोलारड एण्ड कोलारड लंडनाचे,
बॅकस्टायन, जपानचे यामाहा हे मुखेल आसात.
क आनी विद्युत् पियानोंमदीं आपोआप परतपरत पूर्वनियोजीत
ाजोवपाची तजवीज केल्ली आसा. पियानोच्या मेकळ्या आनी
वरांक लागून भारतीय शास्त्रीय संगितांत ताचो उपेग करप

- कों. वि. सं. मं.



**पियाव :** (पळेयात कांदो).

**पिरॅमिड :** संवसारीक नामनेची पुर्विल्ली वास्तुरचना. मेक्झिको, इटली, ग्रीस, थायलंड, इजिप्त आदी देशांनी विटो वा फातरी बांदावळीचे चौखण वा आयताकृती बुन्यादीचे आनी वयर अशीर जायत गेल्ले पिरॅमिड दिश्टी पडटात. पूण सगळ्यांत पोरणे आनी व्हड पिरॅमिड फकत इजिप्तांतूच आसून तातूंतले लेख आनी वेगवेगळ्यो वस्तू हांकां लागून तांकां पुर्विल्ल्या इतिहासांत, तशेंच वास्तुशास्त्रांत एक वेगळें म्हत्व प्राप्त जालां. इजिप्तांत पिरॅमिडाक 'मेर' म्हण्टात. पिरॅमिड हें इंग्लीश उतर 'पिरॅमिस' ह्या ग्रीसी उतरावयल्यान रूढ जालां. हाचो अर्थ गंवाची केक असो आसून पिरॅमिडाचो आकार केकीवरी आशिल्ल्यान हें उतर रूढ जालां आसूंये. राजांच्या (फाराओ) दफनाकडे संलग्न आशिल्ल्यान ह्या वास्तूचें पुर्विल्लेंपण, रचणूक, अचूक बांदावळ आनी तातूंत मेळपी इतिहासीक पुरावो हांकां लागून पिरॅमिड हें संवसारांतलें एक अजाप मानतात.

इजिप्तांत सुमार ८० पिरॅमिड आसून, तातूंतले कांय बरे स्थितींत आसात. जायते पिरॅमिड तुटिल्ले आसात. आत्मो हो शरीराबगर वेगळो रावंक शकना ह्या त्या काळांतल्या समजाक लागून पिरॅमिड बांदपाची कल्पना रूढ जाली. चडशा राजांनी (फाराओंनी) आपल्या मरणाउपरांत आपल्या मड्याची बेवस्था जावंची देखून पिरॅमिडां बांदलीं. साहजिकच राजा-राणयेचीं मडीं 'ममी' (mummy) च्या रुपांत पिरॅमिडांत जतनाय करून दवरूंक लागले.

पुर्विल्ल्या इजिप्ताच्या इतिहासांतल्या तिसऱ्या चवथ्या (इ.स. आदीं २७२० - २५६०), सव्या (इ.स. आदीं २४२०-२२९४) आनी बाराव्या (इ.स. आदीं २०००-१७७७) राजवंशांतल्या राजांनी पिरॅमिड बांदले. सगळ्यांत पोरणे पिरॅमिड कायरो लागसार सकार नगरांत आसून ते झोसर (इ.स. आदीं तिसरें सहस्त्रक) ह्या तिसऱ्या वंशांतल्या राजान इ.स. आदीं २८०० च्या सुमाराक बांदलो. उपरांतचे पिरॅमिड सूदानांत मेरो नगरांत इथिओपियी राजान इ.स. ३०० त बांदलें. इजिप्तांत सुरवातीक बांदिल्ल्या पिरॅमिडावरी वास्तूंक मस्ताबा म्हण्टाले. झोसरान बांदिल्ल्या पयल्या फातरी पिरॅमिडाची उंचाय सुरवातीक ८ मीटर आशिल्ली आनी आराखडो चवकोनी आशिल्लो. हाका स्टॅप पिरॅमिड अशेंय म्हण्टाले. चवथ्या राजवंशाच्या काळांत पिरॅमिड बांदावळींत बरीच उदरगत जाल्ली दिश्टी पडटा. त्या काळांतल्या कूफू, कॅफ्रे आनी मेंकूरे ह्या राजांनी गीझा नगरांत बांदिल्ल्या पिरॅमिडाचे रचणुकेक आनी बांदावळीक लागून नामना आसा. तिनूय पिरॅमिडांनी अश्मपेटिका मेळ्ळ्यात आनी त्यो ग्रॅनायट फातराच्यो केल्यात. कूफूचे पिरॅमिडाची संवसारांतल्या सात अजापांतलें एक अजाप म्हणून ताची नामना आसा.

पिरॅमिडाची भितल्ली रचणूक जायत्या तरांची आसता. चवथ्या वंशांतल्या राजांनी आकारांत बदल करून तशेंच विटांजाग्यार फातर वापरून ल्हान आकारांत जायते पिरॅमिड बांदले. सर फ्लिंडर्स पेट्री हाणें पिरॅमिडांचें उत्खनन आनी अभ्यास करून ताचे काटकोन आदी तपशिलांतले भूमितीक नेमकेपण सिध्द केलां. गीझाचो कूफू राजाचो पिरॅमिड १२६ मी. उंच आसून ताणें पांच हॅक्टर क्षेत्र व्यापलां.

पांचव्या वंशांतल्या राजांनी अबू सीर नगरांत पिरॅमिड बांदल्यात, जाल्यार सव्या वंशांतल्या राजांनी सकाराक पिरॅमिड बांदले. हे पिरॅमिड

ल्हान आनी कांय प्रमाणांत ओबड धोबड आसले. तांच्या भितल्ल्या दालनांत हायरोग्लिफिक लिपींत मजकूर बरोवन दवरला. ताचे वयल्यान त्या काळांतल्या धर्मीक कल्पनांची तशेंच वट्ट समाजीक स्थितीची कल्पना येता. इ.स. आदीं १७०० च्या सुमाराक इजिप्तांतल्या पिरॅमिडाची बांदावळ चडशी बंद जाल्ली दिसता. उपरांतच्या राजांनी आपल्या मड्यांखातीर शैलोत्कीर्ण घरां बांदपाची पद्दत सुरू केली.

- कों. वि. सं. मं.

पूरक नोंद : ममी.

**पिशाच्च :** (पळेयात भूत).

**पिसुर्लेकार, डॉ. पांडुरंग सखाराम :** (जल्म : ३० मे १८९४, पिसुर्ले - सत्तरी गोंय; मरण : १० जुलय १९६९, पणजी-गोंय).

गोंयचो नामनेचो इतिहासकार आनी आर्किविश्त. ताचे आवयचें नांव कृष्णाबाय. १९१३ त ताणें पणजे लिसेंवाची सातव्या वर्साची परीक्षा दिली. उपरांत १९१३ त तीन वर्सांची शिक्षक सनद मेळटकच तो दिवचले एका स्कुलांत शिकोवंक लागलो. १९२० त ताणें कायद्याचें शिक्षण घेतलें. फुडें १९३१ मेरेन ताणें दिवचल, सांखळी, वाळपय, पोरणें गोंय आनी निल्लाच्या शाळांनी पुर्तूगेज आनी गणित शिकयलें. पिरायेच्या १९ वर्सांचेर बोरकार घराण्यांतली रमाबाय हिचेकडेन ताचें लग्न जालें (१९१३).



ताणें वट्ट चवदा वर्सां शिक्षकी पेशांत घालयली. ताका पुर्तूगेज, इंग्लीश, फ्रेंच, कोंकणी, संस्कृत आनी मराठी भाशांचें बेस बरें गिन्यान आशिल्लें. मोडी भासूय ताका कळटाली. १९१८ त ताचो पयलो लेख विविधज्ञान विस्तारांत उजवाडाक आयलो. १८१९ सावन ताका पणजे सरकारी दुकुमेंत पळोवपाचें काम मेळ्ळें. जाच्या आदारान ताणें खुबशीं पुस्तकां तयार केलीं. १९३० त गोंय पुर्तूगेज सरकारान ताका General and Historical Archives of Portuguese India हो सरकारी दत्परखानो निर्माण करून थंय मुखेली म्हणून ताची नेमणूक केली. दप्तरखान्यांतले चडशे सरकारी दस्तऐवज राशींनी पडिल्ले, कांय वाळटींनी खाल्ले, अक्षरां गेल्ले आनी कांय इबाडपाक लागिल्ले. हे सगळे दस्तऐवज पिसुर्लेकारान बरे तरेन हाताळ्ळे. तातूंतलीं कागदपत्रां वर्गवार लायलीं, तेविशीं सुची आनी मार्गदर्शिका तयार केल्यो.

गोंयांत पुर्तूगेजांनी प्रवेश केल्ल्याकाळार सावन सगले इतिहा[illegible] दस्तऐवज वेगवेगळे कार्यालयांनी शिंपडिल्ले. पुर्तूगेज भास जाणा[illegible] पिसुर्लेकार पयलो इतिहास संशोधक आशिल्लो. सरकारी दप्तरखा[illegible] जसजशीं ताका कागदपत्रां मेळत गेलीं तसतशे ताणें त्या कागदपत्र[illegible] नकलो तयार केल्यो. पुर्तूगेज काळांतल्या इतिहासाचें हें संपादन, स[illegible] आनी संशोधन करता आसतना पुर्तूगेजा आदल्या काळांतल्या गो[illegible] इतिहासाची म्हायतीय ताका मेळ्ळी. तेन्ना ताणें ह्या विशयाचेर बरो[illegible] सुरवात केली. 'O Oriente Portuguese' ह्या नामनेच्या अंकांत[illegible] इतिहासाविशींचे लेख उजवाडाक येवंक लागले. हाचेभायर Heral[illegible] provincia आदी अंकांतल्यान आनी स्वतंत्र पुस्तिकांच्या स्वरुपा[illegible] इतिहासाविशींचें म्हत्वाचें बरप केलें. ताचें चडशें बरप पुर्तूगेज [illegible] आसून ताचे मराठी आनी इंग्लीश भासांनी अणकार जाल्यात[illegible] म्हत्वाचे ग्रंथ अशे - आजेन्तिश दा दिप्लोमासीय पुर्तूगेज ना [illegible] (१९५२), आश्पेक्तुश दा सिव्हिलिझासांव दा ईन्दिय आन्तीग (१९[illegible] आस्सेन्तुश दु कोंसेल्यु दु इश्तादु दा ईन्दिय (१९५३-५७), रेजि[illegible] दश फोतीलेझस दा ईन्दिय (१९५१), पुर्तूगेझिश ई मारातश (१[illegible] ३९), रोतैरू दुश आर्कीवश दा ईन्दिय पुर्तूगेझिस (१९५५), पों[illegible] रिकॉर्डस ऑन रूस्तमजी माणेकजी (१९३३), पुर्तूगीज - मराठ[illegible] (१९६७).

ताणें आपलो सुमार चार हजारांचो संग्रह मुंबय विद्यापिठा[illegible] केल्लो. जातूंत पुस्तकां, हातबरपां, मायक्रोफिल्मां आनी फोटोस्टॅ[illegible] आसल्यो. विद्यापिठान तो संग्रह वेगवेगळ्या विद्यापिठाच्या प[illegible] पोस्ट ग्रॅज्युएट सॅंटराक जोडून ताचो एक इतिहास विभाग स्थाप[illegible] आनी पिसुर्लेकाराक तांचो डायरेक्टर, इतिहासाचो प्रोफेसर पी.एच.डी. करतल्या भुरग्यांचो गायड म्हणून नेमलो. सद्या हो संग्रह गोंय विद्यापिठाच्या वाचपघरांत संशोधकांखातीर अभ्यासकांखातीर उपलब्ध आसा.

पिसुर्लेकाराक ताच्या लेखन संशोधना खातीर जायते भोवमान[illegible] पुर्तूगेज सरकारान ताका १९३५ त 'नायट ऑफ द मिलीटरी ऑफ साँतियागो' हो किताब दिलो. १९४८ त रॉयल एशियाटिक स[illegible] ऑफ बंगाल हाणीं ताका सर जुदानाथ सरकार गोल्ड मेंड[illegible] १९५३ वर्सा एशियाटिक सोसायटीन भांगरा पदक दिलें. १[illegible] ताका पुर्तूगेज सरकारान Conservador do Arquivo हो हुद्[illegible] १९६१ त तो ह्याच हुद्द्यावयल्यान निवृत्त जालो. लिस्बन वि[illegible] ताका डी. लिट. ही पदवी दिवन ताचो भोवमान केलो. १९७[illegible] बृहन महाराष्ट्र मंडळाकडल्यान इतिहास संशोधन वावराखातीर पदक मेळ्ळें. गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत लोकांक उंचेल्या [illegible] शिक्षण मेळचें म्हणून ताणें जायते यत्न केले.

- व्ही. आर. [illegible]

**पिस्ता :** (मराठी : पिस्ता; कन्नड : गोनु हण्णु; संस्कृत : निकोचक; इंग्लीश : पिस्टाशिओ; लॅटिन : पिस्टाशिया वेरा[illegible] ॲनाकार्डिएसी).

सुमार १० मी. उंच वाडपी पानझडी आनी पसरट खांद्य[illegible] ह्या झाडाक संयुक्त, विषमदली पिसावरी एकाआड एक सुर्वेक[illegible]

## फ्रेंच सत्ता (भारतांतली)

रितसर वेपार सुरू केलो. १६६६त बॅबॅर आनी लाबुलॅाय ला गूझ ह्या फ्रेंच राजदुतांनी औरंगजेबाकडच्यान सुरतेंत वखार उगडपाची परवानगी मेळयली. शिवाजीनूय १६६८त तांकां राजपूराक वखार घालपाक परवानगी दिली. १६६९ त मच्छलीपट्टणमाकूय फ्रेंच लोकानी वखार सुरू केली. फुडारिल्ल्या नौदलाच्या बळग्यार सामक्या उदेंतेक आशिल्ल्या देशांकडेन (The far east countries) वेपार वाडवपाचो तांचो हेतू आशिल्लो. हाका लागून द लाहे हाच्या फुडारपणाखाला १६७१त एक नाविक दल भारतांत आयलें. ह्या नाविक दलाच्या नेटार फ्रेंचांनी सॅ थाम ही चेन्नई लागसार आशिल्ली वेपारपेठ गोवळकोंड राजाकडच्यान हातासली.

१६७४त फ्रांसवा मार्ते ह्या अधिकाऱ्यान पाँडिचेरीचें मुखेल केंद्र हातासलें. कांय तेंपा उपरांत ह्या शारांत वेपार भरभराटीक आयिल्ल्यान फ्रेंच लोकांनी पाँडिचेरी शाराकूच आपले राजपाटण केलें. दक्षिण भारता खेरीज बंगालाक चंद्रनगर, पाटणा, कासिम बाजार, ढाक्का, जगदीया आनी बालेश्वराकूय फ्रेंचांनी वखारी उबारिल्ल्यो. उदेंतेक आयल्या उपरांत सुरवेच्या तेंपार हॉलंड, ब्रिटन हांचेकडेन सर्त आनी झुजां, थळावे लोकांचो विरोध हांकां लागून फ्रेंच वसणुककारांक खूब त्रास जाले. अशें आसतना लेगीत कांय फ्रॅंच अधिकाऱ्यांनी फ्रेंचांचें वेपारी आनी राजकीय म्हत्व भारतांत वाडयलें.

सुरवातीच्या तेंपार देशाभितल्ल्या वेपाराक संरक्षण मेळचें म्हणून भारतीय सुती कपडो आनी हेर कांय वस्तूंचे आयातीचेर फ्रांसांत बंदी घाल्लली आनी ताचेर फ्रांस सरकाराचे कडक नियंत्रण आसतालें. हाका लागून सुरवातीक वेपारी कंपनीक व्हडलोसो फायदो जालो ना. पूण १७२३त फ्रॅंच सरकारान कॉपान्यी देस ह्या नांवा सकल तिची पुनर्रचणूक करून तिका फावो तो आदार दिलो. हाचो परिणाम म्हळ्यार १७२५-४० ह्या तेंपार कंपनीक खूब फायदो जालो. १७२१त मलबारचे दर्या देगेर माहे (केरळ) नगरांत आनी १७२३त चेन्नई दर्या लागसार यानम (आंध्र प्रदेश) ह्या वाठारांत ताणीं वसणुको उबारल्यो. गर्व्हनर बनवा द्युमा हाच्या तेंपार (१९३५-४२) भारतांत फ्रेंच सत्तेची खूब भरभराट जाली.

१७४१त गर्व्हनर जनरल म्हणून आयिल्लो जोसेफ फ्रांसवा द्यूप्ले हाणें भारतांतले फ्रेंच वसणुकेक एक नवी दिका दिली. भारतांत वसणुकवाद हाडपाचे श्रेय ताकाच वता. पूण १७४४त युरोपांत ऑस्ट्रियेच्या वारसावयल्यान ब्रिटीश-फ्रेंच हांचेमदीं झूज पेटलें. ला बूरदॅाम हाणें चेन्नई प्रांताचेर जैत मेळोवन तें फ्रेंच शेकातळा दवरलें. १७४८ मेरेन तांचे भितर झूज चालूच आशिल्लें. त्याच वर्सा हैदराबादचो निजामुलमुल्क हाका मरण आयलें. ताचे सुभेदारी खातीर सुरू जाल्ल्या वारसा हक्काच्या झुजांत ब्रिटिशांनी नासिर जंग हाका आनी फ्रेंचांनी सुरवेक मुजफ्फर जंग आनी ताच्या मरणा उपरांत सलाबत जंग हाका तेंको दिल्लो. हैदराबाद प्रकरणावयल्यान फ्रेंच-मराठे हांचे संबंद इबाडले. १७५६त कॅनडाच्या प्रस्नावयल्यान इंग्लंड-फ्रांस हांचे भितर परत झूज जालें. भारतांतले फ्रेंच वसणुकेक कसलीच बादा येवची न्हय हाका लागून फ्रेंच सरकारान कॉंत द लाली हाका सगळे अधिकार दिवन भारतांत व्हड सैन्य धाडलें. पूण हेर अधिकाऱ्यांनी ताका कसलोच आदार दिलोना. नाविक दळ आनी भांडवलूय उणें पडिल्ल्यान ब्रिटिशांनी पाँडिचेरी आनी हेर कांय फ्रेंच वसणुकांचेरूय जैत मेळयलें. ह्या झुजा उपरांत भारतांतले फ्रेंच सत्तेक देंवती कळा लागली.

१७६३त पॅरिसांत कबलात जावन इंग्लंड-फ्रांस हांचेमदलें झूज सोंपलें. तांच्यो कांय वसणुको परत मेळ्ळ्यो. पूण उपरांत फ्रेंच सत्तेक भारतांत तिचो सुरवातीचो दर्जो केन्नाच परत मेळ्ळोना. ब्रिटीश मात आपली सत्ता भारतांत वाडयत रावले आनी ती ताणीं तिगोवन दवरली.

भारतांतल्यान आयात जावपी वस्तूंचेर सरकाराचें खर नियंत्रण आशिल्लें. तेच परी अधिकाऱ्यांभितर चलिल्ल्या संघर्शान आनी भ्रश्टाचाराक लागून कंपनीक वायट दीस आयले. हाका लागून फ्रेंच सरकारान कंपनी बंद केली आनी भारतांतल्यो सगळ्यो फ्रेंच वसणुको आपल्या शेकातळा हाडल्यो. १७७६त अमेरिकन स्वातंत्र्या निमतान इंग्लंड आनी फ्रांस हांचेभितर परत झूज सुरू जालें. ह्या वेळार फ्रेंच गर्व्हनरान मराठ्यांकडेन इश्टागतीची कबलात केली. भारतांत आशिल्ल्या फ्रेंच वसणुकांची राखण करपाखातीर दस्युफ्राँ ह्या पराक्रमी अधिकाऱ्याच्या फुडारपणाखाला एक व्हड नाविक दळ हिंदी म्हासागरांत धाडिल्लें. पूण ब्रिटीशांनी हें नाविक दळ काबार करून तांचेलागीं कबलात केली. ब्रिटीशांनी घेतिल्ल्यो फ्रेंच भारतांतल्यो वसणुको, हे कबलातीक लागून परत फ्रांसाक मेळ्ळ्यो.

भारतांत वेपार वाडोवप हो फ्रांसेझ लोकांचो मुखेल हेत आशिल्ल्यान अठराव्या शेंकड्याचे निमाणेकडेन मराठे सरदार आनी टिपूकडेन तांकां मर्यादीत संबंद दवरचे पडले. १७८९त जाल्ले फ्रेंच राज्यक्रांतीक लागून युरोपांत झूज निर्माण जाल्लें. ह्या झुजाचो परिणाम फ्रेंच वसणुकांचेर जालो.

१७९३त ब्रिटिशांनी परत भारतांतल्यो वसणुको आपले सुवादीन घेतल्यो. उपरांत भारताचेर फ्रेंच शेक बसोवपाचो निमाणो यत्न १८०२त नेपोलियन हाणें केलो. त्याच वर्सा फ्रांस-इंग्लंड हांचेमदीं कबलात जावन भारतांतल्यो फ्रेंच वसणुको फ्रांसाक परत मेळ्ळ्यो. त्यो ताब्यांत घेवपाच्या निमतान शार्ल मात्य हाच्या फुडारपणाखाला नेपोलियन हाणें व्हड सैन्य आनी नाविक दळ भारतांत धाडलें. पूण ह्यावेळार ब्रिटिशांनी पाँडिचेरी प्रदेशाचेर कडक देखरेख दवरिल्ल्यान ह्या सैन्याचो कांयच उपेग जालोना. १८०७त ब्रिटिशांनी मॉरिशस आनी रेयुन्यॉं हे फ्रेंच तळूय आपल्या शेकातळा हाडले. १८१५त फ्रांस-ब्रिटन हांचेभितर कबलात जावन पाँडिचेरी, चंद्रनगर, माहे, कारिकल आनी यानम ह्यो वसणुको फ्रांसाक परत मेळ्ळ्यो. उपरांत १९५४ मेरेन त्यो फ्रेंच शेकातळा उरल्यो. १९५६त तांच्या विलीनीकरणांविशीं भारत-फ्रांस हांचेमदीं कबलात जाली. ती १९६२त पुराय जावन भारतांतले फ्रेंच सत्तेचो अंत जालो.

– कों. वि. सं. मं.

